# काणी एका गुलामाची



अणकारपी

माया अनिल खरंगटे

# काणी एका गुलामाची

माया अनिल खरंगटे

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन

शणै गोंयबाब महोत्सवाचें अस्मिताय वर्स

KANI EKA GULAMACHI
(TRANSLATION)
Mrs. Maya Anil Kharangate

काणी एका गुलामाची
(अणकार)
अणकारपी - सौ. माया अनील खरंगटे

प्रकाशन क्र. २४



पयली उजवाडावणी - १० मे २००३
(१६ वें अ. भा. कोंकणी साहित्य संमेलन, वास्को)

प्रकाशक - मिलींद कमलाकर म्हाळशी
ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय

छापपी - बामा ऑफसेट प्रिंटर्स, कुडचडें - गोंय, फोन : २६५०६५८

मोल - ५०.०० रुपया

अतीश, नितीश, प्राजक्ता, अभिजीत
ह्या म्हज्या अपुरबायेच्या भाचरांक आनी मोहिताक -
तुमीय इसापावरी बुद्धीमान जावचे

- मायाताई

# १. इसाप उलोवंक लागलो



इसापनिती हें नांव आमचें सगल्यांचे वळखीचें. ताच्यो काणयो भुरग्यांक तशो जाणट्यांक लेगीत आवडटात. पूण हो इसाप आशिल्लो तरी कोण ? एक तत्वगिन्यानी ? हय, एक हुशार बुद्धिमान तत्वगिन्यानी, उलयतां उलयतां दुसऱ्यांक कांय न्ही करून हारोवपी. ताच्यो सुरबूस खबरी आयकूंक सगलेच आंवडेताले.

झांथसा सारख्या एका म्हान तत्वगिन्यानाच्या प्रोफसराक लेगीत तो सहजतायेन हारयतालो. तरी लेगीत झांथसाक तो चांटये-पावलाक जाय पडटालो.

असो हो सगल्यांकच जाय-जाय आशिल्लो इसाप आसलो एक गुलाम. गुलाम म्हळ्यार कितें खबर आसा तुमकां?

गुलाम म्हळ्यार विकतो घेतिल्लो मनीस. पयलीं तेंपार घोडे-बैल जशे विकतात तशे मनशांक विकताले, विकते घेताले. ताका पोटापुरतें अन्न-उदक दिवप, आंग धांपपा पुरते कपडे दिवप. आनी काम ? तें मात मरसर करून घेवप. ताका मातय विसव म्हणून घेवपाक दिवप ना.

तर इसाप पयलीं असो गुलाम आशिल्लो. तो दिसतालो विचित्र ध्यान कसो ! येदें व्हडलें पोट, चेपटें नाक, रंग तर करपल्ल्या आयदना वरी काळो. दोळे तिरशे. मोटवो तर तो आशिल्लोच, पांयांनीय पांगो. तकली आनी म्हणपा आसा? खडबडीत फातराक बुडबुडीत दोळे आनी हळडुवे-काळशे ओंठ. अशा ह्या काळ्या विद्रूप इसापाक घरांत कामाक दवरप म्हळ्यार लेगीत एक अडचण आशिल्ली. ताका आयकूंक येतालें, पूण उलोवंक येना आसलें. तो मोनो आसलो.

असो विचित्र गुलाम शारांत काम करूंक उपकरचो ना, अशें येवजून ताच्या धनयान ताका पयसुल्ल्या एका खेड्यांत शेतार कामाक धाडलो. एक फावट ताचो धनी त्या खेड्यांत आपलें शेत-भाट पळोवपाक म्हणून गेल्लो. थंय ताका कोणें एकल्यान अंजिरान भरिल्लो पांटलो भेट म्हणून दिलो. ते पळोवन धनी खूश जालो. ताणें एका मानायाक उलो मारून सांगलें, 'पळय हो अंजिरांचो खोंटलो भितर व्हरून बरो करून दवर. न्हावन येवन जेवण जेवतकच हांव ते खातलों.'

इतलें सांगून धनी न्हावंक गेलो. हेवटेन कितें जालें ? ते ताज्ने रसरशीत अंजीर पळोवन गुलामाच्या तोंडांत निथू आयलो. तांतले एक दोन अंजीर तरी आपणें खावचे अशें ताका दिसलें. पूण अंजिरांक हात लावपाक धीर जायनासलो.

थंयच लागीं आशिल्लो आनीक एक गुलाम ताका पळयत आसलो. ताणें म्हळें, 'कितें इश्टा? मनांत कितें आसा? हे अंजीर खावचे शे दिसतात काय कितें?'

पयल्या गुलामान बेगीबेगीन म्हळें, 'खरेंच देवाच्यान तर, पूण कशें कळ्ळें तुका म्हज्या मनांतलें? मनपारखी काय कितें तूं?'

'तुज्या तोंडावेल्यान म्हाका तुज्या मनांतलो हेतू कळ्ळो. आतां हांव तुका एक युक्त सांगतां. आमी दोगूय जाण हे अंजीर वांटून खावंया.' दुसऱ्या गुलामान सांगलें.

ताची युक्त आयकून पयल्या गुलामाक हांसूंक आयलें. - वा! वा! वा! बरी युक्त तुजी! धनयान अंजीर मागतकच ताका कितें सांगतलो?'

तितल्यांत शेतांतलें काम सोंपोवन इसाप थंय आयलो. ताचो जेवपाचो वेळ जाल्लो. ताका पळोवन ल्हवूच पयल्या गुलामान दुसऱ्या गुलामाक सांगलें - 'हें पळे इश्टा, धनयान अंजीर मागले काय ताका सांगुंया, कोठयेकुडीचें दार चुकून उगडें उरलें. तांतुंतल्यान इसाप भितर गेलो आनी ताणें सगले अंजीर खाले. इसापाक कांय उलोवंक येना. ताका धनी येतिश्ट मारतलो आनी आमकां जाय तशे अंजीर खावंक मेळटले. कशी आसा म्हजी युक्त?'

'वा! खरेंच बरें येवजलें तुका.' पयल्या गुलामान ताका शाबासकी दिली आनी दोगय बसून अंजीर खावूंक लागले. अंजीर खातां खातां एकट्यान म्हळें, 'शी! कसलो इसाप हो! कांयच उपयोग ना ताचो. चाबकाचो मार खावचेच लायकेचो आसा तो.'

दुसऱ्यान ताका साथ दिली. – हय रे बाबा ! चल आयच्यान थारलें. आमच्या हातान कितेंय फुटलें, तुटलें, मोडलें, रकलें जाल्यार आमी सगलें इसापाचेर घालपाचें. आमचो मार चुकतलो आनी इसापाची फाट बरी मोव जातली.' अशे तरेन मस्कऱ्यांनी उलयत उलयत ताणीं सगले अंजीर खावन उडयले.

न्हावन–धुवन बरो करून तांचो धनी भायर आयलो. केन्ना काय ते ताजे रसरशीत अंजीर खातलों अशें ताका जाल्लें. ताणें गुलामांक उलो मारून अंजीर हाडूंक सांगलें. गुलामांनी आदीं थारायिल्ल्या प्रमाण सांगलें. आपले सगले अंजीर इसापान खाले हें आयकून धनयाक भयंकर राग आयलो. ताणें तापून म्हळें,

– 'अब्बा! म्हजे सगले अंजीर इसापान खाले? येदी कापास्ताद ताची? आपय ताका हांगा.' इसाप मोन्यांनी येवन ताचे मुखार उबो रावलो. ताका पळयतकच धनयान आड्डून विचारलें, ' लज नाशिल्ल्या गुलामा, इतलो उर्मट जाला तूं? कोठयेकुडींत वचून म्हाका दवरिल्ले अंजीर खातना मातय भंय दिसलो ना तुका?'

धनी तोंडाक येता तें उलयतालो. ताचें सगलें उलोवप इसापाक कळटालें. पूण तो मोनो आशिल्ल्यान खरी गजाल सांगूंक शकनासलो. अंजीर चोरून खावपाचो आळ आयिल्ल्यान आपल्याक आतां मार खावचो पडटलो हाची ताका जाणीव जाली. ताका कांयच उपाय दिसना जालो. ताणें धनयाच्या पांयांर घालून घेतलें आनी 'मात्सो राव' अशी कुरवेन विनवणी केली.

धनयान म्हळें, –'रावतां, कितें सांगूंक सोदता?' इसापान कुरू करून मीठ आनी हून उदक हाडपाक सांगलें. हून उदकांत मीठ घालून ताणें बरें धवळ्ळें आनी तो पियेलो. पिवन जातकच ताणें तस्त हाडपाची

कुरू केली. नोकरान तस्त हाडून दवरलें. ते बरोबर इसापान ताळ्यांत दोन बोटां घालीं आनी ओंकारे काडले. त्या तस्तांत तो ओंकलो. तो जें मिठा उदक पियेल्लो तेंच ताचे ओंकींतल्यान भायर पडिल्लें. सकाळच्यान ताणें आनीक कांय खावंक नासलें. ताका लागून ओंकींत आनीक कांय पडूंक नासलें. अशे तरेन ताणें आपणें अंजीर खावंनात हें धनयाक दाखोवन दिलें.

उपरांत इसापान खुणेनच त्या दोनूय गुलामांक मिठा उदक पिवन ओंकारे काडूंक सांगलें. धनयाक ही युक्त आवडली. ताणें त्या दोनय गुलामांक हून उदकांत मीठ घालून पिवंक लायल्नें. मिठा उदक पोटांत वतकच तांच्या पोटांत धवळूंक सुरवात जाली. तांणी ताळ्यांत बोटां घाल्यांत मात आयदन घेवपाचो लेगीत तांकां थार जालो ना. ते थंयच ओंकले. तांणी खाल्ल्या अंजिराचे कितलेशेच कुडके तांचे ओंकींत पडिल्ले.

धनयाच्या सांगण्या प्रमाण दुसऱ्या गुलामांनी तांकां भायर व्हरून सोटे मारून तांची फाट सोलून काडली. दुसऱ्याक फटोवंक फटीचें कारस्थान रचल्यार आपलेच आंगलट कशें येता तें तांकां कळ्ळें.

दुसऱ्या दिसा धनी उठून शारांत गेलो. इसाप सदचेवरी शेतांत वचून माती खणूंक लागलो. इतल्यांत इसीस देवस्थानची पुजारीण वाट चुकून भोंवत-भोंवत इसापा म्हऱ्यांत पावली. तिणें इसापाक म्हळें, 'बाबा रे, म्हजेर मात्सो उपकार कर. म्हाका शारांत वचपाचो रस्तो दाखय. वाट चुकून हांव हांगा पावलीं.'

इसापान तिचो आवाज आयकलो आनी वळून तिका पळयलें. इसीस देवतेचीं वस्त्रां न्हेशिल्ली एक बायलमनीस आपले मुखार उबी आशिल्ली ताका दिसली. तो भावार्थी आसलो. तो तिका पांयां पडलो आनी कुरवेन विचारलें, 'राजमार्ग सोडून तूं ह्या शेतांत कशी आयली?'

ह्या मनशाक आयकूंक येता, पूण उलोवंक येना हें तिच्या लक्षांत आयलें. तिणें ताका खाणाखुणांनी सांगलें, 'हांव ह्या वाठारांत अनवळखी. हांव इसीस देवतेची पुजारीण. वाट चुकून हांगा पावलीं. तूं मात्सो म्हाका वाट दाखोवशी?'

इसापान कुदळ सकल दवरली. तिका एका झाडा मुळांत व्हरून

थंयचे थंड शितळ सावळेंत बसयली. आपले शिढोरेंतल्यान भाकरी आनी फळां काडून तिचे मुखार दवरून तिका खावपाचो आग्रो केलो. तिणें इल्लोसो भाकरे कुडको आनी कांय फळां खालीं. मागीर ताणें तिका झरीर व्हरून थंड बरें उदक पिवूंक दिलें. ती खोशी जाली. 'इसापाचें कल्याण जावं' तिणें मनांतल्या मनांत देवाक सांगून घेतलें.

मागीर इसापान तिका राजमार्गान व्हरून पावयली आनी शारांत वचपाची वाट दाखयली. इसीसाची पुजारीण शाराचे वाटेक लागली. तिच्या मनांत इसापाचेच विचार घोळटाले. त्या फुटक्या नशिबाच्या मनशाचो मायेस्त सभाव येवजून तिचें मन भरून आयलें. तिणें परत हात जोडून इसीस देवतेकडेन मागलें, 'हे इसीस देवी, ह्या दुर्दैवी मनशाचेर तूं प्रसन्न जा. तो खूब मायेस्त आसा तसोच भाविकय आसा. ताका निदान ताची वाचा परत दी. ताका उलोवंक येताशें कर.' पुजाऱ्लीन केल्ली विनंती देवीन आयकली.

त्या पुजाऱ्लीक पावोवन इसाप परत शेतांत आयलो आनी कुदळ घेवन खणूंक लागलो. कडकडीत वोत पडिल्लें, त्या रखरखान जीव कासावीस जातालो. इसाप त्या जळट्या वोतांत काम करून पुराय थकून गेल्लो. ताच्या धनयान दोन घटका विसव घेवंक मान्यताय दिल्ली. ताणें येवजिलें 'आतांच ह्या वोता कडार दोन घटका न्हिदल्यार बरें.'

मुळांत बरें दाट तण आशिल्ल्या एका रुखा मुळांत सावळेक हात उशाक घेवन तो आड पडलो. ताचे आशी-कुशीक फुलांनी चंवरिल्लीं फुलझाडां आशिल्लीं. थंड-शितळ वारें व्हांवतालें. इसापाक रोखडीच गाड न्हीद लागली.

हेवटेन कितें जालें, पुजाऱ्लीन केल्ली प्रार्थना आयकून इसीस देवता आपल्या वांगडा णव देवतांक घेवन इसापा मुखार प्रकट जाली. तिणें त्या देवतांक सांगलें, 'हो मनीस सामको फुटक्या नशिबाचो. पूण तो मायेस्त आनी भाविकय आसा. ताणें म्हजे पुजाऱ्लीक वाट दाखयल्या. हांव ताची वाचा ताका परत दितां. तुमी ताचे वाचेंत स्फूर्त भरात. ताका बऱ्यांतलीं बरीं उतरां सुचतलीं अशें करात.

इतलें सांगून इसीस देवीन इसापाचे वाचेंतले दोश काडून उडयले. हेर देवतांनी ताचे वाचेंत स्फूर्त भरली. मागीर त्यो सगल्यो देवी अदृश्य जाल्यो.

दोन घटका न्हिदून इसाप जागो जालो. ताणें आपले भितर म्हळें, 'काय बरी न्हीद लागली म्हाका.' अचकीत आपल्या तोंडांतल्यान उतरां आयिल्लीं आयकून इसापाक अजाप जालें. दुसऱ्या खिणाक तो खोशी जालो. ताणें आशीकुशीक पळयलें. थंयची कुदळ, खोरें, बैल, गाढव, बोकडी हांचीं सगल्यांचीं ताणें मोठ्यान नांवां घेतलीं. आतां ताची खात्री जाली. ताणें खोशेन म्हळें, 'आतां हांव उलोवंक शकतां, पूण म्हजी वाचा आयली कशी? हांवें इसीस देवीवेले भक्तीक लागून तिचे पुजाऱ्यांक आदार केलो म्हणून म्हजी वाचा म्हाका मेळ्ळी काय? हय! तशेंच आसतलें. भक्ती करप ही सदांच बरी गजाल. आतां देवी म्हजेर सदांच कृपा करतली.' मनांतल्या मनांत अशें म्हणून हातांत कुदळ घेवन इसाप परत जमीन खणूंक लागलो. तेन्नाच मुकादम शेतांत आयलो आनी गुलाम कशे काम करतात तें पळोवंक लागलो. सगले गुलाम मुकाट्यान काम करताले, तांकां तापोवंक, मारूंक कसलेंच निमीत्त्य मुकादमाक मेळना जालें. तरी लेगीत बारीकशें नीब धरून तो एका गुलामाक बडयेन बडोवंक लागलो. इसापाच्यान तें सोंसूंक नज जालें. ताणें सट् करून मुकादमाक म्हळें, 'आरे बऱ्या मनशा! कित्याक असो बेठोच दुसऱ्याक बडयता? ताणे तुजें कितें वायट केलां? तूं सदांच असो वायट तरेन वागता. वांकड्या मार्गान वता. पूण तुका कोण असो बडयता?'

इसापाचीं उतरां आयकून मुकादम अजाप भरीत जालो. तो आपले भितर येवजूंक लागलो. - 'आं? हें कितें? इसाप उलोवंक लागलो. हाच्या तोंडातल्यान उतर फुट्टा थंय आसा, हो शाणेपण उलोवंक लागलो म्हाका! अब्बा! ह्या गुलामाच्या मुकादमाक हो समजता तरी कितें? आतां कितेंय तरी युक्त करून हाका धांवडावंकच जाय. नाजाल्यार हो म्हाकाच ह्या जाग्यावेल्यान निखळायतलो. हो मोनो आसतना लेगीत खाणाखुणांनी तापयतालो. आतां तर हो उलोवंक लागला. हाचो बेगोबेग बंदोबस्त केले

बगर गत्यंतर ना.' असो मनांतल्या मनांत निश्चेव करून मुकादम घोड्यार बसून धनयाकडेन वचूंक भायर सरलो.

ताणें धनयाकडेन येवन म्हळें, 'धनया, तुमच्या शेताचेर एक भयांकृत गजाल घडल्या.'

'कितें? कसली भयांकृत गजाल घडल्या? एकाद्रे घोडयेक मनशावरी पील जालां? काय गुलामागेर गाढव जालां?' धनयान हांसून विचारलें.

'तशें कांय न्ही धनया.' मुकादमान बेगीन बेगीन म्हळें. 'तो आमचो पिसाय गुलाम आसा न्ही इसाप म्हणून तो आज अचकीत उलोवंक लागला.'

'मागीर तातूंत कितें भयाकृंत आसा? परमेश्वरान ताका ताची वाचा परत दिली. तातूंत अशें अजाप कसलें?' धनयान हे खेपे रागानच विचारलें.

'हय, ही अजापाचीच गजाल धनया. तो उलयता तें भयांकृत उलयता. तो म्हाका गाळी घालता, तुमकांय कसल्यो-कसल्योय गाळी घालता. म्हज्यान कशेंच आयकूं नज जालें ताचें उलोवणें.'

मुकादमाची खबर आयकून धनी भियेलो. ताणें म्हळें, 'तशें जाल्यार रोखड्या रोखडोच ताका व्हर आनी विकून उडय.' मुकादमान म्हळें, 'धनया, तुमी कितें फकाणां करतात? इसाप म्हळ्यार कसलें अजागळ ध्यान तें तुमी जाणात. ताका कोण विकतो घेतलो?'

मुकादमाचें म्हणणें धनयाक पटलें. ताणें म्हळें, 'तशें जाल्यार ताका कोणाकय फुकट दिवन उडय. तरीय ताका कोण घेना जाल्यार मरसर मार घालून धांवडाय. चल बेगीन.'

आतां मुकादमच इसापाचो धनी जालो. ताणें पुट्ट करून घोड्यार उडी मारली आनी तो शेतार वचूंक भायर सरलो. शेतांत वतकच ताच्या मनांत विचार आयलो, 'आतां हांव ह्या इसापाचें म्हाका जाय तें करूंक शकतां. ताका विकूंकय शकतां, ना जाल्यार मारूंकय शकतां. पूण ... ताका जितो मारपा सारकें ताणें म्हजें कितें लुकसाण केलां? ना, ना, हांव

ताका मारचों ना, विकूनच उडयतां.'

खऱ्यांनीच देव इसापाचेर प्रसन्न जाल्लो म्हणून तो मुकादमाच्या बचक्यांतल्यान वाटावलो.

त्याच वेळार एक गुलामांचो वेपारी घोड्यार बसून थंयच्यान वतालो. ताका मुकादम वळखतालो. ताका ताणें हडकिलो आनी विचारलें, 'तुमी खंय वतात?' वेपाऱ्यान सांगलें, 'आतां म्हाका गुलाम विकूंक वचूं जाय. तेन्ना सामान व्हरपा पासत एकाद्री घोडी ना जाल्यार गाढव मेळटा काय पळयतालों. तुमचेकडेन अशें एकाद्रें जनावर विकतें मेळत? भाड्यान मेळपासारकें आसल्यारय चलता.'

मुकादमान म्हळें, 'आमचे कडेन घोडी, गाढव कांय ना. पूण एक गुलाम सवायभितर विकचो आसा, तुमकां जाय?'

मुकादमाचें उलोवप आयकून आपल्या घोड्या वेल्यान उडी मारून सकयल देंवतां देंवतां त्या वेपाऱ्यान म्हळें, 'जाय काय म्हणून कितें विचारता? गुलाम विकते घेवप, ते विकप हो तर म्हजो धंदोच. तुमचो खंयचो गुलाम विकपा आसा तें म्हाका दाखयात.'

'येयात, आमी त्या पलतडच्या शेतार वचुंया.'

मुकादम त्या वेपाऱ्या सयत शेतार आयलो. थंय आशिल्ल्या गुलामाक ताणें म्हळें, 'आरे, तो इसाप खंय आसा? ताका मात्सो सोदून हाडात पळोवया!' रोखडोच एक गुलाम इसाप माती खणटालो थंय गेलो. ताणें म्हळें, 'इसाप, आतां तुजें खणप बंद कर. आमच्या धनयान तुका आपयला.' हातांतली कुदळ पेल्यान दवरून इसापान विचारलें, 'खंयचो धनी? आमचो खरो काय तो मुकादम? सारकें सांग. तूं तो मुकादम म्हणटा जाल्यार तो खरो धनी न्हय. तोय आमचेवरी गुलामच.' गुलाम ताचेकडेन अजापान पळयत आपले भितर म्हणूंक लागलो, 'कितें! हो सटासट उलयता? आतां हाचें कितें जातलें काय देवा? हाका वाचा फुटत पासून हो जसो कितें वाऱ्यारच हुबता !'

इतल्यांत इसापान परत म्हळें, 'गुलामाचोय गुलाम जावप हें सामकें बरें न्हय. एके तरेन हें पातकच. 'इसाप, मेज उखल, इसाप, उदक

तापय, इसाप, गोरवांक खावड घाल.' कसलींय वाजदिणीं, कश्टांचीं कामां आसलीं काय सोडलो इसापाक हुकूम. आतां हांव उलोवंक शकतां. देवान म्हाका वाचा दिल्या. आमच्या धनयाक येवंदी. मागीर ह्या मुकादमाचीं कृष्ण कृत्यां सांगून ताका कसो निखळायतां पळय. पूण धनी येसर वाट पळोवंकूच जाय. चल इश्टा, आतां ताच्या म्हन्यांतच या.'

ते दोगय मुकादमा म्हन्यांत येवन उबे रावले. मुकादमान वेपाऱ्याक सांगलें, 'हो पळय होच गुलाम विकपाचो आसा.' वेपाऱ्यान इसापाक बरो करून पळयलो आनी आड्डून विचारलें, 'आरे ! हो कितें मनीस?' हें इतलें भयांकृत आनी विचीत्र ध्यान हांव विकतें घेवं? तूं कितें म्हजीं फकाणां करता रे ? हांगा मेरेन म्हाका वोग्गी फावट घालूंक लावन म्हजो वेळ मात वगडायलो. आतां मेरेन हांव सुशेगाद घरा पावतलों आसलों. ह्या अजागळा बगर आनी तुजेकडेन विकपा सारकें कांय ना जाल्यार म्हाका हांगा कित्याक आपयलो ? अशें बडबडत तो वेपारी रागान वचूंक लागलो.

इतल्यांत इसापान ताचो कोट धरलो आनी म्हळें, 'मात्शें आयकून तरी घेयात.' वेपाऱ्यान ताचो हात झिडपटावन उडोवन म्हळें, 'ना, हांव वतां. तूं कित्याक थांबयता म्हाका ?'

इसापान म्हळें, 'तुमी हांगा कित्याक आयिल्ले?' तुजे खातीर, तुका विकतो घेवंक.' वेपाऱ्यान सांगलें. 'हय मूं? तशें जाल्यार तुमी म्हाका विकतो कित्याक घेनात?' इसापान विचारलें. वेपाऱ्यान उबगून म्हळें, 'वोगीच कटकट करनाका. हांव तुका विकतो घेवचों ना.' तेन्ना इसापान म्हळें, 'खरेंच म्हाका विकतो घेयात. देवाच्यान तर तुमकां म्हजो खूब उपयोग जातलो.'

'तूं आनी म्हाका कितें उपकरतलो?' वेपाऱ्यान अजापान विचारलें. इसापान सांगलें, 'तुमचेकडेन जे गुलाम आसात तातूंत कांय बेशिस्त वागपी आसतलेच, तशेच एकसारके खावपाक मागपीय आसतलेच.'

'हय, आसात. मागीर? ' वेपाऱ्यान विचारलें. इसापान उमेदीन सांगलें, 'तांकां वठणेर हाडपाचें काम म्हजेकडेन दियात. फकत म्हजो चेरो पळोवनच जाग्यार येतले ते. '

आरे ! हय मरे, ही तुजी युक्त एकदम बरी आसा.' मुकादमाकडेन वळून ताणें म्हळें, 'हाचो दर कितलो?' 'पन्नास रुपया दी.' मुकादमान रोखडेंच सांगलें.

'आवयस् ! पन्नास रुपया? ह्या गुलामाची इतली किंमत.' वेपाऱ्यान आड्डून विचारलें.' 'बरें आसा. तुज्या मनाक दिसता तितले पयशे दी.' मुकादमान सांगलें.

वेपाऱ्यान मुकादमाच्या हातार पांच रुपया उडयले आनी इसापाक घेवन तो चलूंक लागलो.

## २. इसापाक विकलो



इसापाक घेवन तो गुलामांचो वेपारी शारांत आयलो. ताणें आपले हेर गुलाम दवरिल्ले थंय ताका व्हेलो. तेन्ना थंय एकदम बोवाळ जालो. कांय भुरगीं आपआपल्या आवयां म्हऱ्यांत उबीं आसलीं, तीं इसापाक पळोवन किळांचूंक लागलीं. तांणी आपले दोळे गच्च धांपून दवरले. त्यो बायलोय कावऱ्यो-बावऱ्यो जाल्यो. इसापान वेपाऱ्याक म्हळें, 'पळयलें, हांवें म्हणूंक नासलें, ताचो हो पुरावो. आतां पोरां-सोरां रडचीं नात.'

खोशयेन वेपारी हांसलो आनी ताणें इसापाक म्हळें, 'भितर वच. त्या चौकुलांत तुजे हेर सांगाती जेवंक बसल्यात. वच आनी तांचे कडल्यान वळख करून घे.'

भितरल्या चौकुलांत सोबीत अशे कांय गुलाम जेवंक बशिल्ले. इसाप भितर गेलो. ताणें मोट्यान म्हळें, 'म्हज्या गुलाम इश्टांनो !' अचकीत इसापाचो आवाज आयकून जेवंक बशिल्ल्या गुलामांनी कच्च करून आंग

काडलें आनी ते किंळांचले, 'आरे हो कोण?' इसापान थंडसाणेन सांगलें, 'इश्टांनो, हांव जरी असो भयांकृतसो दिसलों तरी तुमचेवरी एक गुलाम.' ताचें उलोवणें आयकून ते सगले आपले भितर उलोवंक लागले.

- 'आं ! होय एक गुलामच तर ! पूण इतलो भयांकृत, विचित्र गुलाम विकतो घेवचेली बुद्द आमच्या धनयाक कशी जाली कांय कळना.'

- 'हाका धनयान कित्याक विकतो घेतला तें म्हाका खबर आसा.' दुसऱ्या एका गुलामान म्हळें.

- 'हय ? तशें जाल्यार सांग, आमकांय सांग, हाका धनयान कित्याक विकतो घेतला?' बाकीचे विचारूंक लागले. 'आमच्या सारक्या गुलामांक कोणाची नदर लागूं नये आनी हावको म्हणून ताका हेरांनी भिवचें हे खातीर ताका धनयान विकतो घेतला.'

इतल्यांत तो गुलामांचो वेपारी भितर आयलो आनी ताणें म्हळें, 'आतां तुमचें नशीब आनी तुमी ! तुमचे खातीर एकाद्री घोडी नाजाल्यार गाढव सामान व्हरपा पासत मेळटा काय पळयलें, निदान भाड्यान तरी मेळ्ळ्यार घेवचो लेगीत यत्न केलो. पूण कांयच सादलें ना. तुमी तुमचें सामान बांदात आनी कोणें कितें व्हरचें तें तुमचे भितर थारायात. फाल्यांच आमी बाजारांत वचूंक भायर सरतले. '

गुलामांनी सामानाची बादांबांद केली आनी ते दुसऱ्या दिसा प्रवासाक वचपाचे तयारेक लागले. तेन्ना इसापान तांकां हात जोडून म्हळें, 'इश्टांनो, हांव दिसतां तसो धडधाकट ना. तेन्ना तुमी म्हाका तातुंतल्या तातूंत ल्हवशें सामान दियात.' बाकीचे गुलाम म्हणूंक लागले, 'तशें जाल्यार तूं अजिबात सामान घेवं नाका.' इसापान म्हळें, 'छे, छे, तशें कशें जायत? तुमी म्हजे सांगाती. कश्ट करतासतना हांवे तुमकां हातभार लावप ना म्हळ्यार सामकी लजेची गजाल. आमचो धनी तरी कितें म्हणीत! एक गुलाम म्हणूंक लागलो, 'हो इसाप म्हणून खूबच बडबडटा. इसाप, तुका जाय तें सामान घे.' बाकीच्यांनी मान हालयली.

इसापान थंय बांदून दवरिल्ल्या सगल्या सामानावेल्यान एक नदर भोंवडायली. पेटयो, शेंदऱ्यो, हांतरूणाचे कवळे, आयदनां, हें सगलें

पळोवन तो जेवपाचो शिदो आनी फराळाचें सामान बांदिल्ल्या पोटल्या म्हऱ्यांत पावलो. तो पोटलो सगल्यांत व्हड आनी जडय बी आशिल्लो. हेर गुलामांकडेन पळोवन इसापान म्हळें, 'इश्टांनों, हो पोटलो उखलून म्हज्या माथ्यार दवरात.'

एक गुलाम हांसून व्हडल्यान म्हणूंक लागलो, 'आरे हो इसाप सामको म़्हामूर्ख सो दिसता. पयलीं सांगूंक लागलो, 'म्हाका एकदम ल्होव सामान दियात. आमी जाय तें काड म्हणटकच सगल्यांत जड तें काडटा.'

दुसऱ्या एका गुलामान म्हळें, 'आरे तो दिसता तितलो मूर्ख न्हय आं. तो मोठो म़ालकिर्याद. ह्या उपाशाक फराळाचें सामान आपल्या हातांत दवरून ताचेर बरो हात मारपा आसा सो दिसता! खावूंदी आनी हो पोटलोय बी ताकाच व्हरूंदी.' सगले गुलाम जमले आनी तांणी उखलून तो पोटलो इसापाच्या माथ्यार दवरलो. इसाप तो पोटलो घेवन चलूंक लागलो. तो पोटलो बरोच जड आशिल्लो. चलतना इसापाचे पांय लडलडूंक लागले.

गुलामाच्या वेपाऱ्याक तें पळोवन अजाप दिसलें. ताणें म्हळें, 'पळय, पळय, हो इसाप काम करूंक कसो धडपडटा तें पळय. आपले इत्सेन काम कशें करप ताचो तो धडोच घालून दिता दुसऱ्यांक. हाका हांवें सामको सवाय भितर विकतो घेतला. आनी हो एका गाढवाचें काम करता.' बाकीच्या गुलामांनी इसापाच्या पिशेपणाक हांसत हांसत सामान उखल्लें आनी ते चलूंक लागले.

सगले जाण वाटेक लागले. तेन्ना इसाप मधीं मधीं आपलो पोटलो रस्त्यावेल्यान ओडीत व्हरूंक लागलो. चडाव लागतकच तो पोटलो दांतांनी उखलून धरतालो आनी सडसडीत चडून वयर वतालो. वयर पावलो आनी देंवती सुरू जाली काय पोटलो रस्त्यार दवरून ओडीत व्हरतालो. अशें करीत करीत ते एका ठाण्यार पावले. वेपाऱ्यान म्हळें, 'इसाप, तुजो पोटलो उगड आनी सगल्यांक फळार खावंक दी.'

इसापान सगल्यांक फळार दिलो. ताचो पोटलो अर्दो जालो. आतां तो पोटलो खांदार घेवन इसाप सगल्यांच्या मुखार चलूंक लागलो. चलतां-चलतां ते दुसऱ्या ठाण्यार पावले. परत इसापान सगल्यांक फळार वांटलो.

ताची सगली पोटली रिकामी जाली. हात फाफडून आतां इसाप सगल्यांत मुखार गेलो.

– 'कोण रे तो सगल्यांत मुखार धांवता ? ' एकल्यान विचारलें.

'तो आमचे मदीं नवोच आयिल्लो गुलाम इसाप. ज्या दुबळ्या मनशान एका गाढवाचें सामान आपल्या माथ्यार घेतिल्लें तोच तो.'

– 'ताका अक्कल ना असो तुमचो समज आशिल्लो न्हय ? आतां सांगात.'

– 'ह्या मोटव्या मनशाची बुध्द बरीच उंच आसा. ताणें खावन सोंपपी जेवणाचो शिदो आनी फराळाचें सामान आशिल्ली पोटली उखलून तो मेकळो जालो. आमी बाबडे आयदनां, लाकूड-फाटो, हांतरूण-पांगरूण असलें सामान घेवन अजूनय ओडत-ओडत वतात.'

अशे तरेन उबगून उबगून ते निमण्या ठाण्यार पावले. थंय गुलामांचो व्हड बाजार भरिल्लो. गुलामांच्या त्या वेपाऱ्यान आपलेकडचे बरेचशे गुलाम बरोच फायदो घेवन विकले. पूण ताच्या तीन गुलामांक मात एकय गिरायक व्हरना जालें. तातुंतले दोग जाण दिसपाक सोबीत, तरनाटेशे आसले. तांचे मदलो एकटो पंतोजी आनी दुसरो सारंगीवालो आसलो. तिसरो इसाप. तांचे पैकीं पयल्या दोगांकूय बरे दरेन विकूंक मेळटले अशें त्या वेपाऱ्याक दिसलें.

तेन्नाच त्या वेपाऱ्याक ताच्या एका इश्टान म्हळें, 'ह्या गुलामांक घेवन तूं सॅमॉस जुंव्यार वच. थंयचे लोक खूब गिरेस्त. तत्वगिन्यानी झांथसाचें थंयच कॉलेज. ताका लागून आशिया आनी ग्रीक देसांतल्यान जायते लोक विद्याभास करूंक येतात. थंय तुजे हे गुलाम सहज खपतले. कोणूय एकाद्रो ह्या कुरुप गुलामाक लेगीत विकतो घेवन आपलो रांदपी करीत.' वेपाऱ्याक ताची ही सांगणी पटली. तो आपल्या उरिल्ल्या तीनय गुलामांक घेवन सॅमोस जुंव्यार गेलो.

वेपाऱ्यान सारंगीवाल्याक बरेशे कपडे घालूंक लायले. पंतोजीचे पांय पांगे आशिल्ले. ताका पांयां मेरेन काबाय घालूंक लायली. म्हणटकच ताचे पांय लिपले. इसापाक कसलेय आनी कशेय कपडे घाले तरी तो

भयांकृत आनी कुरूपच दिसतलो हें येवजून ताका सदचेच कपडे घालूंक लावन तांकां बाजारांत व्हेले. थंय इसापाक दोनय गुलामांच्या मदीं उबो केलो.

उपरांत गुलामांची पावणी सुरू जाली. जायते जाण येवन त्या गुलामांक पळयताले आनी आपसांत उलयताले, 'हे दोन गुलाम कितले सोबीत दिसतात. पूण तिसरो ? शी :! हें विचित्र आनी बुरशें ध्यान हांचे मदीं कित्याक उबें केलां काय ? ह्या येद्या मोठ्या भयांकृत मनशाक लागून उरिल्ल्या दोनय गुलामांक लेगीत पळयन दिसना. पयलीं हाका धांवडायात.

लोकांच्या अशा उलोवण्यांकडेन आडनदर करून इसाप वोग्गी उबो आसलो. कोण कितें उलयतात हाची ताका पर्वा नासली. तेन्नाच त्या रस्त्यावेल्यान गाडयेंत बसून तत्वगिन्यानी झांथसाची बायल वताली. तिणें गुलामांची पावणी चलता ती पळयली. 'आपल्याक लेगीत घरांत एक गुलाम जाय.' असो विचार करून ती घरा आयली.

झांथसा म्हन्यांत वचून तिणें म्हळें, 'आमच्या घरांत दादलो गुलाम ना. ते पासत तुमची सेवा-चाकरी लेगीत म्हजे दासींकच करची पडटा. आमच्या बऱ्या नशिबान आज बाजारांत दोन-तीन गुलाम विकूंक हाडल्यात. तेन्ना बेगोबेग वचात आनी आमचे खातीर एक बरोसो गुलाम विकतो घेयात.' बायलेमुखार झांथसाचें कांय एक चलनासलें. 'हाडटां' इतलें म्हणून झांथस गुलाम विकतो घेवंक भायर सरलो, वाटेंत ताका ताचे विद्यार्थी मेळ्ळे. तांचे वांगडा तो कितलोच वेळ तत्वगिन्यानाची भासाभास करूंक उबो रावलो. इतल्यांत ताका गुलाम विकतो घेवंक जाय म्हणपाची याद जाली. तो विद्यार्थ्यांक वांगडा घेवनच बाजारांत आयलो.

दोन सोबीत गुलाम दोनय वटेन उबे करून मदीं अजागळ कशा गुलामाक उबो केला तें पळोवन झांथसान आपल्या विद्यार्थ्यांक म्हळें, 'शाबास ! हो गुलामांचो वेपारी मोटो हुशार तत्वविचार करपी तसोच वेव्हारीय बी आसा, हातूंत मातय दुबाव ना.' विद्यार्थ्यांनी विचारलें, 'प्रोफेसर सायब, तुमी अशी कित्याची तुस्त करतात ? तुमकां हातूंत इतलें सोबीत कितें

दिसलें तें आमकां तरी सांगात.'

झांथसान म्हळें, 'विद्यार्थ्यांनो, आमी उतरांनी जें मांडटात ताकाच फकत तत्वगिन्यान अशें समजुंनाकात. कृतींतल्यानय तत्वगिन्यान प्रकट जाता. उतरांतल्यान तें मांडचे परस अशें कृतींतल्यान जें दिसता तें उंचेल्या पावंड्यावेलें तत्वगिन्यान थारता. नाचांतल्यान तें पळोवंक मेळटा जाल्यार हातांच्या आनी बोटांच्या हालचाली वेल्यानय तत्वगिन्यान दिसता. आतां हांगाच पळयात, दोन देखणे आनी एक कुरूप मनीस आसा. एका कुरुप मनशाक लागून ह्या देखण्या मनशाचें रूप चड उठून दिसता, नदरेंत भरतात ते. कुरुपताय मुखार दवरले बगर सुंदरकाय नदरेंत भरना.'

झांथसाचें उलोवप आयकून विद्यार्थ्यांनी म्हळें, 'वा, वा! प्रोफसर-सायब तुमी त्या वेपाऱ्याचो हेतू दिस्त वळखले!'

'बरें, बरें, चला आतां आमी एक गुलाम विकतो घेवया. म्हाका एक सेवक जाय.' अशें म्हणून झांथस मुखार सरलो. ताणें सारंगीवाल्याक विचारलें, 'कितें रे? तूं खंयच्यान आयला? ' 'हांव कॅपडोशियांतल्यान आयलां.' ताणें सांगलें. 'तुजें नांव कितें? तुका कितें कितें करपाक येता?' झांथसान विचारलें. 'हांव लिमुरस. म्हाका सगळें करपाक येता.' सारंगीवाल्यान म्हळें. हें आयकून इसाप व्हाडा व्हडान हांसलो.

इसापाक असो हांसतना पळोवन विद्यार्थ्यांक अजाप जालें. हांसतना ताचे दांत दिसताले आनी तो सामकोच विचित्र दिसतालो. तें पळोवन एका विद्यार्थ्यान म्हळें, 'कितें रे बाबा! हें पयलींच ध्यान, तातूंत दांत भायर ते तर सामकेच पळोवंनज.' 'आरे! पूण हो हांसलोसो कित्याक?' दोगांयलेंय उलोवणें आयकून तिसऱ्यान म्हळें, 'तो आनी हांसतलो कितें? ताका मोडणे मारून आयलां जातलें.' 'असे तर्क-वितर्क कित्याक काडया, हांव ताकाच विचारून पळेतां.' अशें म्हणून तो विद्यार्थी इसापाच्या फाटल्यान गेलो आनी ताचें खोमीस ओडून म्हणूंक लागलो, 'आरे शाण्या तुका मदींच हांसपाक शें कितें जालें?'

इसाप सद् करून फाटल्यान वळ्ळो आनी ताणें म्हळें, 'हत् मुर्खा! गाढव खंयचे कडलो! ' ताचें उलोवप आयकून तो काळो-निळो जालो.

सकल मान घालून हेर विद्यार्थ्यांमदीं येवन तो ओग्गी उबो रावलो.

ह्या सगळ्या घडणुकांकडेन झांथसाचें लक्ष नासलें. ताणें वेपाऱ्याक विचारलें, 'ह्या सारंगीवाल्याची किंमत कितली?' वेपाऱ्यान सांगलें, 'एक हजार रुपया.' ताचो दर आयकून झांथस दुसऱ्या गुलामा म्हऱ्यांत आयलो. ताणें त्या गुलामाक विचारलें, 'तूं खंयच्यान आयला रे?'

– 'हांव लिडिया देशांतल्यान आयलां. म्हजें नांव फिलोक्युलस.'

– 'तुका कसलें काम करपाक येता?'

– 'म्हाका सगळे तरेचीं कामां करपाक येतात.'

ताची जाप आयकून इसाप परतय खदखदूनहांसलो. विद्यार्थी अजापले. एकल्यान म्हळें, 'दर खेपे हो कित्याक हांसता? दुसऱ्या विद्यार्थ्यान हळूच म्हळें, 'तुका मुर्ख आनी गाढव म्हणून घेवचें आसा जाल्यार हो प्रस्न ताकाच विचार!'

विद्यार्थ्यांच्या उलोवण्याकडेन लक्ष दिनासतना ताणें वेपाऱ्याक विचारलें, 'हो पंतोजी तूं कसो विकतलो?' वेपाऱ्यान म्हळें, 'हाका तीन हजार रुपया पडटले.' तांचो दर आयकून , 'हे गुलाम म्हाका परवडपासारके नात.' अशें मनांत म्हणत झांथस वचूंक लागलो. तें पळोवन विद्यार्थ्यांनी विचारलें, 'प्रोफेसर, तुमकां हे गुलाम आवडले नात?' झांथसान म्हळें, 'गुलाम आवडले नात अशें न्हय. म्हाका म्हारग गुलाम विकते घेवपाचे नात. सवाय भितर गुलाम विकतो घेवप अशें म्हजें तत्व.'

हें आयकून एक विद्यार्थी म्हणूंक लागलो, 'गुलामांक चड पयशे दिवप ना अशें जर तुमचें तत्व आसा तर हो कुरुप गुलाम तुमी विकतो घेयात. होय तांचे इतलेंच काम करतलो. आमी वर्गणी काडून ताची किंमत भरतात.' झांथसान म्हळें, 'शी, शी, हांवें गुलाम घेवप आनी ताचे पयशे तुमी फारीक करप हीं सामकीं पिशेपणां. शिवाय म्हजे बायलेक चड बारीकसाण. तिणें हो कुरूप गुलाम पळयलो जाल्यार ती घर माथ्यार घेतली.'

– 'बायलांच्या उलोवण्यांकडेन चड लक्ष दिवप ना अशें तत्व तुमीच आमकां शिकयलां न्हय? ' एका विद्यार्थ्यान झांथसाक विचारलें. झांथसान

म्हळें, 'बरें आसा. पूण पयलीं हाका मात पूण अक्कल आसल्यार पळोवया. ओगीच तुमचे पयशे कसल्याय मनशाचेर खर्च जावूंक जायनात.

उपरांत झांथस इसापाकडेन गेलो आनी ताका म्हळें, 'देव तुजें बरें करूं.' इसापान रोखडेंच म्हळें, 'देवान म्हजें वांकडें केलां अशें तुका कोणें सांगलां बी ?' विद्यार्थ्यांनी म्हळें, 'खऱ्यांनीच देवान हाचें कितेंय वांकडें केल्लें आसत जाल्यार आमकां खबर ना.'

झांथसान इसापाक विचारलें, 'तूं खंयच्यान आयला?' हाडामांसांतल्यान!' इसापाची जाप आयकून उबगनासतना झांथसान म्हळें, 'तुजो जल्म खंय जालो?' इसापान फट् करून म्हळें, 'म्हजे आईकडेन.'

'आरे, पूण तुच्या जल्मावेळार तुजी आई खंय आशिल्ली काय विचारतां हांव.'

'आं, अशें, अशें, पूण म्हजी आई तेन्ना रांदचे कुडींत आसली काय सालांत आसली तें हांवें तिका केन्ना विचारलें ना.' झांथसाक राग सावरना जालो. ताणें तापूनच विचारलें, 'तुजो देश खंयचो अशें म्हाका विचारपाचें आसा.' इसापान थंडसाणेन सांगलें, 'आं, आं, हांव फ्रिगिया देशांतलो.' 'बरें आसा, तुका कितें कितें करपाक येता?'

'म्हाका कांयच करपाक येना.'

झांथसान अजापान विचारलें, 'कांयच करपाक येना अशें कशें जातलें? ' इसापान सांगलें, 'म्हज्या ह्या दोनय इश्टांक जर सगलें करपाक येता तर म्हाका कांयच करपाक येना म्हळ्यार तातूंत अजाप कसलें?' सगले विद्यार्थी एकदम खदखदून हांसूंक लागले. तांणी म्हळें, 'वा ! वा ! हो बरोच हुशार आसासो दिसता. त्या दोनय गुलामांच्यो जापो चुकीच्यो आसल्यो. जगांतलो खंयचोय मनीस सगलीं कामां करूंक शकना. म्हणूनच तर हो वोढोळच्यान हांसतालो. आनी आतां आपल्याक कांयच करूंक येना अशें म्हणटा.'

विद्यार्थ्यांच्या उलोवण्याकडेन आपलें लक्ष ना अशें दाखोवन झांथसान विचारलें, 'हांवें तुका विकतो घेवचो अशें तुका दिसता?'

इसाप एकदम तापून म्हणूंक लागलो, 'म्हणचे तुमकां कितें

दिसता? म्हजे विशींचो सल्लो म्हजेकडेनच मागतात, म्हणटकीर हांव तुमचो सल्लागार म्हणून तुमचे मालकीचों जालों समजतात काय कितें तुमी? म्हाका विकतो घेतले जाल्यार घेयात, ना जाल्यार चलूंक लागात! म्हजो धनी आपले गुलाम दुसऱ्यांच्या गळ्यांत बांदपापासत हांगा येवंक ना. म्हाका विकतो घेवपाची तुमचेर कोणें सक्ती करूंना. म्हाका घेतले जाल्यार घेयात नाजाल्यार बेठींच म्हजीं फकाणां करनाकात.'

झांथसान विचारलें, 'आरे, आरे, आरे! कितलो बडबडलो तूं?' इसापान फट्ट करून सांगलें, 'उलोवपी कीर चड दरान खपता.'

एक विद्यार्थी व्हडान आड्डलो, 'शाब्बास! शाब्बास! तुवें आमच्या प्रोफसर सायबाचें तोंडच बंद केलें!' विद्यार्थ्यांच्या उलोवण्याकडेन आडनदर करून झांथसान विचारलें, 'तुका विकतो घेवचो अशें म्हाका मनांतल्यान दिसता. पूण तूं पळून बिळून वचचो ना मरे?' इसापाक निरूत्तर करपापासत झांथसान हो प्रस्न विचारिल्लो. पूण इसापान जाप दिली, 'तुमी जसो म्हजो सल्लो विचारलो तसोच तुमचो सल्लो विचारून हांव पळून वतलों सो दिसता तुमकां? म्हजी तशी इत्सा आसली जाल्यार पळून वचनय बी हांव! पूण सांगात, हांवें पळून वचचें काय ना हें कोणावेल्यान थारतलें? तुमकां लागून काय म्हाका लागून?'

झांथसान विचारलें, 'म्हणचे कितें? तुवें पळून वचचें काय ना तें तुजेरच आसा.' इसापान निक्षून सांगलें, 'अजिबात ना. हांवें पळून वचचें काय ना तें तुमचेर आसा.' 'तें कशें?' झांथसान विचारलें.

'तुमी तुमच्या गुलामाक जर बरेतरेन वागयले तर गुलाम पळून कित्याक वतले? गुलामांनी पळून वचप म्हळ्यार तांचेर उपाशी मरपाची वेळ येता आनी ताका धरलो जाल्यार ख्यास्तय जाता. तुमी बरेतरेन वागयल्यार खंयचो गुलाम मुद्दम आपल्याचेर अरिश्ट ओडून घेतलो. तुमी जर तुमच्या गुलामाक वायट रितीन वागोवशात तर हांव तुमगेर एक घटका न्हय एक मिनीट लेगीत रावचोना !'

झांथसान मनांतल्या मनांत म्हळें, 'हो बिलंदर गुलाम कितेंय पूण लिपयता.' मागीर ताणें इसापाक म्हळें, 'तूं म्हणटा तें एक मनीस म्हणून

बरें आसा. पूण तूं भयांकृत आनी विद्रूप आसा.'

इसापान सांगलें, 'म्हजे भायले कुडीकडेन पळयनाकात. तुमी म्हजो अंतरात्मो तपासून पळयात.' 'वा ! भायले कुडीक पळय नाका अशें म्हणून कशें जातलें?' झांथसान विचारलें. 'उशेकांडो भायल्यान पळोवपाक वांकडो-तिकडो आसता पूण ताचो रोस कसो गोड गोड आसता.' इसापान जाप दिली.

झांथस ताचे खुसखुशीत जापेन खूश जालो. तो वेपाऱ्याम्हऱ्यांत गेलो आनी ताका विचारलें, 'ह्या गुलामाची किंमत कितली?'

वेपाऱ्यान विचारलें, 'तुमी म्हजीं फकाणां करतात काय कितें?' 'हातूंत कसलीं फकाणां आयलीं?' झांथसान विचारलें. वेपाऱ्यान विचारलें, 'हे दोन बरे गुलाम सोडून, तुमी हें विचित्र ध्यान विकतें घेतात म्हणटकीर तुमी म्हजीं फकाणां करतात म्हणचें पडलें ना. तुमी हांतलो खंयचोय एक गुलाम विकतो घेयात. मागीर हो इसाप तुमकां फुकट दितां.'

झांथसान म्हळें, 'तांकां सोड. पूण तुमी हाची कितली किंमत घेतले?'

वेपाऱ्यान म्हळें, 'हांवें हाका साठ रुपयांक घेतला. आतां मेरेन ताचेर पंदरा रुपया खर्च केल्यात. तितलेच पयशे दियात आनी हाका घेवन चलात.'

झांथसान आनी ताच्या विद्यार्थ्यांनी इसापाची किंमत भरली आनी ताका घेतलो. गुलामाची विक्री जाल्या म्हणपाची खबर जकातदाराक कळ्ळी. तो खर्शेत, धांपेत थंय आयलो. ताणें विचारलें, 'गुलाम खंयचो? ताका कोणें विकला? कोणें घेतला?' जकातदाराचो कर चुकोवचो अशी झांथसाची इत्सा आसली, म्हण तो ओग्गी रावलो.

वेपाऱ्याचो घुस्मटमार जालो. कोणच उलयनात तें पळोवन इसापान आड्डून सांगलें, 'हांव गुलाम. म्हजी आतांच खरेदी-विक्री जाल्या. घेवपी आनी विकपी दोगयजाण हांगाच आसात. पूण ते जर कोणच उलयनात जाल्यार हांव कोणाचोच गुलाम न्हय. हाचे वेल्यान आतां हांव स्वतंत्र नागरीक जालो अशें सिद्ध जाता !'

डाव आपल्याचेर परतता तें पळोवन झांथसान जकातदाराक म्हळें, 'हो म्हजो गुलाम. हांवें पंचात्तर रुपया दिवन विकतो घेतला.' ताची खबर आयकून जकातदारान कर घेवन पावती दिली आनी तो गेलो. इसापाक घेवन झांथस आनी ताचे विद्यार्थी घरा गेले.

## ३. इसापाक सोट्याचो मार

झांथस आनी इसाप बाजारांतल्यान घरा वचूंक लागले. सुर्या माथ्यार तळपतालो. रखरखीत वोतान जमीन भाजताली. जमनीवेल्यान चलपी त्या आगेलांत हुलपताले. ते पासत रस्त्यार एक जितो मुसय नासलो. झांथस मुखार वतालो आनी ताचे फाटल्यान इसाप.

इतल्यांत झांथस आपली काबाय वयर काडून चलतां-चलतांच मुतूंक लागलो. तें पळोवन इसापाक खूब राग आयलो. ताणें झांथसाची काबाय फाटल्यान ओडली आनी ताका म्हळें, 'धनया, हांव पळून गेलों जाल्यार तुमकां आवडुचेंना. तूं म्हाका आतांच्या आतां विकून उडय. म्हाका तुमचो गुलाम म्हणून रावपाचो ना.'

झांथसान विचारलें, 'पूण अशें जालें तरी कितें? अचकीत तुज्या मनांत आयलें तरी कितें?' इसापान सांगलें, 'धनया, तूं जे तरेन रस्त्यावेल्यान मुतत वता तें पळयल्यार तुमचे सरीं कोण रावत? तुमी स्वताच धनी. घरा पावंक तुमकां वेळ जालो म्हणून कोण तापोवचो ना. गुलामाप्रमाण मार-धपटय करचोना आनी कुडींत कोंडूनय दवरचो ना. तरी रस्त्यावेल्यान वतना मुतपा पुरतोय तूं वेळ वगडायना. मागीर फाल्यां तुमचो गुलाम म्हणून तुमी म्हजें कितें करतले?'

झांथसान म्हळें, 'आं, हीच एक चिंता पडल्या मरे? तशें जाल्यार हांव चलतां चलतां कित्याक मुततां तें तुका सांगतां. ताचीं तीन कारणां आसात. पयलें कारण म्हळ्यार जमीन तापल्या. दुसरें कारण म्हळ्यार मुताची खातसाण सोंसूं नज आनी तिसरें कारण सुर्याचें कडकडीत वोत.'

इसापान सांगलें, 'हीं तीनय कारणां म्हाका पटनात.' झांथसान

म्हळें, 'हांव तुका पटोवन दितां. समज, हांव मुतूंक रावलों जाल्यार पांय भाजतले. हे तापिल्ले जमनीर मूत पडटकीर जी घाण येतली तिका लागून म्हजी तकली उसळटली. शिवाय वोतान म्हजी तकली तापतली.'

हें आयकून इसापान म्हळें, 'तुमी तर्क बरो काडटात हें म्हाका आज पटलें. चला या.' झांथसान वतां वतां म्हळें, 'व्वा! हांवें म्हजे पयशे खर्चून गुलाम विकतो घेतला काय मालक विकतो घेतला? कांय कळना. चल या बाबा.'

ते दोगय घराकडेन पावले तशें झांथसान इसापाक म्हळें, 'इसाप, म्हजी बायल सामकी बारीकसाणेची. हांव तुका विकतो घेतिल्ल्याची खबर मोटे युक्तीन तिका सांगतां. ते मेरेन तूं दाराभायर उबो राव. तिणें तुका एकदम पळयल्यार ती आतांच तिच्या बापायन दिल्लो हुंडो मागतली आनी म्हजें घर सोडून वतली.'

इसापान म्हळें, 'तुमी इतले बायलेचे मुठींत आसात जाल्यार बरे भाशेन वचून तिची समजूत घालात. हांव हांगा भायर उबो रावतां.' झांथस घरांत गेलो आनी बायलेक उलो मारूंक लागलो, 'प्रिये, हाचे फुडें हांव तुजी कटकट आयकून घेवपाक ना. तुज्या दासींक म्हजीं कामां करचीं पडटात अशी तुजी आरड आतां आयकून घेवपाक ना. आतां हांवें म्हजे खातीर एक गुलाम विकतो घेतला.'

झांथसाचे बायलेन म्हळें, 'देवते-माते! तुजी कृपा व्हड. तुवें सपनांत जें दाखयल्लें तेंच घडलें ! झांथस, आतांच हांव न्हिदिल्लें तेन्ना म्हाका एक सपन पडलें. तुमी एक सोबीत गुलाम विकतो घेवन म्हाका दिला अशें म्हाका दिसलें.'

झांथसान म्हळें, 'प्रिये, इतली ताकतीक करूं नाका. मातशी राव. अशें सौंदर्य तुवें केन्नाच पळोवं ना. हो खासा मदनाचो पुतळोच अशें तूं म्हणटली.'

झांथसाचें उलोवणें आयकून दासी भुल्लुसून गेल्यो.

एक दासी म्हणूंक लागली, 'आमच्या धनयान हो गुलाम म्हजेखातीर घोव म्हणून हाडला!' दुसरेन म्हळें, ' हें: तो म्हजेखातीर हाडला.

हांवें ताका सपनांत पळयल्लो.' तिसरेन म्हळें, ' जी पळय सगल्यांत बरे तरेन वागता, तिकाच तो मेळटलो. हांवच सगल्यांत बरी वागतां.'

'ना, ना, अजिबात ना.' चवथेन म्हळें. अशे तरेन त्यो दासी आपसांत झगडूंक लागल्यो.

तांचें झगडें आयकून झांथसाचे बायलेन म्हळें, 'आरे, आरे, इतली ज्याची स्तुती चल्ल्या तो गुलाम आसा तरी खंय?' झांथसान म्हळें, 'प्रिये, तो दारा भायर उबो आसा. आपयले बगर दुसऱ्याच्या घरांत वचप ना अशी ताची खानदानी वागणूक. तो म्हजेबरोबर दारामेरेन येवन आपोवपाची वाट पळयत थंयच उबो रावला.'

झांथसाचे बायलेन सांगलें, 'तशें जाल्यार कोणूय तरी वचून ताका आपोवन हाडात.' सगल्यो दासी आपसांत वाद करीत आसल्यो. तांतले एके दासीन मनांत म्हळें, 'बसूंदी हांकां सगळ्यांक झगडत. हांव भायर वचून ताचे लागीं म्हजें लग्नच थारावन येतां!'

ती भायर आयली आनी तिणें खासा इसापाकच विचारलें, 'आरे, तो नवो आयिल्लो गुलाम खंय?'

इसापान सांगलें, 'बाय, हांवच तो नवो गुलाम!' तिणें एकदम किळांच मारली. 'तूं?!' दासीन म्हळें, 'तशें जाल्यार तुका शेंपडी कशी ना?' इसापाचे कुरुपतायेची टिंगल करूंक तिणें हो प्रस्न विचारिल्लो. ताका कांयच उलोवंक दिनासतना तिणें परत म्हळें, 'तूं हांगाच राव. तूं एकदम भितर गेल्यार तुजें हें सवंग पळोवन सगलीं पळून वतलीं. थांब हांगाच!' इसापाक अशें सांगून ती भितर पळाली. तिच्यो हेर इश्टिणी इसापाकडेन कोणें लग्न जावचें हे पासत झगडटाल्यो. हे दासीन तांकां सांगलें, 'रावात, तुमच्या सपनांचो बोमाडो हांव फोडटां. तुमी पळय हांगा हमरी-तुमरीचेर येवन झगडटात, ते परस भायर वचून ताका पळोवन कित्याक येनात?'

तेन्ना एक दासी भायर आयली आनी म्हणूंक लागली, 'आमच्या धनयान विकतो घेतला तो सोबीत गुलाम खंय आसा काय ?' थंयच उबो आशिल्ल्या इसापान जाप दिली, 'हो पळय हांव हांगा आसां!' इसापाक

पळोवन ते दासीकूय राग आयलो. तिणें व्हडल्यान तापून म्हळें, ‘ पाडा पडूं तुजें. तुज्या असल्या सवंगाक लागून आमी इतली बाचाबाची केली? व्हासिमोर !’ पेल्यान सरून भितर वच. म्हाका आफडूं लेगीत नाका !’

इसाप भितर गेलो आनी झांथसाची बायल आशिल्ली थंय वचून उबो रावलो. इसापाचें अजागळ ध्यान पळोवन तिका संताप आयलो. तिणें तिडकून म्हळें, ‘झांथस, तूं तत्वगिन्यानी मनशावरी धुर्तपणान वागलो! तूं मोटो सभ्य म्हणून म्हाका आज कळ्ळें. तुका दुसरी बायल हाडची आसा. म्हाका घरांतल्यान भायर सरून वच म्हणची कापस्ताद ना तुका. हांव कितली खोडयाळी, हट्टी बायल म्हणून खबर आसा तुका, म्हणून हांवें आपूण जावन हें घर सोडून वचचेपासत तुवें हो अजागळ गुलाम हाडला! बरें आसा. म्हज्या बापायन दिल्ली वरदक्षणा दी पयलीं. आतां हांव चल्ली कुळारा !’

आनी ती चार पावलां चलून मुखार गेली. तेन्ना इसापाक झांथसान विचारलें, ‘ गुलामा, वोढोळ रस्त्यान वतना हांव मुततालों म्हणून तूं बडबडटालो, आतां तुजी वाचा धरली ? दी मरे तिका जाप !’

इसापान म्हळें, ‘ती घर सोडून वता जाल्यार वचूं, मरूं तिका थंय!’ ताची जाप आयकून झांथस तापलो, ‘खबरदार मुर्खा ! अशें कितेंय उलयल्यार हांव वोगी रावपाचो ना. हांव तिचेर जिवापरस चड मोग करतां.’ इसापान म्हळें, ‘आं, म्हणटकीर तुजो तुजे बायलेचेर मोग आसा तर !’ ‘हय तर !’ झांथसान म्हळें. ‘तशें जाल्यार तिणें घरांतच रावचें अशें तुमकां दिसता मूं ?’ इसापाज विचारलें. ‘हय, हय, हय !’ झांथसाची जाप आयकून इसापान म्हळें, ‘बरें आसा तर. तुमी म्हणटात तशेंच करतां.’

अशें म्हणून इसाप पांय जमनीर आपटून व्हडान म्हणूंक लागलो, ‘तत्वगिन्यानी झांथस इतलो बायजण आसत जाल्यार तो कितलो नालायक जावन आसा हें हांव फाल्यां ताच्या उलोवपा वेळार लोकांक दाखोवन दितलों.’

झांथसान ल्हवूच इसापाक म्हळें, ‘आरे इसाप ! हें तूं कितें उलयता?’ ताच्या उलोवण्याकडेन लक्ष दिनासतना इसापान झांथसाचे

बायलेक म्हळें, 'बाय, तुमच्या घोवान तुमचे पासत एकाद्रो गोरो, गोमटो, मोटवोसो सुंदर हांसत्या दोळ्यांचो तरनाटो गुलाम विकतो हाडचो म्हणून बी तुमी ताका त्रास करिनात मूं ?'

झांथसाची बायल तापली. तिणें म्हळें, 'कितें ! कितें म्हणपाचें आसा तुका ?' इसापान सांगलें, 'म्हाका कितें म्हणपाचें आसा तें आतां तुका सांगतां. गोरो सोबीत तरनाटोसो गुलाम तुमकां कित्याक जाय ? ताणें तुमचे कपडे घेवचे, न्हाले उपरांत तुमचे पांय पुसचे, तुमचे पांय चेपचे, तुमचे वांगडा हांसचें, खेळचें, हे पासत तुमकां जुवान गुलाम जाय. पूण तुमी कांय आतां तरनाटीं उरूंक नात. तरी तुमकां जुवान गुलामाचो घोस्त! एका तत्वगिन्यानी मनशाची हुशार बायल. आनी तिका जुवान सोबीत गुलाम जाय. खरेंच तुमी तुमच्या घोवाच्या तोंडाक काळें लायलें ! ताचें नांव वगडायलें.'

इसापाच्या उलोवपाचो घोगो आयकून झांथसाची बायल अजापीत जाली. तिच्या तोंडांतल्यान उतर फुटना जालें. कांय वेळान मोनेळ तोडून तिणें झांथसाक म्हळें, 'हो कोण हाडला बाबा तुवें? गुलाम कांय देंवचार?' झांथसान म्हळें, 'हें कांय न्ही, वोढोळ रस्त्यान येतना हांव मुतत येतालों जाल्यार हाणें म्हाका केदें प्रवचन सांगचें ? तूं मातशी सांबाळून राव ताचेपसून.'

झांथसाचे बायलेन म्हळें, 'हो गुलाम बरोच धीट आनी हुशार आसा. सद्या ताचेकडेन झगडें वाडोवपाक कांयच अर्थ ना.'

मागीर झांथसान इसापाक सांगलें, 'इसाप, ही तुजी धनीण. तुजेर रागार जाय नासतना तिणें तुजो गुन्यांव भगशिला. हाचे फुडें तिचेकडेन झगडीं करप ना.'

इसापान हांसून सांगलें, 'धनया, बेठेंच भेसडावन एके बायल मनशेक वठणेर हाडप सादी गजाल न्ही. हें तुमकां पटलां जातलेंच !' झांथसान रोखडेंच ताका म्हळें, 'हां, हां, एकदम मान्य ! पूण तूं आतां कामाक लाग.' तेन्ना झांथसाचे बायलेन म्हळें, 'राव ! इसाप, तूं आतां मेरेन जी बडबड केल्या ताचेवेल्यान तुका तोंड वाजोवंक येता म्हणून कळटा. पूण

एक गजाल तुज्या लक्षांत येवंक ना. म्हाका सपन पडिल्ल्यान हांव फसलें. एका सोबीत गुलामाक झांथस विकतो घेता अशें हांवें सपनांत पळयलें. पूण तूं तर कुरूप !'

इसापान म्हळें, 'बाय, सपनाक लागून तुमी फटवलीं हातूंत कांय अजाप ना. सगलींच सपनां कितें खरीं जातात? झेअस देवान अपोलोक 'तुका भविश्य कळटलें' असो वर दिल्लो. पूण सगले लोक अपोलोची तोखणाय करतात तें पळोवन तो हेर देवांक म्हत्व दिना जालो. अपोलो स्त्रामको चण्या झाडार चडिल्लो. तो तोंडाक येता तश्यो बडायो मारूंक लागलो. तें झेअस देवाक सहन जालें ना. अपोलोचें म्हत्व उणें करपाक ताणें लोकांक भविश्य सूचक सपनां पडटलीं अशें केलें. ताका लागून लोकांक अपोलोच्या भविश्य सांगपाचे शक्तीची गरज उरली ना. हें समजतकच अपोलो झेअस देवाक शरण आयलो. झेअसान ताचो गुन्यांव भगशिलो. मागीर लोकांक फटीचीं सपनां पडूंक लागलीं. आपलीं सपनां फट जातात हें लोकांक कळ्ळें. तर बाय, तुमकां पडिल्लें सपन हें दुसरे तरेचें आसलें. म्हणून तें फट जालें.'

इसापाचें उलोवणें आयकून झांथस खोशी जालो. इसाप वेळाप्रसंगार फावो तशें उलोवपी हें झांथसाक कळ्ळें. ताणें म्हळें, 'इसाप, पिशव्यो घे आनी म्हजे बरोबर चल. आमी मळ्यांत ना जाल्यार बाजारांत वचून भाजी घेवन येवंया.'

इसापान पिशव्यो घेतल्यो आनी तो झांथसा फाटल्यान चलूंक लागलो. ते एका भाजयेच्या मळ्याकडेन पावले. झांथसान माळ्याक सांगलें, 'माळीदादा म्हाका थोडी भाजी जाय.' माळ्यान थोडी भाजी काडून इसापाकडेन दिली. झांथस पाकिटांतल्यान पयशे काडूंक लागलो. तें पळोवन माळ्यान म्हळें, 'प्रोफेसर सायब, हे पयशे कित्याक?' 'कित्याक म्हणचे? तुजेकडल्यान हांवें भाजी घेतली ना?' झांथसान म्हळें.

माळ्यान रोखडेंच म्हळें, 'शी, शी, प्रोफेसरसायब, तुमचे पांय म्हज्या मळ्याक लागले हेंच म्हजें भाग्य. म्हज्या मळ्यांत खूब तरेची भाजी जाता. पूण म्हाका एके गजालीची फोडणीशी जाय.' झांथसान म्हळें,

'विचार, तुजी सांगणी आयकले बगर हांव ही भाजी घेवचो ना. पूण एक लक्षांत दवर. हांव फकत तत्वगिन्यानाचो प्रोफेसर. तशेच प्रस्न आसल्यार जाप दीन.'

माळ्यान हांसून म्हळें, 'तें म्हाका खबर आसा. कितलेशेच दीस जाले, एक प्रस्न म्हाका सतायता. म्हाका हें एक कुवाडेंच कशें पडलां. हांव जमनींत रोंपो रोयतां. ताका आळें करून उदक घालतां. पूण त्या रोंपल्यान जीव धरचे पयलींच ताचे भोंवतणी घसघशीत तण वाडटा. अशें कित्याक जाता?' हो तत्वगिन्यानान भरिल्लो गूढ प्रस्न आयकून झांथस मातसो घुस्पलो. ताका एकदम जाप सुचना जाली. थोडो विचार केले उपरांत ताणें सांगलें, 'ह्यो सगल्यो गजाली परमेश्वराचे कृपेन घडटात.'

इसाप झांथसाच्या फाटल्यानच उबो आशिल्लो. झांथसान दिल्ली जापआयकून तो व्हडाव्हडान हांसपाक लागलो. झांथसान फाटल्यान वळून विचारलें, 'इसाप, तूं हरशींच हांसला काय म्हाका हांसला?' इसापान हांसतच जाप दिली, 'छट् ! हांव तुमकां हांसूंक ना ! तुमकां ज्या प्रोफेसरान शिकयला, त्या प्रोफेसराक, तुमच्या गुरूक हांसलां.'

झांथसान तिडकीन म्हळें, 'काळया तोंडाच्या ! तूं ग्रीक विद्यापिठाची टिका करता. थंयच्या प्राध्यापकांक, तत्वगिन्यान्यांक नांवां दवरप म्हळ्यार सामकीं नास्तिकपणां. ' इसापान थंडसाणेन सांगलें, 'धनया, तुमी जर पिशेपणांच्यो जापो सांगल्यो जाल्यार लोक तुमकां हुर्यो घालून हांसतलेच.'

झांथसान विचारलें, 'माळ्यान विचारिल्ल्या प्रस्नाक हांवें सांगल्या ताचेपरस आनी दुसरी खंयची जाप आसा? ज्यो गजाली ईश्वराचे सत्तेन जातात तांची तत्वगिन्यानी मनशांनी चड फोडणिशी करूं नये. तुजेकडेन आसा हाचेपरस वेगळी जाप?' इसापान म्हळें, 'इसाप, तूं जाप दी.' अशें तुमी सांगल्यारच हांव माळ्याच्या प्रस्नाची जाप दीन.

झांथस पेचांत पडलो. ताणें तिडकून म्हळें, 'इसाप, सुबेजपणां करनाका. तूं स्वताक खूब शाणो समजता काय कितें ? हांवें व्हड व्हड पंडितांचे सभेंत भासाभास केल्या. अशा ह्या मळ्यांत तुजेकडेन भासाभास

करचेली म्हाका कांयच गरज ना. बरें चल.' वतां वतां ताणें माळ्याक सांगलें, 'हो म्हजे बरोबर जो नोकर आसा न्ही तो बरो अणभवी आसा. तूं ताका तुजो प्रस्न विचार. तो जाप दितलो.'

इसापाकडेन हिणसायिल्ले नदरेन पळोवन माळ्यान म्हळें, 'प्राफेसर सायब, हें सवंग म्हज्या प्रस्नाची जाप दितलें ? हाका एक अक्षर तरी कळटा मूं ?'

इसापान रागान उसळून म्हळें, 'कितें रे नालायका, म्हाका नांवां दवरूंक लागलो तूं ? तशें जाल्यार आयक, तूं माळी मूं ? तूं मळ्यांत रोपे रोयता. तांकां आळें करता, उदक घालता, ताची जतनाय घेता; तरीय तुजो रोंपो वाडचे पयलीं ताचे भोंवतणीं तण रसरशीत वाडटा. हाचीच तुका चिंता जाल्या, हय मरे ? तशें जाल्यार बरें करून आयक, एके बायलेचो घोव मेलो आनी तिणें दुसरें लग्न केलें, पयल्या घोवाचीं भुरगीं घेवन ती दुसऱ्या घोवागेर गेली. थंय त्या दुसऱ्या घोवाक पयलीं जाल्लीं भुरगीं आसतलीं, तर ही बायल आपल्या भुरग्यांक जशी सांबाळटा तशी सवती भुरग्यांक सांबाळटली? तशें तुवें रोयिल्लो रोपो जमनीक सवती-भुरग्याभाशेन दिसता. पूण तण हें तिच्यांतल्यानच वाडटा. तें तिचें खासा भुरगें. म्हणून जमीन ताका घसघशीत वाडयता.

इसापाची जाप आयकून माळी खोशी जालो आनी म्हणूंक लागलो, 'तुवें म्हजी एक चिंता ना केली. ही दिल्या ती भाजी भेट म्हणून घे. आनी कितेंय जाय जाल्यार ह्या मळ्यांतल्यान बरे भाशेन काडून व्हर.

झांथस आनी इसाप ती भाजी घेवन घरा आयले. इसापान ती भाजी बरी धुली आनी तो शिनूंक बसलो. इतल्यांत झांथसान ताका उलो मारलो. ते बरोबर भाजी आनी सुरी थंयच दवरून इसाप भायर गेलो. तेन्नाच झांथसाची बायल रांदचे कुडींत गेली. थंय सट्ट करून सुरयेचें तोंक तिच्या पांयाक लागलें. मनांतल्यान ती इसापाचेर रागार आशिल्लीच. ही एक बरी संद मेळ्ळी असो विचार करून ती रागान थयथयाट करूंक लागली. 'कोणें दवरिल्ली ही सुरी?' आड्डून उलयत ती भायर आयली.

इसापान थंडसाणेन सांगलें, 'हांव थंय भाजी शिनूंक बशिल्लों.

पूण धनयान उलो मारिल्ल्यान हांव थंयच्यान भायर आयलों.' इसापाची जाप आयकून ती परत तापूंक लागली, 'म्हजो पांय कापला हांगा आनी भाजी कसली शिनता ? राव दाखयतां.' अशें बडबडत भितर गेली आनी तिणें भाजी पांयापोंदा मस्तून उडयली. परत भायर येवन ती झांथसाक खेंपूंक लागली. 'एक देडशाणो गुलाम तुवें म्हजो जीव घेवंकूच हाडला काय कितें?'

तिचें तोंड बंद जावचें म्हणून झांथस इसापाक उलोवंक लागलो. ताणें म्हळें, 'तूं स्वताक खूब शाणो समजता आनी दर खेपे म्हाका त्रासांत उडयता. म्हजे बायलेचो पांय कापचो म्हणूनच तुवें सुरी सकयल दवरिल्ली मरे ? भाजी शीन म्हणून तुका कोणें सांगिल्लें ? खबरदार ! हाचे मुखार आपली तकली लडोवन कितेंय शाणेपणां केलीं जाल्यार ! हाचे मुखार हांव सांगतां तशेंच आनी तितलेंच काम तुवें करप. चल आतां, तेलाची उरवुळी आनी आंग पुसपाचो तुवालो घे आनी म्हज्या वांगडा यो. म्हाका आतां न्हावंक जाय.'

इसापान मनांतल्या मनांत म्हळें, 'हो झांथस वोगीच म्हजेर तापता. हांवें सरळ काम केल्लें. तिच्या मुर्खपणाक लागून तिका त्रास जालो. बरें आसा, आतां ह्या तत्वगिन्यानी प्रोफेसराक बरी बुद्ध शिकयतां.' अशें म्हणून ताणें तुवालो खांदार उडयलो. उरवुळी घेतली. ती रिकामी आशिल्ली तरीय ती तशीच घेतली आनी झांथसाच्या फाटल्यान चलूंक लागलो.

न्हाणयेकडेन पावतकच झांथसान आपले कपडे काडून दिले. ताचेकडल्यान तेलाची उरवुळी घेवन ताणें तातूंत दावल बुडोवन हातार रकोवंक लागलो. रिकामे उरवुळेंतल्यान पडटलें कितें ? ताणें तापून इसापाक विचारलें, 'इसाप, हातूंत तेल खंय आसा ? ' 'घराकडेन' इसापान थंडसाणेन सांगलें. झांथसाक ताचो संताप आयलो. ताणें आड्डून विचारलें, 'घरा आसा म्हणून सांगता वेल्यान ? घरा आसा जाल्यार तें हे उरवुळेंत घालून कित्याक हाडलें ना ?'

इसापान सांगलें, 'तुमी म्हाका तेल घे म्हणून सांगूंक नासलें. तुमी तेलाची उरवुळी आनी तुवालो घे म्हणून सांगिल्लें तितलेंच हांवें घेतलें.

तुमचे सांगणेभायर म्हजी तकली लडोवन तुमी म्हाका कांयच करूं नाका ! तुमी सांगिल्लें तितलेंच कर म्हणून सांगिल्लें न्हय ? हांवें तुमचो हुकूम मोडलो जाल्यार तुमी म्हाका चाबकान मारतले आसले.' इसापाची जाप आयकून झांथस कांयच उलयलो ना. तो तेल लायनासतनाच न्हावंक लागलो.

## ४. झांथसाचे बायलेक बुद्द शिकयली.



झांथस न्हावपाचे तयारेंत आसलो. इसाप ताचे कपडे घेवन थंयच उबो आसलो. इतल्यांत ताचे कांय इश्ट थंय येतात ते पळयलें. ताणें इसापाक सांगलें, 'इसाप, तुज्या हातांतले म्हजे कपडे म्हज्या इश्टांच्या गुलामाकडेन दी. तूं घरा वच आनी आमच्या जेवणाची तयारी कर. आमी हाडिल्ली भाजी वोदोळ म्हजे बायलेन रागान मस्तून भायर मारली. तेन्ना, आतां तूं आमचे खातीर मसूर शिजोवन दवर. एक तोप घे. तातूंत मसूर घाल. जाय तितलें उदक घाल. मागीर तो तोप रांदनीर दवर. रांदनींत लाकडां घालून पेटय. तीं पालवूंक लागलीं जाल्यार फूक मारून परत पेटय. चल, हांवें सांगलां तश्शें कर.'

'धनया, तुमी सांगलां तशेंच करतां.' अशें सांगून इसाप घरा आयलो. ताणें तोपांत मसूरचो एक दाणो घालो, उदक घालें आनी तो तोप रांदचेकुडींत व्हरून रांदनीर दवरलो.

हेवटेन झांथस आनी ताचे इश्ट सुशेगाद बरे न्हाले. मागीर झांथसान आपल्या इश्टांक विचारलें, 'इश्टांनो, तुमी आज म्हाका तुमचे पंगतीचो लाब दितले. आमगेर जेवण मात एकदम सादें आसा. म्हणचे

फकत मसूरच आसतली. पूण इश्टागतीचें मोल इश्टान दिल्ल्या जेवणाचेर थारना. तें ताच्या मोगावेल्यान थारता. बऱ्या उतरांनी आनी मोगान येवकार मेळत जाल्यार सादें अन्न लेगीत अमृतापरसय गोड लागता.' ताच्या उलोवण्याक सगल्या इश्टांनी हयकार दिलो आनी ते ताचे वांगडा ताच्या घरा आयले.

घरांत भितर सरतकच झांथसान इसापाक उलो मारून सांगलें, 'आमी न्हावन आयल्यात. तशेंच आमकां कितेंय पियेवंक हाड.'

इसापान न्हावंक काडिल्ल्या उदकान वाडगे भरले आनी सोयऱ्यांमुखार हाडून दवरले. तें पळोवन संतापून झांथसान विचारलें, 'इसाप, हें कितें ?' थंडसाणेन इसापान जाप दिली, 'न्हावन जालां तशेंच कितेंय पिवपाक ... ' आपलींच उतरां इसापान फिरयल्लीं पळोवन झांथस उबगलो. पूण करतलो कितें ? ताणें राग गिळ्ळो आनी मातशा वेळान ताका सांगलें, 'इसाप, पांय धुवपाक तांबयो आनी थाळो घेवन यो.'

इसापान एक रिकामो तांबयो आनी थाळो हाडून झांथसा म्हऱ्यांत दवरलो. 'हें कितें चलयलां तुवें इसाप ?' झांथसान राग सोंसना जावन तापून विचारलें. इसापान भियेनासतना सांगलें, 'हो थाळो आनी हो तांबयो. उदक हाड आनी पांय धू अशें तुमी म्हाका सांगूंक नाशिल्लें.' झांथसाकडेन जाप नासली. ताणें म्हळें, 'बरें, बरें, आतां म्हज्यो ह्यो व्हाणो व्हरून जाग्यार दवर आनी तुज्या कामाक लाग.'

झांथसान इश्टांक सांगलें, 'जाणात तुमी, हाका हांवें गुलाम म्हणून विकतो घेतला खरो; पूण होच म्हाका धडो शिकयता ! चलात, आमी जेवंक बसुंया.'

झांथस आनी ताचे इश्ट जेवणाच्या मेजा भोंवतणी येवन बसले. तांणी पेय घेवंक सुरवात केली. थोड्या वेळान झांथसान विचारलें, 'इसाप, मसूर शिजयली ?' इसापान हयकार दितकच झांथसान ताका मसूर शिजली काय कितें तें पळोवपापासत दावलांत घालून हाडपाक सांगली. इसापान एक मसूर दावलांत घालून हाडली. झांथसान ती तोंडांत उडोवन चाबून पळयली आनी म्हळें, 'इसाप, मसूर बरी शिजल्या. आतां ती हांगा हाडून

आमकां वाड.'

इसापान मसूर शिजयल्लें उदक एका थाळ्यांत घालें आनी तो थाळो मेजार हाडून दवरलो आनी म्हळें, 'धनया, जालें वाडून. सुरवात करात.'

झांथसान थाळ्यांतलें उदक पळयलें आनी इसापाक विचारलें, 'आरे, हें उदकशें हाडलां ? मसूर खंय ?'

'मसूर तुमी वोदोळ खाली.' इसापान सांगलें.

'म्हणचे ? तुवें मसुरेचो एकच दाणो शिजयल्लो ?' झांथसान अजापान विचारलें. इसापान म्हळें, 'हय धनया, तुमी म्हाका मसूर शिजय इतलेंच सांगिल्लें. अर्दशेर, पावशेर, दोन मुठी काय एक मूठ घे, कितली मसूर घे तें तुमी सांगूंक नासलें. तुमी मसूर शिजय म्हळी, हांवें तुमच्या हुकमाप्रमाण मसूर शिजयली.'

झांथसान रागान आयणो घोंटलो. इसापान परत एक फावट ताका उतरांत सांपडायिल्लो. ताणें म्हळें, 'बरें आसा, आतां ह्या सोयऱ्यांक आपोवन अपमान केलो अशें जावंक जायना न्ही ? तूं रांदचेकुडींत वच. सकाळीं दुकराचे चार पांय हाडिल्ले. ते बेगीन शिजोवन हाड. शिजयतना तातूंत आमटाण घालूंक विसरनाका.'

इसाप रांदचे कुडींत गेलो आनी चारय पांय ताणें शिजत दवरले. झांथस मनांतल्यान इसापाचेर पिकार जाल्लो. इसापाक बरो लडो दिवंक कितें नीब सोदुंया हाचेविशीं चिंतत तो रांदचे कुडींत आयलो. ताणें इसापाक विचारलें, 'आरे, तातूंत आमटाण घाली ? ना मरे ? चल, कोठयेकुडींत वचून आमटाण हाड.' इसाप कोठयेकुडींत गेलो.

हेवटेन झांथसान रांदनीर शिजतल्या चार पांयां भितरलो एक पांय ल्हवूच काडून लिपोवन दवरलो. मागीर तो भायर येवन इश्टांकडेन उलयत बसलो. इसाप आमटाण घालूंक तोपा म्हऱ्यात वतकर ताणें तातूंत तीनच पांय शिजतात ते पळयले. आपल्याक पेट घालपा पासत झांथसानच एक पांय लिपोवन दवरला जातलो हें ताणें ताडलें. तो सडसडीत मागील दारांत गेलो. थंय झांथसालें एक दुकर चरतालें. आपले बायलेच्या वाडदिसाक

मेजवानी पासत तें कापपाचें अशें झांथसान थारायिल्लें. तशें ताणें सगल्यांक सांगूनच दवरिल्लें.

इसापान एक दोर हाडून त्या डुकराचें तोंड गच्च बांदलें आनी ताचो एक पांय कापलो. तोंड बांदिल्ल्यान डुकर आड्डूंक शकलें ना. डुकराचो कापिल्लो पांय घेवन इसाप भितर आयलो. ताणें तो कोळशांचेर बरो भाजलो. वयली कात काडून निवळ केलो आनी रांदनीर शिजतल्या तोपांत उडयलो. परत त्या तोपांत चार पांय शिजूंक लागले.

हेवटेन झांथसान असो विचार केलो, 'तोपांतलो डुकराचो एक पांय कमी जाला हें इसापाक कळ्ळें जाल्यार माराच्या भंयान घडये पळून वचूं येता. मागीर सोयऱ्यांचें जेवण तशेंच उरतलें.' हो विचार मनांत येना फुडें झांथस हळूच उठलो. रांदचेकुडींत येवन ताणें हळूच इसापाचो दोळो चुकोवन लिपोवन दवरिल्लो पांय काडून तोपांत घालो. मागीर तो परत येवन इश्टां म्हऱ्यांत बसलो. तोपांत डुकराचे पांच पांय शिजतात हें झांथसाकय कळ्ळें ना आनी इसापाकय कळ्ळें ना.

थोड्या वेळान तांचो सोरो पियेवन जातकच झांथसान इसापाक म्हळें, 'ते डुकराचे पांय आतां शिजल्यात जातले. चल आमकां हाडून वाड.'

इसापान मेजार एक थाळो हाडून दवरलो आनी रांदनीवेलो तोप हाडून थाळ्यांत ओतलो. थाळ्यांत एकदम पांच पांय पडले. तें पळोवन झांथस सामको व्याण जालो. तरी ताणें इसापाक विचारलें, 'इसाप, ह्या डुकराक पांय कितले आशिल्ले ?' इसापान मातय अनमननासतना सांगलें, 'हिशोब बरोबर आसा धनया, हांगा पांच पांय आसात आनी मागीलदारांत आमचो डुकर चरता ताका तीनच पांय आसात !' इसापाची जाप आयकून झांथसान आपल्या इश्टांक म्हळें, 'इश्टांनो ! हो इसाप, एक दीस म्हाका पिसोच करून उडयतलो !'

इसापान सांगलें, 'धनया, हातूंत म्हजी कांय चूक ना. तुमचो हुकूम असो जशाक तसो पाळपाचो तुमी म्हाका आदेश दिवंक नासलो जाल्यार हांव तुमची सेवा वेवस्थीत करतलों आसलों. पूण आतां वायट दिसून घेवं नाकात. घडये तुमी घाल्ल्या ह्या नेमाचो तुमकां फायदोय जायत. आपूण

उलयतां ताचो नेमको अर्थ कितें जाता हें समजून घेवची जर तुमकां संवय जायत तर वर्गांत शिकयतना तुमचेकडल्यान चुको जावच्यो नात.'

इसापाक मार घालूंक कांयच निमित्त मेळना तें पळोवन झांथस पिकार जावन ओग्गी बसलो.

कांय दिसांनी इसाप झांथसा बरोबर ताचे कॉलेजींत वचूंक लागलो. झांथसाच्या सगल्या विद्यार्थ्यांकडेन ताची वळख जाली. एक फावट एका विद्यार्थ्यान मेजवानीचो बेत आंखलो. झांथसाक आनी हेर विद्यार्थ्यांक ताणें आपयले. झांथसान वतना इसापाक आपोवन सांगलें, 'इसाप, हांव आतां मेजवानीक वतलों. म्हजें गरजेचें सामान घेवन तूंय म्हजे वांगडा चल. पिशवी, थाळो, लेंस, दिवो आनी हांव सांगूंक विसरलां अशो गरजेच्यो सगल्यो वस्तू घे हां. मागीर कितेंय विसरलों म्हळ्यार हांव आयकून घेवचों ना हां.'

झांथसान सांगिल्लें सामान घेवन इसाप ताचे बरोबर भायर सरलो. मेजवानी सुरू जातकच झांथसान तरेकवार पक्वान्नां काडून इसापाकडेन दिलीं आनी पोतयेंत दवरूंक सांगलीं. तरेकवार पक्वान्नांनी पोती भरतकच झांथसान इसापाक सांगलें, 'इसाप, हीं पक्वान्नां बरीं करून घरा व्हर आनी जी म्हजेर मोग करता तिका व्हरून दी.'

'तुमी सांगलां तशेंच करतां धनया.' अशें सांगून इसाप थंयच्यान भायर सरलो.

घरा वतना इसाप येवजूंक लागलो, आतां धनिणीक बुद्द शिकोवंक बरी संद मेळ्ळी. साद्या साद्या कामाक लागून लेगीत ती म्हाका तापयता. पयल्याच दिसा तर तिणें म्हजो बरोच अपमान केल्लो. हांवें माळ्या कडल्यान हाडिल्ली भाजी मुद्दम मस्तून उडयली. धनयाक खोशी करूंक गेल्यार ही सदांच आड येता. आतां हिका गुलामाची अक्कल कितें ती दाखयतां. धनयान सांगलां, म्हजेर मोग करता तिका हीं पक्वान्नां व्हरून दी म्हणून. धनयाचेर कोण मोग करता तेंच दाखोवन दितां सारकें.'

अशे तरेन विचार करत इसाप घरा पावलो. एका थाळ्यांत ताणें सगलीं पक्वान्नां मांडून दवरलीं आनी झाथसाचे बायलेक उलो मारलो. ती

भायर येतकच तिका तीं पक्वान्नां दाखोवन ताणें सांगलें, 'बाय, पळय हीं पक्वान्नां; सगलीं जशीं दिल्लीं तशींच आसात. हांतुंतलें हांवें कांयच खावूंक ना आनी हाडटना शेणोवंकय ना.'

तीं पक्वान्नां पळोवन झांथसाची बायल सामकी भुरकुटली. तिणें म्हळें, 'व्वा ! सगलीं पक्वान्नां बरीं आसात हां. इसाप, तुज्या धनयान हीं म्हजेखातीर धाडल्यांत मूं ? इसापान म्हळें, 'छट्, अजिबात ना.' 'आं ? दुसऱ्या कोणाक धाडल्यांत तर हीं पक्वान्नां ?' तिणें तिडकूनच विचारलें. इसापान थंडसाणेन म्हळें, 'जी कोण धनयाचेर खरो मोग करता तिचे पासत धाडल्यांत हीं.' 'आरे चोरा ! हांव सोडून आनीक कोण ताचेर इतलो मोग करता ?' तिणें मुमुरख्यांनीच म्हळें. इसापान रोखडेंच सांगलें, 'एक खिणभर रावात. मागीर तुमकां कळून येतलें, ताचेर कोण मोग करता तें.' इतल्यांत थंय झांथसान पोशिल्लें बरें गुबगुबीत सुणें आयलें. तें सुणें घरांतल्या सगल्यांक आवडटालें. इसापान ताका म्हऱ्यांत आपयलें आनी म्हळें, 'यो, गुलाबी यो ! हीं पक्वान्नां घे !'
सुणें धांवत आयलें.



इसापान पक्वान्नांनी भरिल्लो थाळो ताचे मुखार दवरलो. सुण्यान तीं सगलीं पक्वान्नां बकाबक खावन उडयलीं. थाळो चाटून निवळ केलो. इसापान तो थाळो घांसून जाग्यार दवरलो आनी परत झांथसाक मेळूंक गेलो.

इसापाक परत आयिल्लो पळोवन झांथसान ताका विचारलें, 'तीं पक्वान्नां तिका दिलीं ? तिणें तीं बरीं करून खालीं मूं ?' 'हय धनया, तिणें तीं सगलीं पुसून खालीं.' इसापाची जाप आयकून अजापान झांथसान विचारलें, 'कितें म्हणटा तूं ?' 'हय धनया, तिका खूब भूक लागिल्ली दिसता.' 'पक्वान्नां खावन तिणें कितें म्हळें रे ?' झांथसान उमेदीन

विचारलें. इसापान साव जावन सांगलें, 'तिणें तशें कांय म्हळें ना. पूण मनांतल्यान ती बरीच खोशी जाल्या हें तिच्या तोंडावेल्यान कळटालें.'

झांथसाक आपले बायलेचो सभाव खबर आसलो. ताणें मनांत म्हळें, 'जावं, आतां घरा वतकच ती म्हजेकडेन बरेभाशेन वागतली.'

हेवटेन झांथसाचे बायलेन्न किते केलें, आपल्या दासींक आपोवन सांगलें, 'दासींनो आतां हाचेफुडें आनीक हांव झांथसाच्या घरांत रावचींना. तो घरा आयलो काय हांव ताचेकडल्यान म्हज्या बापायन दिल्ली वरदक्षणा आनी म्हजें स्त्रीधन परतें घेतलीं आनी म्हज्या बापायगेर उठून वतलीं. म्हजे परस तें सुणें ताचेर चड मोग करता अशें ताका दिसता आसत जाल्यार ताच्या ह्या घरांत रावन तरी कितें उपयोग ? आतां येवंदी झांथसाक; कितें घडटा तें पळयातच तुमी !' अशें म्हणून फडफडत वचून ती आपल्या पलंगाचेर उमथीच न्हिदली.

हांगा मेजवानी बऱ्याच रंगार आयिल्ली, सोऱ्याच्यो बाटल्यांचेर बाटल्यो सोंपताल्यो. भासाभासेकय ओतो आयिल्लो. झांथसावरी ताचे विद्यार्थीय विद्वान आसले. नवे नवे वाद, प्रस्न काडून ते ताचेर भासाभास करताले. एका विद्यार्थ्यान विचारलें, 'अशें कितें घडलें जाल्यार सगल्यांचेर एकदम आकांत येतलो ?' कोणेंच जाप दिली ना. सगले विचारांत पडले.

इतल्यांत झांथसाचे फाटल्यान उबो आशिल्ल्या इसापान म्हळें, 'मेल्ले लोक जिते जावन आयले आनी तांणी आपली धन संपत्ती परती मागली जाल्यार सगल्यांचेर व्हडलो आकांत येतलो.' इसापाची जाप आयकून सगळे विद्यार्थी व्हडा व्हडान हांसूंक लागले. मागीर तांच्यो इसापाचेरच खबरो सुरू जाल्यो.

एकट्यान म्हळें, 'आरे, हो झांथसाचो नवो गुलाम ! झांथसान ताका विकतो घेतला तेन्ना हांव आशिल्लों थंय !' दुसऱ्यान म्हळें, 'तेन्ना ह्या गुलामान म्हाका मूर्ख म्हणिल्लें !' तिसऱ्यान म्हळें, 'हो पळय उलयता तेन्ना तांतल्यो थोड्यो कल्पना खासा ताच्योच आसतात. पूण उरिल्ल्यो ताणे झांथसाकडल्यान घेतल्यात हातूंत दुबाव ना !'

रोखडेंच इसापान म्हळें, 'तातूंत कितें जालें ? तुमी सगल्योच

कल्पना धनयाकडल्यान घेतात.' ताची जाप विद्यार्थ्यांक खूप आवडली. तांणी झांथसाक सांगलें, 'ह्या इसापाक इल्लो सोरो पियेवंक मान्यताय दी.' झांथसान हयकार दितकर इसाप तांचेवांगडा बसून इल्लो सोरो पिलो.

तांची भासाभास चालूच आसली. इतल्यांत एका विद्यार्थ्यान प्रस्न केलो, 'एक सांगात, मेंढऱ्यांक मारूंक व्हेल्यार तीं मातय आवाज करिनात. तेंच जर दुकरांक मारूंक व्हेलीं जाल्यार तीं आड्डून नाका शेवट करतात. अशें कित्याक ?' सगले एकामेकाच्या तोंडाक पळोवंक लागले. जाप कोणाक कळ्ळीना. इतल्यांत इसाप सट्ट करून उलयलो.

'मेंढरी दूद दिता तें सगल्यांक उपकरता. तिच्या आंगावेली लोकरय लोकांक उपकरता. तिचें दूद काडलें, ढाट ल्हंव कापली जाल्यार तिका ल्हव दिसता म्हणून मनीस मुखार रावन सुरे पाजळ्ळे जाल्यार लेगीत ती खूश आसता. पूण दुकराकडेन दूदय ना आनी लोकरय ना. मनशांचो हात ताका चडसो लागना म्हूण ताका कापूंक व्हेलो, तांचे मुखार सुरे पाजळ्ळे काय तांकां भंय दिसता; म्हणून तीं आड्डतात.' इसापाची जाप आयकून सगल्या विद्यार्थ्यांनी म्हळें, 'शाब्बास ! शाब्बास !'

मेजवानी सोंपतकच झांथस खोशेन घरा आयलो. वाटभर आपली बायल खोशेन कशी वाट पळोवंक बसल्या जातली हाचीं तो सपनां रंगयतालो. घरा येवन पळय जाल्यार कितें ? सगलेकडेन सामसूम. ताणें बायलेक उल्यार उले मारले. रागान फडफडत भायर येवन ताचे बायलेन आड्डून विचारलें, 'म्हज्या नांवांन किळच्यो कित्याक मारतात ? तुमकां सुणें आवडटा, गुलाम आवडटा. चलात तांचेच म्हऱ्यांत. म्हज्या बापायन दिल्ली वरदक्षणा परत दियात, हांव आतांचे आतां भायर सरून बापायगेर चल्लीं !' झांथसान अजापान म्हळें, 'आरे देवा, इसापान हो कसलो घोळ करून दवरला ?'

झांथसाची बायल रागान तणतणत आसली. 'लज दिसना न्हय तुका? त्या सुण्याक खावंक पक्वान्नां धाडून दिता घरा?' बायलेचें उलोवप आयकून झांथस चाट पडलो. ताणें म्हळें, 'खात्रीन इसापान कितेंय पूण पिसांटपणां केल्यांत जातलीं. आरे, कोणय त्या इसापाक आपोवन हाडात

रे !'

झांथसाचो तापिल्लो आवाज आयकून इसाप बेगीन बेगीन भायर आयलो. ताका रागान पळयत झांथसान विचारलें, 'इसाप, तुवें तीं पक्वान्नां हाडून कोणाक दिलीं ? '

इसापान साव जावन सांगलें, 'धनया, तुमी म्हाका सांगिल्लें, जी तुमचेर मोग करता तिकाच व्हरून तीं पक्वान्नां दी म्हणून.'

'ना हां, म्हाका इल्लोसो कुडको लेगीत हाणें दिलो ना. घुम्या सारको उबो कितें रावला ? सांग, दिल्लो तुवें म्हाका इल्लो पूण कुडको?' झांथसाचे बायलेन रागान विचारलें.

'आरे चोरा ! सांग, सांग, ती कितें विचारता ताची जाप दी.' झांथसान म्हळें.

इसापान भियेनासतना सांगलें, 'धनया, तीं पक्वान्नां कोणाक व्हरून दी म्हणून तुमी सांगिल्लें ?' झांथसान सट्ट करून सांगलें, 'कोणाक म्हणचे, म्हजेर मोग करता तिका.' इसापान झांथसाचे बायलेक बोट दाखोवन सांगलें, 'ही बायल तुमचेर खंय मोग करता?' झांथसान रोखडेंच विचारलें, 'कितें ? ही म्हजेर मोग करिना ? जाल्यार कोण करता तर ?' 'तुमचेर कोण मोग करता तें तुमीच पळयात.'

अशें सांगून ताणें गुलाबी नांवांच्या सुण्याक आपयलें आनी ताणें म्हळें, 'हें सुणेंच तुमचेर चड मोग करता. हांव तुमचेर मोग करतां अशें तुमची बायल तोंडान सांगता. पूण ती मोग करिना, हें तिचें आतांचें वागणेंच सांगता. तिच्या बापायन दिल्ली वरदक्षणा ती तुमचेकडेन परत मागता. शिवाय पक्वान्नां खावंक मेळूंना म्हणून ती तुमकां सोडून वचूंक भायर सरल्या. नाजाल्यार हें तुमचें सुणें पळयात. ताका तुमी जाय तशें मारात. तें तुमकां सोडून वचचें ना. तुमच्या म्हन्यांत आपयल्यार खिणभर पयलीं घाल्लो मार विसरून शेंपडी हालयत तुमचे म्हन्यांत येतलें. म्हणटकीर आतां तुमकां कळ्ळां आसतलें, तुमचेर खरो मोग कोण करता तें. म्हणून हांवें पक्वान्नां ताका दिलीं. तुमी जर सरळ तुमचे बायलेक व्हरून दी म्हणून सांगिल्लें जाल्यार हांव तिकाच दितलों आशिल्लों.'

इसापाचें उलोवणें आयकून झांथसाचें तोंड बंद जालें. पूण तो बायलेक सामको भितालो. ताणें बायलेक समजावचे खातीर म्हळें, 'प्रिये, हातूंत म्हजी कांय चूक ना. ह्या दोन तोंडाच्या माळणान, इसापानच हो सगलो घोळ केला. तूं कांय भिवंनाका. हांव कितेंय तरी निमित्त धरून ह्या गुलामाची फाट फोडून काडटां आनी तुजें समाधान करतां.'

पूण झांथसाचे बायलेचो राग मातय न्हिवलो ना. तिणें म्हळें, 'आतां कितेंय जालें म्हणून म्हाका तुमच्या घरांत रावपाचें ना.' अशें सांगून ती उठून आपल्या बापायगेर गेली. तेन्ना इसापान परत झांथसाक आपलें म्हणणें कशें खरें आशिल्लें तें पटोवन दिलें.

अशे तरेन खूब दीस गेले. पूण झांथसाची बायल परत आयली ना. तिका परत आपोवन हाडपाक झांथसान आपल्या जायत्या इश्टांक धाडले; पूण कांयच उपेग जालो ना. बायल परत येना म्हणून झांथसाक खूब वायट दिसतालें. तें पळोवन एक दीस इसाप ताचे म्हऱ्यांत गेलो आनी म्हणूंक लागलो, 'धनया, तुमी मातय चिंता करूं नाकात. तुमची बायल फायचे फाल्यां आपूण जावन तुमचे म्हऱ्यांत परत येतली अशें हांव करतां.'

उपरांत इसापान झांथसाकडल्यान थोडे पयशे घेतले आनी तो बाजारांत गेलो. ताणें कांय सुकणीं, कांय बदकां आनी हेर सामान घेतलें. त्यो वस्तू घेवन झांथसाच्या मांवाच्या घरा मुखावेल्यान वचूंक लागलो; नेमकोच तिच्या बापायगेर भितर सरलो. पूण तें घर कोणाचें तें आपल्याक खबर नाशिल्लेवरी करून ताणें त्या घरांतल्या एका गुलामाक विचारलें, 'भाऊ, तुमचेकडेन लग्नाक उपकरतात तसलीं बदकां वा हेर वस्तू विकपाच्यो बी आसात ? ' गुलामांनी ताका विचारलें, 'आरे, ह्यो वस्तू तुका कित्या पासत जाय?' इसापान सहजतायेन सांगलें, 'तो झांथस नांवाचो तत्वगिन्यानी आसा न्हय ताचें फाल्यां लग्न. म्हणून ह्यो वस्तू हांव जमयतां.'

इसापाकडल्यान झांथसाच्या दुसऱ्या लग्नाची खबर आयकून तो गुलाम धांवतच घरांत गेलो. इसाप तेवटेन ल्हवूच चलपाक लागलो. त्या गुलामान झांथसाचे बायलेक ताच्या दुसऱ्या लग्नाची खबर सांगली.

तीआयकून झांथसाची बायल धांवून धांवून झांथसागेर आयली आनी तिणें रागारागान विचारलें, 'झांथस, हांव जिती आसासर तुका दुसरे खेपे लग्न जावंक दिवचींना.'

इसाप फाटल्यान उबो आसलो. ताणें म्हळें, 'हें मात् खरें हां धनया.'

## ५. झांथस हारलो ! इसाप जिखलो !



झांथसान आपली बायल परत आयली हे खोशयेन विद्यार्थ्यांक एक मेजवानी दिवची थारायली. ताणें इसापाक सांगलें, 'इसाप, हांवें म्हज्या इश्टांक मेजवानी दिवची थारायल्या. तेन्ना बऱ्यांतलो बरो जिनस हाडून ताचें पक्वान कर.'

इसापान मनांतल्या मनांत म्हळें, 'असले पिशेपणाचे हुकूम परत आनी सोडचे न्हय म्हणून धनयाक बरी बुद्द शिकोवंक जाय.' तो उठून खाटकाच्या दुकानांत गेलो. त्या दिसा कापिल्ल्यो डुकरांच्यो सगल्यो जिबो ताणें विकत्यो घेतल्यो. घरा वचून त्या जिबांची तरेकवार पक्वान्नां करपाचें थारायलें.

ताणें कांय जिबो उकडल्यो, कांय भाजल्यो, कांय मसालो लावन तळून काडल्यो. अशे तरेन ताणें जेवणाची जय्यत तयारी केली. थारायल्ल्या वेळार सगले सोयरे येवंक लागले.

थोडो वेळ उलयतकच झांथसान सगल्या सोयऱ्यांक बसपाक सांगलें आनी इसापाक म्हळें, 'इसाप, हांकां पयलीं कितेंय खावंक दी.'

इसापान उकडिल्ल्यो जिबो आनी हून हून तोंडाक हाडून प्रत्येकाक

दिलें. त्यो उकडिल्ल्यो जिबो पळोवन विद्यार्थी म्हणूंक लागले, 'वा ! वा ! गुरुजी तुमच्या मेजवानींतूय तत्वगिन्यान भरलां. खंयचीय गजाल रितीन थारायले बगर तुमी करीच नात. आतां तुमचे मेजवानीची सुरवातच जिबां पसून जाल्या !'

थोडो वेळ सोरो पितकच झांथसान परतय इसापाक खावंक हाडूंक सांगलें. हे खेपे इसापान भाजिल्ल्यो जिबो मीठ-मिरसांग लावन हाडून दवरल्यो. तांची रूच घेतकच विद्यार्थी खोशयेन आड्डले, 'वा! वा! प्रोफसर सायब, तुमी मजाच केल्या! देवाच्यान तर! प्रत्येक जीब बरी भाजून तिका दिस्तादिस्त मीठ-मिरसांग लायल्या. तोंडांत उडयली काय चटकी बसता?' ते जिबांचेर ताव मारीत सोरो पिवंक लागले.

झांथसान परत खावंक हाडूंक लायतकच इसापान मसालो घालून तळिल्ल्यो जिबो हाडल्यो. त्यो जिबो पळोवन एका विद्यार्थ्यान म्हळें, 'ह्यो जिबो खावन खावन म्हजी जीब सामकी बाद जाल्या.' दुसऱ्या एका विद्यार्थ्यान म्हळें, 'म्हजी जीब जाल्यार सुकून आयल्या. जिबां शिवाय खावपा सारकें दुसरें कांयच ना काय हांगा ? ह्या इसापान ज्या ज्या कामाक हात लायला ताचो शेवट असोच जावपाचो !'

इतलें उलोवन ते विद्यार्थी त्यो जिबो खावचो यत्न करूंक लागले. पूण त्यो जिबो पळोवनच तांकां इतलो वीट आयिल्लो; तांचो हात तोंडाकडेन वचना जालो. तांकां जिबांचो कंटाळो आयिल्लो पळोवन झांथसान म्हळें, 'इसाप, आतां आमकां रस्सो ना जाल्यार सूप हाडून वाड.' इसापान तांकां जिबो घालूनच केल्लो रस्सो हाडून वाडलो. रश्श्याच्या वाटयांत जिबो पळोवन झांथस तापलो, 'इसाप जिबां बगर आनीक दुसरें कांयच करूं ना?' इसापान थंडसाणेन सांगलें, 'ना धनया, दुसरें कांयच ना.'

झांथसाक ताची जाप आयकून संताप आयलो. ताणें म्हळें, 'कितें? कांयच ना ? पोरा, हांवें तुका कितें सांगिल्लें ? जी सगल्यांत बरी वस्त तीच हाडूंक सांगिल्ली न्हय तुका ?'

इसापान म्हळें, 'धनया, तुमी ह्या सगल्या विद्यार्थ्यां सामकार म्हाका दोशी थारायलें तें बेस बरें केलें. तुमी म्हाका सांगिल्लें, जी सगल्यांत

बरी वस्त तीच हाड म्हणून. आतां सांगात, जिबे परस बरी वस्त आनी खंयची आसतली ? सगलें तत्वगिन्यान, सगलें शिक्षण जिबेचेरच आदारून आसता. जीब नासप म्हळ्यार सगलें उलोवणेंच बंद ! फकत जिबेच्या आदारानूच हांगाचें थंय, थंयचें हांगा करून उडोवं येता. राज्यां वसोवंक येतात. कायदे करूंक येतात. सगलें सगलें जिबेर आसता. जाल्यार जिबेपरस बरी वस्त आनीक खंयची आसूं येता ?'

विद्यार्थ्यांनी रोखडेंच म्हळें, 'बरोबर आसा. इसापाचे सांगणेंत चूक कांयच ना. प्रोफेसरसायब, चूक तुमचीच. तुमी ताका सारको हुकूम दिलो ना.' उपरांत ते सगले आपआपल्या घरा गेले. रातभर तांकां अपचन जाल्ल्यान हागवण लागली.

दुसऱ्या दिसा विद्यार्थ्यांनी झांथसाक धारेर धरलो. तेन्ना झांथसान तांच्या हातापांयां पडून सांगलें, 'इश्टांनो, तुमकां खरेंच सांगतां, काल घडिल्ले ते गजालींत म्हजी कांयच चूक ना. त्या नालायक गुलामाचींच तीं पिशेपणां आसलीं. काल जालें तें जालें. फाल्यां हांव तुमकां परत मेजवानी दितां. आनी तुमच्या सामकारच त्या अजागळाक कितें कितें जिनस करचे तें सांगतां.

इतलें उलोवन झांथस रावलो ना. ताणें थंयच इसापाक आपोवन हाडलो आनी सगल्यां मुखारच ताका म्हळें, 'इसाप, म्हजींच उतरां तूं सदां म्हजेर परतिता न्हय ? बरें आसा, फाल्यां बाजारांत वच आनी सगल्यांक उपयोग ना अशी वायट वस्त विकती हाड आनी आमचे मेजवानीची तयारी कर.'

इसापान मोन्यांनी आयकून घेतलें. दुसऱ्या दिसा तो परत त्याच खाटकागेर गेलो. त्या दिसा मरिल्ल्या सगल्या डुकरांच्यो जिबो विकत्यो घेवन आयलो. घरा येतकच ताणें पयल्या दिसा वरी जिबांचे तरेकवार प्रकार केले. आतां तो झांथसाच्या सोयऱ्यांची वाट पळोवंक लागलो. कांय वेळान झांथस सोयऱ्यांक घेवन आयलो. तांणी सोरो पिवपाक सुरवात करतकच झांथसान इसापाक खावंक हाडूंक सांगलें. इसापान खारयल्ल्यो जिबो आनी हुनहुनीत तोंडाक हाडून मेजार दवरलें. तें पळोवन विद्यार्थी एकदम

आइ्डले, 'कितें ? परतय जिबोच ?'

झांथस त्यो पळोवन तटास जालो. इतल्यांत एका विद्यार्थ्यान ताची रूच घेवन सांगलें, 'ह्यो खारयल्ल्यो जिबो लागतात बऱ्यो. घडये कालच्या अपचनान पोटाक जाल्ल्या त्रासांचेर ह्यो बऱ्याक पडूं येतात !'

ताणें अशें म्हणटकच सगले जिबो खावन सोरो पियेवंक लागले. झांथसान परत खावपाक हाड म्हणून सांगतकच इसापान बऱ्यो भाजिल्ल्यो जिबो हाडून वाडल्यो. त्यो पळोवन सगले विद्यार्थी किंळांचले, 'आरे ! परत जिबो सुरू जाल्यो ! आतां हो आमकां आजय अपचन करून आमचो जीव काडटा दिसता !'

झांथस तापलो, 'कितें रे गुलामा, परतय जिबोच ? उलय, आजय जिबोच कित्याक हाडल्यो ? हांवें तुका कितें सांगिल्लें ? बाजारांत वचून सगल्यांत वायट आनी निरुपयोगी वस्त विकती हाडूंक सांगूंक नाशिल्लें?' इसापान सांगलें, 'खरें तुमचें, पूण अशी खंयचीय वायट गजाल ना जी जिबेंतल्यान भायर येना. सगल्या वायट गजालींचें मूळ जिबेंतच आसा. जिबेक लागून दुस्मानकाय जाता, जिबेनच कट-कारस्थानां शिजतात, वाद-सर्त, झगडीं-किजिलां सगलें, सगलें जीबच करता. जिबे इतली वायटांतली वायट वस्त आनीक खंयूच सोदून मेळपाक ना.'

इसापाचें उलोवणें आयकून एका विद्यार्थ्यान रागान म्हळें, 'प्रोफेसरसायब, तुमी ह्या गुलामाच्या उलोवपाचेर लक्ष दिल्यार पिशे जावन वतले ! जशी हाची कूड तशी हाची अक्कल ! ह्या तोंडान फटकळ आनी दुश्ट गुलामाक एके कवडीचोय व्हालोर ना. '

इसापान ताका म्हळें, 'आरे मानेस्ता, तूं ओगी कित्याक बसना? म्हाका जाल्यार तूंच वायट दिसता. तुजेकडेन धनयाची विद्वत्ता कांय म्हळ्यार कांय ना, पूण म्हज्या धनयाक तूं लज करता. सरळ मनीस केन्ना असो वागना. नाकशिमरो आनी दुसऱ्याच्या कामांत धवळ घालपीच मनीस असो वागता.'

इसापाक पेट घालूंक झांथस निमित्त सोदतालोच. ताणें म्हळें, 'इसाप, आतां गुलामाकडेन लेगीत तात्विक भासाभास करूंक जाय तर !

म्हज्या इश्टाक तुवें नाकशिमरो आनी धवळो कित्याक म्हळो रे ? आं ? तो धवळो हें सिद्ध करून दाखय, चल.'

इसापान म्हळें, 'हय, हो मनीस तसोच. दुसऱ्यांच्या नाञ्यार खावन-पिवन मजा करपी खूब जाण आसतात. पूण तांतले थोडेच दुसऱ्याचे भानगडींत पडटात. कांय लोक दुसऱ्याच्या भानगडींनी पडनासतना आपल्या सुखदुख्खांत बुडून रावतात.'

ताचें उलोवणें आयकून झांथसान रोखडेंच म्हळें, 'अशें मूं ? बरें आसा तर ! दुसऱ्याच्या भानगडींनी मेतेर ना जावपी लोक आसात मूं ? तशें जाल्यार हांव सांगतां तें आयक. फाल्यां तुका रांदपाचें काम ना. तूं गांवांत वच आनी जो नाकशिमरो न्हय, कसलेच धवळे करिना अशा खंयच्याय एका मनशाक जेवणाचें आमंत्रण दिवन हांगा हाड. तो हांगा वागतना पडिल्लो दांत कसो मदींच उलयलो जाल्यार पयले खेपे हांव कांयच म्हणचों ना; दुसरे खेपेय तुका हांव माफ करतलों; पूण तिसरे खेपे तो वचत तातूंत तोंड घालूंक लागलो जाल्यार हांव तुका येतिश्ट बडयतलों. म्हज्या ह्या सगल्या इश्टांसामकार तुका हांव सांगतां.'

झांथसाच्या म्हणण्याप्रमाण इसाप चोंबडेपणां करपी न्हय असो मनीस सोदूंक गांवांत गेलो. वाटेर एकेकडेन मारामारी चलताली. शेंकड्यांनी लोक थंय जमून ती मारामारी पळयताले. पूण थंयच दुसरे वटेच्यान एक मनीस सुशेगाद बसून पुस्तक वाचतालो. जणूं काय ताका ते मारामारीचें कांयच पडून वचुंना. ताका पळोवन इसापाक दिसलें, 'सेर्त होच मनीस दुसऱ्यांचे भानगडींत तोंड घालपी न्हय; हाकाच जेवंक आपयल्यार म्हजो मार चुकतलो.' इसाप रोखडोच त्या मनशा म्हऱ्यांत गेलो आनी ताणें म्हळें, 'आरे बऱ्या मनशा, तत्वगिन्यानी झांथसान तुमच्या बरेपणाची कीर्त आयकून तुमकां आज आपल्यागेर मेजवानीक आपयल्यात.'

त्या मनशान म्हळें, 'बरें आसा. हांव येतां. तुमी चलात. झांथसाच्या फुडल्या दारांत येवन हांव उबो रावतां.'

इसाप घरा आयलो आनी जेवणाचे तयारेक लागलो. ताचे पयलीं ताणें झांथसाक सांगलें, 'तुवें सांगिल्लो मनीस फुडल्या दारांत येवन उबो

रावतलो.'

थोडो वेळ वतकच तो मनीस दारांत येवन उबो रावलो. झांथसान ताका हाडून आपल्या इश्टांमदीं बसयलो. ग्लास सगल्या पयलीं नव्या सोयऱ्याक दिवंक लायलो. ते बरोबर ताणें म्हळें, 'शेः, शेः, शेः, अशें कशें जायत ? पयलीं तुमी सोरो घेवप, मागीर तुमची बायल घेतली. ते उपरांत आमी सगल्यांनी घेवप.'

नव्या सोयऱ्याचें उलोवणें आयकून झांथसान इसापाक पळोवन तकली हालयली. आपलो सोयरो पयले खेपे चुकला हें झांथसान तकली हालोवन आपल्याक सांगलां म्हणपाचें इसापाक कळ्ळें. उपरांत नुस्त्याचें कालवण हाडून एका गुलामान सगल्यांक वाडलें. झांथसाक कितेंय निमित्त जायच आसलें. तो एकदम त्या गुलामाचेर तापलो. ताणें आड्डून विचारलें, 'आरे चोरा, तुका सगलें जिनस वेवस्थीत दिवनय हें असलें कालवण केलां? म्हज्या सोयऱ्यांचो असो अपमान करता ? ह्या कालवणांत आमटाण-मिरसांग सारकी ना, मीट सारकें ना. सगली रूच इबाडून उडयली. खंय आसा तो रांदपी ? ताका पेट घालूंक जाय.'

झांथसाक असो तापता तो पळोवन नव्या सोयऱ्यान ताका आडावन म्हळें, 'ना सायब ! ह्या कालवणांत सगले जिनस जाय तशे आसात. कालवण बरें घोस्ताचें जालां.' झांथसान परत इसापाकडेन पळोवन मान हालयली. सोयऱ्यान दुसरे खेपे चोंबडेपणां केलीं हें इसापाक कळ्ळें.

थोड्या वेळान केक हाडून वाडलो. तो केक पळोवन झांथस तापलो, 'हो केक कोणें केला ? आपयात ताका हांगा. ह्या केकांत म्हौव घालूं ना, कांय ना.' परत त्या सोयऱ्यान मदीं तोंड घालें. 'हें पळयात, हो केक एकदम रुचीक जाला. तुमचे हे मेजवानींत नांव दवरपा सारकें कांय ना. तुमी बेठेच गुलामाक मारूं नाका.' हें आयकून झांथसान इसापाक पळोवन म्हळें, 'ही तिसरी खेप.' इसापान रोखडेंच म्हळें, 'धनया, हांव हारलों.'

मेजवानी सोंपतकच सोयरे वचूंक गेले. उपरांत झांथसान इसापाचे हात-पांय बांदून ताका बडयांनी येतिश्ट मार घालो आनी म्हळें, 'हें तुका

आयचें इनाम. वचत तातूंत तोंड घालून धवळ करपी न्हय असो मनीस फाल्यां तरी म्हजे मुखार हाडून उबो कर. ना जाल्यार फाल्यां परतय तुजीं हाडां मोव केले बगर हांव रावचों ना.'

दुसऱ्या दिसा इसाप परत धवळुको न्हय अशा मनशाक सोदूंक भायर सरलो. वतां वतां तो शारा भायर पावलो. तो मनशांक पारखीत वतालो. इतल्यांत ताका एक गांवगिरो आनी सादोसो दिसपी मनीस दिसलो. ताची चालचलणूक पळयल्यार तो सभ्य कसो दिसतालो. तो मनीस एका गाढवाचे फाटीर लाकडां दवरून चलतालो. मनशांची गर्दी सोडून रस्त्याचे कडे कडेन वतां वतां तो एकलोच आपल्या गाढवाकडेन उलयतालो. आपूण बरो, आपलें काम बरें अशे तरेचो हो मनीस आसतलो अशें इसापाक दिसलें. इसाप ताचे फाटल्यान चलूंक लागलो.

तो सादो मनीस आपल्या गाढवाक म्हणी, 'बेगीन चल बाबा; आमी बेगीन गेले जाल्यार आमचीं लाकडां खपून आमकां बारा आणे तरी मेळटले. तांतले दोन आणे तुज्या तणाक. तुका तण बेगीन मेळटलें. दोन आण्यांत हांव म्हजें पोट भरतलों आनी उरिल्ले आठ आणे हांव सांबाळून दवरतलों. कित्याक जाणा, फाल्यां कसलोय वेळ-प्रसंग आयलो जाल्यार ते आमकां उपकरतले.'

इसापान ताचें उलोवणें आयकलें. तो मनांतल्या मनांत चिंतूंक लागलो. 'खऱ्यांनीच हो मनीस सादो सरळ, वचत तातूंत पडिल्लो दांत कसो उलोवपी न्ही सो दिसता. तेन्ना हाकाच जेवंक व्हेल्यार बरें.' अशें थारावन इसापान ताचे म्हऱ्यांत वचून ताका म्हळें, 'राम, राम, दादा !' लाकडांकारानय ताका राम राम केलें. इसापान बेठेच उलोवणें काडूंक म्हणून ताका म्हळें, 'दादा, ह्या लाकडांचें मोल कितलें ?'

लाकुडकारान दर सांगलो. तेंच निमित्त्य धरून इसाप ताचे कडेन उलोवंक लागलो. 'कितें दादा, तुमी तत्वगिन्यानी झांथसाक वळखतात?' ताणें म्हळें, 'ना बाबा, हांव वळखना. म्हाका नसते धवळे करूंक नाकात. म्हणून हांव ताका वळखना. ताचें नांव हावें आयकलां.'

'हां, तर त्या झांथसाचो हांव गुलाम.' इसापान ताका सांगलें.

लाकुडकारान फट् करून म्हळें, 'तूं ताचो गुलाम काय आनीक कोणाचो गुलाम, काय एक स्वतंत्र नागरीक हें हांवें तुका विचारलां ? तूं कोणय आसना. म्हाका कितें करपाचें आसा ?'

इसापाक दिसलें, 'सेर्त, होच मनीस तो, जो दुसऱ्यांच्या गजालींनी मेतेर जायना.' मागीर ताणें लाकडांकाराक म्हळें, 'दादा, तुमचीं हीं लाकडां हांव विकतीं घेतां. तुमी तुमच्या गाढवाक झांथसाच्या घराकडेन हाडात.'

'म्हाका झांथसाचें घर खंय खबर आसा ?' ताणें म्हळें. इसापान ताका आपले फाटल्यान येवंक सांगलें. अशे तरेन इसापान ताका झांथसागेर हाडलो. ताचीं लाकडां घेवन मोल फारीक केलें. मागीर ताणें लाकडांकाराक सांगलें, 'दादा, आमचो धनी म्हणटा, तुमी आज तांचे वांगडा जेवनच वचात. तुमचें गाढव मागीलदारांत आसूंदी. ताका आमी तण-उदक दितात. तुमी फुडल्या दारांतल्यान भितर वचात.'

लाकडांकार घरांत गेलो. 'म्हाका आनी जेवपाक सो आपयला ?' अशें ताणें अजिबात विचारलें ना. ताच्या पांयांचीं जोतीं चिखलान, धुल्लान भरिल्लीं. तसोच तो भितर आयलो. ताका पळोवन झांथसान विचारलें, 'कितें इसाप, तुका जाय तसो काय म्हाका जाय तसो ?' इसापान हांसून म्हळें, 'कांय हुस्को करूनाका धनया, हो सारको म्हाका जाय तसो आसा.'

इसापाची जाप आयकून झांथसान आपले बायलेक उलो मारून आपयली, आनी विचारलें, 'तुका इसापाची फजेती जाल्ली पळोवपाची आसा मूं ? मागीर पळय हांव ताचीं हाडां कशीं मोव करतां ती.'

झांथसाचे बायलेन हांसून म्हळें, 'हांव ताचीच वाट पळयतां !' 'हय मूं ? मागीर मजा पळय. तूं उदक, थाळो हाड आनी त्या गांवगिऱ्या मनशाचे पांय धुवूंक सुरू कर. तूं घरधनीण हें ताका तुका पळयतनाच कळटलें. तो पांय धुवूंक दिवचो ना. वेल्यान म्हणटलो, 'धनीणबाय, तुमी कित्याक असलें काम करतात ?' ताणें अशें म्हळें काय इसापाचीं शंबर वर्सां भरलींच म्हणून समज.'

झांथसाचे बायलेक इसाप साप्प आवडनासलो. ताका बरो मार पडचो म्हणून ती लाकडांकाराचे पांय धुवूंक तयार जाली. उदक घेवन ती

त्या मनशा म्हन्यांत गेली आनी तिणें म्हळें, 'दादा, हांव तुमचे पांय धुतां.' ताणें मनांत म्हळें, 'झांथस हो तत्वगिन्यानी, म्हजे पांय धुवपाचें काम ताच्यान गुलामांक सांगूं येतालें. पूण ताची इत्सा वेगळीच आसतली. ताणें खासा आपले बायलेक म्हजे पांय धुवूंक सांगल्यात. तो म्हजो भौमान करूंक सोदतासो दिसता. ताची इत्सा आसल्यार करूं दी ताका म्हजो भौमान ! हांव मदींच पडिल्लो दांत सो कित्याक उलोवं ? ती पांय धुता जाल्यार मुखार करूंया.'



मनांत अशें चिंतून ताणें पांय मुखार केले आनी सुशेगाद कदेलार बसलो. झांथसाचे बायलेक ताचे बुरशे पांय धुवचेच पडले. झांथसाक आनी ताचे बायलेक लज दिसली. पूण करतली कितें ?

थोड्या वेळान झांथसान एका गुलामाक सांगून लाकडांकाराक सोरो दिवूंक लायलो. ताणें मनांत म्हळें, 'झांथस यजमान, म्हणटकच पयलीं सोरो ताणें घेवपाचो. पूण तो म्हाका पयलीं दिता. दिवूं. म्हजो भौमान करपाची ताची इत्सा आसतली. हांव कित्याक मदीं धवळ करूं ?' गुलामान सोन्याचो ग्लास दिले बरोबर सवका सवका पिवंक लागलो. झांथस तटास जालो. पूण ताणें धीर सोडलो ना. ताणें जेवण वाडूंक सांगलें.

जेवण वाडून जातकच झांथसान 'जेवात' म्हणून सांगलें. ताची आज्ञा आयकून तो सडसडीत जेवंक लागलो. तो कांयच उलयना, सांगता तें करता तें पळोवन झांथस अस्वस्थ जालो. मागीर ताणें जेवणाची रूच पळयिल्लेवरी केली आनी एकदम तापलो, 'इसाप, त्या रांदप्याक हांगा आपय.' रांदपी येतकच झांथस ताचेर खूब तापलो, 'कितें रे नालायका, हें कालवण मनशांक खावंक केलां कांय दुकरांक खावंक ? आनीक हें नुस्तें

कितें हरवेंच खावप ? इसाप, हाका बांदून घाल आनी फटके मार.'

आतां तरी लाकडांकार कितेंय उलयतलो अशें झांथसाक दिशिल्लें. पूण तो हांगा-थंय खंयच पळयनासतना सवकसायेन जेवतालो. ताणें मनांत विचार केलो, जेवण बरें रूचीक जालां. तातूंत सगलें सामान दिस्ता दिस्त पडलां. तरीय हो झांथस आपल्या रांदप्याचेर तापून ताका मारतलो जाल्यार मारूं दी. तांचे भानगडींत हांवें पडप बरोबर न्हय.'

झांथसाचे हुकमाप्रमाण त्या रांदप्याक इसाप फटके मारूंक लागलो. तरी तो लाकडांकार ताचेकडेन लक्ष दिनासतना जेवत रावलो. झांथसाक दिसलें, 'हो मनीस भेड्डो आनी मोनो काय कितें ? हो अजिबात उलयना. आतां आनीक कितें उपाय करूंया ?' मनांत चिंततच झांथस जेवलो. जेवण जातकच सगल्यांक केक वांटलो. लाकुडकारान केन्नाच केक खावंक नासलो. तो घोस्तान केक खावंक लागलो.

आतां झांथसाच्यान धीर धरूंक जायना जालो. हो मनीस धवळ करिना जाल्यार इसाप जिखतलो हें ताका कळून आयलें. झांथसान केक खाल्लेवरी करून एकदम तापून सांगलें, 'त्या केक करप्याक हांगा हाडात.' तो येतकच झांथसान ताका विचारलें, 'आरे चोरा, ह्या केकांत म्होंव, लोणी कित्याक घालूं ना ? आनी हो आंबटसो कित्याक लागता ?' केक करतल्यान म्हळें, 'केक सारको भाजुंना, हरवो आसत जाल्यार म्हाका उलयात. पूण तातूंत म्होंव, लोणी नासत जाल्यार म्हजो कितें गुन्यांव ? हांवें बायेकडेन केकांत घालपाक म्होंव आनी लोणी मागिल्लें. तेन्ना तिणें सांगलें, न्हावन येतकच दितां म्हूण. पूण ती वेळार आयलीच ना. म्हणून हांवें केक तसोच भाजत दवरलो. ते खातीर तो आंबट लागता. म्हणटकीर म्हजो गुन्यांव न्हय. गुन्यांव बायेचो.'

ताचें उलोवणें आयकून झांथसान रोखडेंच म्हळे, 'अशें ? हातूंत म्हजी बायल गुन्यांवकार आसत जाल्यार हांव तिका जिती हुलपायतलों.' बायलेक पळोवन ताणें हळूच दोळो मोडून तिका सांगलें, 'आतां तुजो वेळ आयलो !' मागीर ताणें इसापाक म्हळें, 'इसाप चल, लाकडां हाडून दाळ आनी ते बायलेक लासपाक सारी तयार कर.'

इसापान फाटल्या दारांत लाकडां दाळून व्हड सरण तयार केलें. झांथस बायलेक ओडून हाडूंक लागलो. ती किळच्यो मारताली तरी झांथसान तिका हाडून सारयेर उडयली. आतां तरी तो मनीस आपल्याक आडायतलो अशें झांथसाक दिसतालें.

लाकडांकार सुशेगाद बसून केक खातालो. झांथस आपली परिक्षा घेता हें ताका आतां कळिल्लें. केक खातकीर तो सुशेगाद उठलो आनी ताणें झांथसाक सांगलें, 'प्रोफसरसायब, तुमी खऱ्यांनीच हिका लासतले जाल्यार मात्शे रावात. हांव घरा वचून म्हजे बायलेक घेवन येतां. तिकाय हिचे वांगडा लासून उडयात.'

इतलें उलोवन झांथसाची जाप आयकनासतना तो आपलें गाढव घेवन गेलो. ताची थंडाय पळोवन झांथस चाट पडलो. ताणें इसापाक म्हळें, 'इसाप, तुवें सांगिल्लो तसलोच मनीस हाडलो. हांव हारलों; तूं जिखलो. आतां तुज्यो ह्यो युक्ती बंद कर. कितें ?'

झांथसान चूक मानून घेतिल्ल्यान इसापाक बरें दिसलें. ताणें म्हळें, 'धनया, तुमी कांयच चिंता करूं नाकात. हांव कसो इमानी चाकर सो वागतां तेंच हाचे फुडें पळयात.'

अशे तरेन झांथसाक इसापान हारयलो.



## ६. इसापाची हुशारी

दुसऱ्या दिसाच झांथसान इसापाक म्हळें, 'इसाप, भौशीक न्हाणयेकडेन वच आनी थंय कितलीं मनशां जमल्यांत तीं पळोवन यो.'

इसाप भौशीक न्हाणयेकडेन वचूंक लागलो. वाटेर ताका गांवचो फौजदार मेळ्ळो. ताणें इसापाक विचारलें, 'कितें इसाप, खंय फेरी ?' इसापान म्हळें, 'म्हाका कांय खबर ना .' ताची जाप आयकून फौजदाराची

तकली घुंवली. ताणें म्हळें, 'कितें ? तूं खंय वता तें तुकाच खबर ना ?' इसापान नमळायेन सांगलें, 'देवाच्यान तर, खरेंच सांगतां, हांव खंय वतां तें म्हाकाच खबर ना !'

फौजदाराक ताचो संताप आयलो. ताणें थंयच्या थंयच इसापाक कैद केलो आनी बंदखणीत घालूंक व्हरूंक लागलो. मात्सें चलून वतकच इसापान फौजदाराक म्हळें, 'फौजदार सायब, हांव वोदोळच्यान खरेंच उलयतालों हें आतां तरी तुमकां पटलें मूं? हांव बंदखणीत वतलों हें कितें म्हाका खबर आशिल्लें ? तुमीच सांगात.'

इसापाचें उलोवणें आयकून फौजदार चकीत जालो. इसापाचेंच म्हणणें खरें आशिल्लें. ताणें ताका सोडून दिलो. थंयच्यान इसाप तडक् उठून भौशीक न्हाणयेकडेन गेलो. थंय न्हावंक आयिल्ल्या लोकांची लूट पडिल्ली. थंयच प्रवेस दारांत एक फातोर पडिल्लो. दर एकलो न्हाणयेंत भितर सरतना ताका आडखळटालो, आपटतालो आनी 'कोणें हो फातर हांगा फोडला ?' अशें म्हणत फातर दवरप्याक गाळी घालत मुखार वतालो. मजा म्हळ्यार कोणच तो फातर काडून कुशीन दवरनासलो. त्या फातराक आपटून वचपी लोकांक अजापान तेळत इसाप थंय उबो आसलो. इतल्यांत आनीक एक मनीस त्या फातराक आदळ्ळो. 'कोणें मुर्खान हो फातर उडयला देव जाणा.' अशें म्हणत ताणें तो फातर पयस व्हरून उडयलो. उपरांत तो मनीस न्हाणयेंत गेलो.

हें सगलें पळोवन इसाप घरा आयलो. ताणें झांथसाक सांगलें, 'न्हाणयेकडेन म्हाका फकत एकच मनीस दिसलो.'

झांथसान खोशयेन म्हळें, 'कितें? एकच मनीस थंय आसा ? जाल्यार बरें जालें. लोकांच्या कुलकुलाटाबगर सुशेगाद न्हावपाची हीच बरी संद तर. चल, म्हजें सामान घेवन भाशीक न्हाणयेकडेन यो.' इसापान ताचें न्हावपाचें सामान घेतलें आनी तो झांथसा फाटल्यान चलूंक लागलो.

न्हाणयेकडेन पावतकच झांथसाक थंय मनशांची गर्दी दिश्टी पडली. ताणें इसापाक विचारलें, 'इसाप, तुवें कितें सांगिल्लें ? हांगा फकत एकच मनीस आसा म्हणून मरे ?'

इसापान सांगलें, 'हय, म्हाका खऱ्यांनीच हांगा एकच मनीस दिसला. हो तो पेल्यान आसा तो फातर पळयला तुमी ? तो फातर न्हाणयेच्या प्रवेस द्वारांत आशिल्लो. प्रत्येक जाण ताका आपटतालो. पूण तो काडून पेल्यान उडोवपाची अक्कल एकल्याकय सुचली नासली. सगले आपटून मुखार वताले. उपरांत एक मनीस आयलो तोय ह्या फातराक आपटलो. ताणें तो फातर काडून पयस व्हरून उडयलो. तोच खरो मनीस. हेरांक मनीस कशे म्हणप ? म्हणून तुमकां तशें सांगलें.'

झांथसान मनांतल्या मनांत म्हळें, 'हो इसाप कितेंय सांगतलो वेल्यान ताची फोडणिशी करतलो. हाजेकडेन भासाभास करचे परस वोग्गी राविल्लो बरो.'

झांथस न्हालो आनी घरा गेलो. थोड्या वेळान ताका परसाकडेन जालें. थंय बशिल्लेकडेन इसापाक निर्जाप कसो करचो, हाचेर युक्त सोदूंक लागलो. इतल्यांत ताका एक युक्त सुचली. ताणें घरांत येतकच इसापाक विचारलें, 'इसाप, मनीस परसाकडेन बसता तेन्ना आपल्या सकयल पडटल्या गुवाकडेन कित्याक पळयता ?'

आपल्याक निरुत्तर करपापासत झांथसान हो प्रस्न विचारला म्हणपाचें इसापाक कळ्ळें. झांथसान इतलो पिशेपणाचो प्रस्न विचारला हाजें अजापय जालें. जाप खूब सोपी आशिल्ली. पूण झांथसाक मात्सो घुस्पावन सांगल्यार चड बरें असो इसापान विचार केलो आनी ताका म्हळें, 'धनया, मनीस अशें कित्याक करता हाचे फाटल्यान एक इतिहास आसा. खूब पयलीं एक राजकुमार खूब सोरो पियेतालो आनी वचून परसाकडेन बसतालो. असो सदांच बसतां बसतां एक दीस ताची अक्कल संडासांत पडली. ती केन्ना पडली ताका कळ्ळेंच ना.

ही खबर कळटकच मात लोक सादूर जाले म्हणून परसाकडेन वतकच मनीस आतां परत-परत सकल पडटल्या गुवाक पळयतात. पूण गुवा बरोबर अक्कल पडून वचत हो भंय तुमचे बाबतींत तरी ना. कित्याक म्हळ्यार, अशी पडून वचपा इतली अक्कल तुमचे कडेन नाच्च.' झांथसाक हाचेर कांयच जाप येवजली ना. इसापान आपल्याक चड सोरो ना

पिवपाविशीं जी सुचोवणी केल्या ती ताका कळ्ळी ना.

थोड्या वेळान झांथसाचे इश्ट आनी विद्यार्थी जमूंक लागले. झांथस परत पियेवंक बसलो. पयलींच चड सोरो पियेल्ल्यान, झांथसाक रोखडोच सोरो चडलो. पियेवन तर्र जाल्ले सगले जाण एकामेकाक गूढ प्रस्न विचारूंक लागले. कोडीं घालूंक लागले. ही एकाभशेन जुगाराचीच तरा आसली. ताका लागून प्रस्न विचारपावेल्यान ते हमारेर-तुमारेर पावले. झांथसाचो सामकोच तोल गेल्लो. तो वर्गांत विद्यार्थ्यांक शिकयल्लेवरी उलोवंक लागलो. उलयतां उलयतां पैज मारूं लागलो. झांथस झगड्यांत सापडटलो अशें दिसतकच इसापान ताका सावध करपा पासत म्हळें, 'धनया, डायोनिसिसान जेन्ना सोरो तयार केल्लो तेन्ना तो कसो घेवप तेंय बरोवन दवरलां. पयलो पेलो खोशये खातीर घेवप. दुसरो तरतरसाण येवपा पासत घेवप आनी तिसरो पेलो घेवप ही एक धिराचीच गजाल समजूंक जाय. धनया तुमी दोन पेले घेतले. तिसरो धिराचो पेलो तरनाट्यांखातीर दवरात. कित्याक जाणा ? तुमी तुमचें साहस, बुध्दिमत्ता विद्यार्थ्यांक शिकयतनाच दाखोवप हें योग्य.'

इसाप उलयतासतनाच झांथसान तिसरो पेलो घेतलो. आतां ताका सोरो बरोच चडिल्लो. तो इसापाचेर धेंगशेलो, 'मुर्खा, तुजी बडबड थांबय! तूं सदांच सैतानाची आदोगासी करता.' झांथसाची अवतिकाय इसापाक कळ्ळी. ताणें म्हळें, 'धनया, ताकीत करूं नाकात. आतां तुमी सरळ सैतानाकच मेळूंक वतले.'

झांथस साबुद्देर ना हें ताच्या इश्टांक कळ्ळें. ताका उतरांत सांपडावपा पासत एका इश्टान विचारलें, 'प्रोफेसर सायब, मनीस जगांतली कसलीय गजाल करूंक शकता ?' दुसऱ्या इश्टान म्हळें, 'हें शक्यच ना. जगांतल्यो कांय गजाली अश्यो आसतात, ज्यो मनीस करूंकच शकना.' झांथसान रोखडीच पैज मारली, 'फट, सामकें फट, मनशाक अशक्य अशें कांयच ना.' ते बरोबर ताच्या इश्टान म्हळें, 'प्रोफेसर, मनीस सगलो दर्या पिवन दाखोवंक शकता ?'

'हय तर !' झांथसान खिणाचोय विचार करनासतना म्हळें, 'ही

एकदम सोपी गजाल. दर्यांतलें सगलें उदक पियेवन हांव दर्या आटोवन दाखयन.'

ताच्या दुसऱ्या इश्टान रोखडेंच विचारलें, 'आनी तुमी दर्या पियेवन दाखयलो ना जाल्यार ?' आतां झांथसय हटाक पेटलो. सोरो पिल्ल्यान ताची विचारशक्त सोंपिल्ली. ताणें म्हळें, 'हांव म्हजें घरदार, धनदौलत पैजेक लायतां. जर हांवें दर्या पिवन दाखयलो ना जाल्यार हें सगलें तुमकां दिवन हांव भिकारी जातलों.'

झांथस आनी ताज्या इश्टान आपल्या हातांतल्यो मुदयो काडून पैजेची खूण म्हणून तिसऱ्या इश्टाकडेन दिल्यो. झांथस पैज मारता तें पळोवन परत एकदां इसापान ताका जागयलो. 'धनया, हें तुमी कितें येवजिलां ? तुमची तकली सारकी आसा मूं ? तुमी दर्या कसो पितले ?' ताचें उलोवणें आयकून झांथस तापलो. 'गाढवा, तुका कितें अक्कल आसा? चल तोंड घेवन वच हांगाच्यान.' इसापान तोंड बंद केलें.

दुसऱ्या दिसा झांथस बरो न्हिदून उठलो आनी ताणें इसापाक उलो मारलो. 'इसाप, म्हज्या हातार उदक घाल. म्हाका तोंड धुवूंक जाय.' इसापान तांबयो घेवन ताच्या हातार उदक घालें. झांथसाक तोंड धुतना हाताक मुदी लागली ना. ताणें रोखडेंच इसापाक विचारलें. इसापान सांगलें, 'आनीक आनी कितें सांगूं धनया ? मुदी आतां गेलीच. हाताक मेळटा तो पयसो आडको खंयंय व्हरून लिपोवन दवरात. तुमची फुडें दुर्दशा जातली तेन्ना तुमकां उपकारतलो. तुमी हें घरदार, तुमचे सगलें वैभव सगलें-सगलें वगडायलां.'

झांथस अजापलो. ताणें थरथरत विचारलें, 'इसाप, तूं कितें उलयता?' इसापान ताका रातीं घडिल्ली सगली गजाल सांगली. झांथसान भियेवन म्हळें, 'आरे इसाप, हांव अख्खो दर्या कसो पितलों ?' इसापान सांगलें, 'धनया, तेन्ना हांव तुमचे म्हऱ्यांतूच आशिल्लों. तुमकां दर्या पिवप शक्य ना हें हांवें सांगिल्लें, पूण तुमी म्हजें आयकून घेवपाचे स्थितींत नासले.'

आपणें कसलीं पिशेपणां केल्यांत हें आतां झांथसाक कळ्ळें. ताणें

काकुळटेन इसापाक सांगलें, 'इसाप, हांव तुका पांयां पडटां. हांवच जिखतलों अशी कितेंय तरी युक्त सोदून काड. उपकार कर म्हजेर, हे पैजेच्या बचक्यांतल्यान म्हाका सोडय.' इसापान सांगलें, 'ही पैज जिखप म्हाकठीण काम. पूण तुमकां ह्या संकश्टांतल्यान सोडोवपाचो यत्न करीन.'

झांथसाक उपाय आयकुपाची उमळशीक लागली. ताणें म्हळें, 'सांग, सांग, कसो सोडयतलो तूं म्हाका ह्या संकश्टांतल्यान ?' इसापान म्हळें, 'पळयात. पैज मारपी लोक गवाय दिवपी त्या मनशाकय घेवन येतले. आनी तुमकां दर्या पिवन दाखय म्हणटले. तेन्ना तुमी ना म्हणप ना. पिल्ले अवस्थेंत ज्यो अटी तुमी घाल्ल्यो त्यो परत एक फावट तश्शो सांगात. मागीर एक व्हड मेज हाडून दर्या देगेर दवरूंया. अशी मांडावळ पळोवन हळू हळू लोक जमतले. तुमी दर्या पितले अशें आयकून ती मजा पळोवंक, ना जाल्यार तुमची फजेत पळोवंक तरी लोक गर्दी करतलेच.

अशी गर्दी जमली म्हणटकच दर्याचें उदक एका आयदनांत घेवन तुमी उबे रावात आनी पैज मारप्याक मुखार आपयात. उपरांत लोकांक विचारात 'हांवें कितें पैज मारिल्ली ?' ते म्हणटले, 'दर्या पिवन दाखोवपाची पैज तुमी मारल्या.' ते बरोबर तुमी म्हणात्त दर्या पिवन दाखयतां इतलीच म्हजी पैज हें तुमकां मान्य आसा मूं ? तांणी हय म्हणटकच दर्या–उदकान भरिल्लो पेलो लोकां मुखार धरून म्हणात, 'भावंडांनो, तुमीच हांगा गवाय आसात. ह्या दर्यांत साबार न्हंयो, व्हाळ आपलें उदक हाडून सोडटात. दर्याचें उदक पियेवन दाखयन इतलीच म्हजी पैज; तातूंत भरसल्लें न्हंयांचे उदक पितलों अशें हांवें म्हणूं ना. तेन्ना म्हजेकडेन पैज मारतल्यांनी पयलीं ह्या दर्यांत सोडपी न्हंयांची तोंडां बंद करून सेगीत दर्यांत येवपी तांचें उदक थांबोवंक जाय. म्हणटकच दर्यांत ताचेंच उदक उरतलें. तेंच म्हाका पिवंक बरें जातलें. पूण जगांतल्या सगल्या न्हंयांचीं तोंडां बंद करप शक्य ना. म्हणून म्हाकाय दर्याचें उदक पिवन दाखोवंक मेळचें ना. दोनय गजाली जावंक शकनात म्हणटकच ही पैजच बाद जाली.'

इसापाची ही बुद्द पळोवन झांथस अजापलो. आतां तो हुसक्या मेकळो जालो. 'पैज मारपी आतां केन्नाय आयल्यार जाता हांव भिना.'

ताणें मनांत म्हळें आनी तो तांची वाट पळोवंक लागलो.

थोड्या वेळा उपरांत पैज मारपी तो मनीस आपल्या इश्टांक आनी गांवच्या कांय मानेस्तांक घेवन झांथसागेर आयलो. ताणें येतनाच हांसून सांगलें, 'झांथस, तुमचें कालचें उलोवणें खरें करून दाखयात ना जाल्यार तुमचें घर-दार, पयसो आडको म्हाका दिवन उडयात.'

ते बरोबर इसापान म्हळें, 'तुमचे आस्पतीचो हिशेबय आमकां दाखयात. धनयान पयलींच अर्दो दर्या रितो केला.' तो मनीस इसापाचेर धेंगशेलो, 'इसाप, तूं आतां झांथसाचो गुलाम ना, म्हजो गुलाम हें जाणा जा. ओगीच तुजें तोंड वाजय नाका.'

इसापान तापून सांगलें, 'तूंच तुजी पिरपीर बंद कर आनी म्हज्या धनयाक तुजे येणावळीचो हिशेब दी. म्हणटकच हांव त्या हिसबा प्रमाण ती सगली येणावळ घेतां.' इतलें उलोवन इसापान हेर गुलामांक दर्यदिगेर मेज आनी कदेलां व्हरून दवरूंक सांगलें. खासा ताणें कांय पेले व्हरून मेजार दवरले. दर्या पियेवची तयारी इसाप करता ती पळोवन वेळेर लोक जमूंक लागले. झांथस सुशेगाद बसून राविल्लो. वेळेर सगली तयारी जातकर तो वचून कदेलार बसलो. इसापान मेजावेले सगले पेले दर्याच्या उदकान भरून दवरले. इतली सगली तयारी पळोवन तो पैज मारपी मनीस भिलो. ताका दिसलें, झांथस आतां खन्यांनीच आख्खो दर्या पियेवन उडयतलो.

झांथसान मेजावेलो एक भरिल्लो पेलो हातांत घेतलो आनी इसापान सांगिल्ले प्रमाण सगलें विचारलें. निमणें, 'सगल्या न्हंयांचीं तोंडां बंद करचीं' अशें झांथसान म्हळे बरोबर जमिल्ल्या लोकांनी ताळयांचो कडकडाट केलो आनी म्हणूंक लागले, 'शाबास प्रोफेसर झांथस ! शाबास! बरोबर आसात तुमी. प्रोफेसर झांथसान पैज जिखली.'

लोकांचो बोवाळ आयकून पैज मारपी तो मनीस झांथसाक पायां पडलो. 'प्रोफेसरसायब, तुमी खन्यांनीच म्हान आसात. तुमीच पैज जिखली हें हांव मान्य करतां. हांव सगल्या न्हंयांचीं तोंडां बंद करूंक शकना. आतां एक उपकार करात. आमी ही पैज फाटीं घेवंया.' झांथसान रोखडीच

मान्यताय दिली.

ही गजाल घडून दोन-चार दीस जातात थंय आसात. एक दीस इसापान झांथसाक म्हळें, 'धनया, हांवें तुमचें घरदार, धनसंपत सगळें वाटायलें. आतां तुमी म्हाका गुलामगिरींतल्यान मेकळो करूंक जाय.' इसापाचें उलोवणें आयकून झांथस तिडकलो, 'ओगी राव थंय, बेठोच बडबडूं नाका. तुका गुलामगिरींतल्यान सोडयतलों अशें उतर हांवें केन्नाच दिवूं ना.'

झांथसाची जाप आयकून इसापाक खूब वायट दिसलें. ताका चड वायट दिसलें तें आपलो धनी कृतघ्न जालो म्हणून. तो कांयच उलयलो ना. पूण ताणें मनांत म्हळें, 'मात्सो राव, हांव तुका सारकी बरी बुद्द शिकयतां.'

हे खबरेवेल्यान बरेच दीस गेले. एक दीस झांथसान इसापाक म्हळें, 'म्हाका शकुनाचें शास्त्र समजता. भायर वच आनी दारामुखार दोन कावळे आसल्यार म्हाका सांग. एकाद्रें अपशकुनी शेवणें आसल्यार तशेंय सांग. दोन कावळे दिसप भाग्याचें लक्षण.'

इसाप भायर गेलो. थंय ताका दोन कावळे दिसले. तो तसोच झांथसा म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणें म्हळें, 'धनया, चलात, बेगीन भायर चलात. थंय कावळ्यांची जोडी बसल्या.' 'हय, चल तर.' झांथस बेगीबेगीन भायर आयलो. पूण थंय जालें कितें ? झांथस भायर येता सर जोडयेंतलो एक कावळो उडून गेलो. झांथसाक थंय एकच कावळो दिसलो.

झांथस तापलो, 'आरे पिशा, हांवें तुका कितें सांगिल्लें ? हांगा एकच कावळो आसा. म्हाका कित्याक आपयलो ?' इसापान बाबडें तोंड करून सांगलें, 'दोन कावळ्यांतलो एक कावळो उडून गेलो जाल्यार हांव कितें करूं ?' झांथस कांयच आयकून घेवंक तयार नासलो. ताणें म्हळें, 'तें कांय ना, तुवें चूक केल्या. म्हजो हुकूम मोडला. आतां तुका चाबकान फोडूंक जाय.' रोखडेंच झांथसान दुसऱ्या गुलामाक सांगून इसापाची फाट चाबकान फोडपाक लायली.

इसापाक मारता आसतनाच झांथसाच्या एका इश्टाचो गुलाम

भितर आयलो. ताणें झांथसाक ताच्या धनयान मेजवानीक आपयिल्ल्याचो रकाद दिलो. तो रकाद आयकून इसापान म्हळें, 'धनया, तुमी म्हजेर अन्याय केला.' कितें ? कसलो अन्याय ?' झांथसान विचारलें. इसापान सांगलें, 'तुमी तुमकां शकून समजता म्हणटात न्हय ? तुमी दोन कावळे बऱ्याचें लक्षण म्हणिल्लें. हांवें दोन कावळे पळयल्ले. म्हाका हो मार मेळ्ळो. तुमकां भायर व्हरतासर एक कावळो उडून गेलो. तुमी एकच कावळो पळयलो आनी तुमकां मेजवानीचें आपोवणें आयलें. म्हणटकीर तुमचें शकूनशास्त्र म्हळ्यार फकत बोकडे मारप हें मान्य करतात मूं तुमी ?'

इसापाची जाप आयकून झांथस शेळेलो. ताणें इसापाक मारपी गुलामांक आडावन सांगलें, 'आरे, मार थांबयात. ताका घेवन हांव मेजवानीक वतलों.'

## ७. गुलामगिरींतल्यान मेकळीक

एक दीस झांथसान आपल्या कांय साहित्यीक आनी तत्वगिन्यानी इश्टांक मेजवानीचें आमंत्रण दिलें. ताणें इसापाक सांगलें, 'इसाप, तूं फुडल्या दारांत उबो राव आनी फकत गिन्यानी लोक येतले तांकांच भितर येवंक दी. कोणय अडाणी आयलो जाल्यार ताका मात भितर रिगूंक दिवं नाका.'

थारायिल्ल्या वेळार इसाप वचून फुडल्या दारांत उबो रावलो. ताणें दार धांपलें आनी ताच्या फाटल्यान वचून बसलो. थोड्या वेळान एक सोयरो आयलो. ताणें दार धोडायलें. इसापान भितरल्यान व्हडान विचारलें, 'सुणो कितें हालयता ?' भायल्या सोयऱ्याक दिसलें इसापान ताकाच सुणो म्हळा. तो रागारागान उठून गेलो.

एका फाटल्यान एक सोयरे येताले. तांकां तोच प्रस्न इसाप विचारतालो. सगले सोयरे आपलो अपमान केला समजून परत वताले. निमणें एक मनीस आयलो. ताणें दारार टकटक केलें. इसापान तोच प्रस्न ताकाय विचारलो. ताणें सट् करून सांगलें, 'आरे, ती शेंपडी मरे !' त्या

मनशाची बरोबर जाप आयकून इसापान दार उगडलें. त्या सोयऱ्याक घेवन इसाप झांथसा म्हऱ्यांत आयलो. सोयऱ्याक बसोवन ताणें झांथसाक सांगलें, 'धनया, तुमचे हेर साहित्यीक इश्ट आनी तत्वगिन्यानी इश्ट आयले नात. हो एकच इश्ट तितलो आयला.'

आपल्या इश्टांनी येवपाचें उतर दिवनय एकय इश्ट येवंक ना म्हणून झांथसाक वायट दिसलें. तांचो रागय आयलो. दुसऱ्या दिसा झांथस लेक्चर दिवंक कॉलेजींत गेलो. तेन्ना ते सगले थंय जमिल्ले. तांणी झांथसाक म्हळें, 'प्रोफेसर तुमकां काल आमची फजेत करपाची आसली न्हय, पूण धीर जालो ना म्हूण हळशीकावण्या इसापाक दारांत बसोवन आमचो अपमान केलो. ताणें आमकां सुणें म्हळें !'

झांथसान अजापान विचारलें, 'इश्टांनो ही गजाल तुमी सपनात पळयली काय काल खऱ्यानीच कितें घडलां बी ?'

'जर आमी न्हिदेंत बडबडटात अशें तुमकां दिसता जाल्यार तें आमचें सपन समज. ना जाल्यार आमी खऱ्यानीच तुका सांगलां.' ताच्या इश्टांनी रागान ताका सांगलें. झांथसाक इसापाचो राग आयलो. ताणें इसापाक आपोवंक रकाद धाडलो. इसाप येतकच दांत-ओंठ चाबत झांथसान ताका विचारलें, 'कितें रे मुर्खा, ह्या म्हज्या इश्टांक काल भोवमानान हाडून म्हजे पंगतीक बसोवचे सोडून तुवें तांचो अपमान करून तांकां धांवडावन घाले ? '

इसापान थंडसाणेन सांगलें, 'धनया, तुमीच तर म्हाका सांगिल्लें खंयच्याच अडाणी मनशाक भितर धाडनाका म्हणून. फकत शाण्या, साहित्यीक आनी तत्वगिन्यानी मनशांकच भितर घेवन यो म्हणिल्लें.' झांथसान तिडकून म्हळें, 'हय रे गाढवा, पूण ताचो हांगा कितें संबद ? हे म्हजे इश्ट गिन्यानी न्हय तर ?'

इसापान मातय भियेनासतना म्हळें, 'ना, हे सामके अडाणी. ते आयले आनी तुमच्या दारार टकटक केलें. हांव भितर उबो आसलों. हांवें तांकां विचारलें, 'सुणो कितें हालयता ?' तांच्या मदल्या एकल्यानय जाप दिली ना. म्हणून ते अडाणी समजून हावें तांकां भितर घेतले ना. ज्या मनशान

हुशारेन म्हज्या प्रस्नाची जाप दिली ताका हावें भितर घेतलो.' अशें सांगून इसापान जाप सांगपी त्या मनशाक बोट दाखयलें. इसापाची फोडणीशी आयकून सगल्यांनी म्हळें, 'हय, बरोबर आसा !'

एक दीस झांथस इसापाक घेवन शारा भायर पासयेक गेलो. ते खबरी करत फिरतां-फिरतां मसंडेंत पावले. थंयच्या प्रत्येक थड्यार बरयिल्लीं उतरां वाचून झांथस तांचो अर्थ लावंक लागलो, इतल्यांत इसापान एका थड्यार कांय विचीत्र अक्षरां कोरिल्लीं पळयलीं. 'ए बी ओ इ एन् एक्स ' अशीं तीं अक्षरां आसलीं. इसापान तीं झांथसाक दाखोवन म्हळें, 'धनया ! हाचो अर्थ कितें ?'

ती ओळ वाचून तिचो अर्थ लावचो झांथसान जायतो यत्न केलो. पूण ताका कांयच कळना जालें. ताणें गोंदळून म्हळें, 'इसाप, कितें आसत हाचो अर्थ ?' आपलो धनी गोंदळून माथें खरपीत बसला तें इसापान पळयलें आनी तेन्नाच मुझस देवतेच्या कृपेन ताका त्या वळींचो अर्थ कळ्ळो. ताणें झांथसाक म्हळें, ' धनया, ह्या वळींचो अर्थ लावन जर गुपीत धन मेळ्ळें जाल्यार तुमी म्हाका कितें दितले ?'

झांथसान सट्ट करून सांगलें, 'तांतलें अर्दें धन तुका दीन तेभायर गुलामगिरींतल्यान तुका मेकळो करीन.' हें आयकून इसापान थंयचोच एक नळकुटे कुडको घेवन त्या थड्यापासून मेजून चार पावलांचेर कुरू केली. थंय खणटकीर गुपीत धनाचें एक पेटूल मेळ्ळें. तें काडून झांथसाच्या हातांत दिवन ताका सांगलें, 'आतां म्हजो वांटो म्हाका दियात.'

झांथसान म्हळें, 'हे, हे, तें जावचेंना. पयलीं हें धन सोदपाची युक्ती तुका कशी कळ्ळी तें सांग पयलीं. ह्या भांगराच्या पोवना परस म्हाका तें चड म्हत्वाचें दिसता.' इसापान हांसून सांगलें, 'ज्या कोणें हें धन पुरून दवरलां तो मोटो तत्वगिन्यानी आसूंक जाय. म्हणून ताणे ह्या धनाची राखण करपाची सोडून तें काडपाची आनी ताचो उपयोग करपाची युक्त ह्या अक्षरांनी कोरांतून दवरल्या. ही एक गुपीत लिपी. आतां ह्या वळींचो अर्थ पळय. पयलें अक्षर ए म्हळ्यार हांगाच्यान मेजात, बी म्हणजे पावलां, म्हळ्यार चार, ओ म्हळ्यार खणात, ई म्हळ्यार तुमकां मेळटलो, एन् म्हळ्यार

ठेवो आनी एक्स म्हळ्यार भांगराचो.'

हें आयकून झांथसान म्हळें, 'वा ! वा ! वा ! इसाप, तुका इतलें गिन्यान आसा आनी तूं इतलो हुशार म्हणूनच हांवें मान्य केल्लें कांयच तुका दिवचो ना.' आपलो धनी आपल्याक फटयता तें पळोवन इसापान म्हळें, 'तशें जाल्यार धनया, हें धन आतांच्या आतां व्हरून तुमी ताच्या धनयाक परत दियात. ना जाल्यार ताचो सामको वायट परिणाम जातलो. हें तुमकां हांव पयलींच सांगतां.'

झांथसान विचारलें, 'पूण हाजो धनी कोण ?' इसापान सांगलें, 'बायझंटिअमाचो राजा डायोनिसीअस.' 'तुका कशें कळ्ळें ?' झांथसाचो रोखडोच प्रस्न. 'कशें म्हळ्यार ? ह्या वळींतच तशें बरयलां. ' इसापान म्हळें. झांथसान ताची फोडणिशी मागली. इसापान सांगलें, 'आयकात 'ए' म्हळ्यार परत दियात, 'बी' म्हळ्यार राजा, ' ' म्हळ्यार डायोनिसिअस, 'ओ' म्हळ्यार तुका मेळिल्लें, 'ई' म्हळ्यार हांगा, 'एन्' म्हळ्यार ठेवो आनी 'एक्स' म्हळ्यार भांगराचो.'

इसापाची फोडणीशी आयकून ताची खात्री पटली. ताणें म्हळें, 'इसाप, हांतलो अर्दो वांटो तूं घे आनी वोग्गी बस.' इसापान म्हळें, 'म्हाका म्हजो वांटो तुमचो उपकार म्हणून नाका. ज्या मनशान तें हांगा पुरून दवरलां ताणेंच म्हाका दिल्ली ती भेट म्हणून हांव घेन.' इसापाची जाप आयकून झांथसान विचारलें, 'पूण त्या मनशान तुजो वांटो तुका इनाम म्हणून घे म्हळा कित्या वेल्यान ?'

इसापान सांगलें, 'तेच वळींत तें सांगलां; आयकात हां, 'ए' म्हळ्यार उखलून, 'बी' म्हळ्यार घेयात, ' ' म्हळ्यार वांटो, 'ओ' म्हळ्यार तुमकां मेळिल्लो, 'ई' म्हळ्यार हांगा, 'एन्' म्हळ्यार ठेवो आनी 'एक्स' म्हळ्यार भांगराचो.' हें आयकून झांथसान म्हळें, 'इसाप, तुजी बुद्ध खऱ्यानीच दैवी. आतां आमी घरा या. थंयच हांव तुका तुजो वांटो दितां आनी गुलामगिरींतल्यानय मेकळो करतां.'

ते दोगय घरा आयले. घरा पावतकच झांथसाची मत फिरली. इसापाक जर गुलामगिरींतल्यान मेकळो केलो जाल्यार तो राजाकडेन वचून

ताका ह्या धनाची खबर सांगतलो अशें ताका दिसलें. म्हणून ताणें इसापाचे हात-पांय बांदून ताका कुडींत बंद करून दवरपाचो हुकूम हेर गुलामांक केलो.

इसापान बेगी-बेगीन सांगलें, 'धनया, तुमी मान्य केल्ले प्रमाण म्हजें स्वातंत्र्य म्हाका दियात आनी धनांतलो म्हजो अर्दो वांटो तुमकांच दवरात. पूण म्हाका कुडींत बंद करूं नाकात.' झांथसान हांसून म्हळें, 'वा! वा ! वा ! तूं एकदां स्वतंत्र नागरीक जालो म्हणटकीर मागीर त्या ठेव्यांतलो अर्दो वांटो मागपाचो हक्कच ताका मेळटलो. मागीर तूं राजाकडेन वचून म्हजी कागाळय करतलो. म्हाका खबर आसा हें सगळें म्हणून हांव तुका बंदेपणातल्यान मेकळो करचों ना.'

इसापान म्हळें, 'धनया लक्षांत दवरात, तुमी जर म्हाका सांगिल्ल्या प्रमाण मेकळो केलो ना जाल्यार हांव तुमकां तशें करूंक लायतलोंच.' इसापाचें उलोवप आयकून झांथसान रागान सांगलें, 'चूप, चड उलयनाका! घाला रे हाका कुडींत बंद करून.' अशे तरेन इसापाक बंदखणींत घालो.

तेन्नाच शारांत वेंचणूक आसली. सगले नागरीक आंगणांत जमिल्ले. शाराच्या कायद्याचें पुस्तक हाडून राखणदारांनी सभेंत दवरलें. तशेंच शाराचे राजसत्तेचे शिक्केय हाडून सभेंत दवरले. एक रक्षक मुखार आयलो. ताणें सांगलें, 'नागरिकांनो, आतां आमच्या शाराचो न्यायरक्षक तुमी वेंचपाचो. ताचे लागींच हें कायद्याचें पुस्तक आनी हे शिक्के दियात आनी तोच ह्या शाराचो कारभार पळयतलो. '

नागरीक आपलेभितर भासाभास करूंक लागले. इतल्यांत एक गरूड आयलो आनी झोंपय मारून थंय आशिल्ले शिक्के चोंचीत धरून घेवन गेलो. हें पळोवन सगले नागरीक भियेले. 'हो अपशकून, हें दुश्चिन्न' अशें तांकां खात्रेन दिसूंक लागलें. रोखडेच ज्योतीस, भविष्यकार हांकां आपोवन हाडले. ते सगले बरे पंडीत आनी पुजारीय आसले. तांणी खूब चिंतलें, पूण तांकां हे घडणुकेचो अर्थ लागना जालो.

तेन्नाच सभेंतलो एक जाण्टेलो उठलो. ताणें म्हळें, 'सामसाच्या नागरिकांनो, ह्या लोकांकडेन कित्याक लक्ष दितात ? देवा मुखार दवरिल्ल्यो

वस्तू खावन जगपी आनी देवाताटांतली दक्षणा व्हरून जुगार खेळपी हे सभ्य भेसांतले ढोंगी लोक. ते आनी शकुनाचो अर्थ कितें सांगतले ? शकुनाचो अर्थ सांगप तशें सोपें न्हय. हे खातीर बरे शिकिल्ले गिन्यानी लोक जाय. आख्या ग्रिसांत नामना मेळिल्लो असो तत्वगिन्यानी आमचेमदीं आसा. ह्या शकुनाचो अर्थ सांगूंक आमी ताकाच विनोवया.'

तो जाण्टेलो बसलो आनी सगलो लोक झांथसाचें नांव घेवन व्हडाव्हडान आड्डूंक लागले. आनी शकुनाचो अर्थ सांगपाची ताका आग्रो करूं लागले. झांथस मुखार आयलो पूण कितें उलोवचें तें ताका समजना जालें. निमणे त्या शकुनाचो अर्थ सांगपाक ताणें थोड्या वेळाची मुजत मागून घेतली. आतां सभा सोंपली. लोक परत वचूंक उठताले इतल्यांत तो गरूड परत आयलो, आनी ते शिक्के थंय आशिल्ल्या एका गुलामाच्या आंगार उडोवन गेलो.

लोक आड्डले, 'झांथस, ह्या नव्या शकुनाचोय अर्थ सोडून काडात.' झांथसाक मान्य करचेंच पडलें. सभा सोंपली. झांथस चिंतेस्त जावन घरा परतलो. घरा येवन केदो वेळ झांथस विचार करीत बसलो. पूण ताका कांयच सुचना जालें. ताणें आपले भितर म्हळें, 'आतां परतय इसापाच्या हातापांया पडून ह्या शकुनाच्यो जापो सोदच्यो पडटल्यो.' रोखडेंच गुलामाक उलो मारून ताणें सांगलें, 'आरे, त्या इसापाक हांगा घेवन येयात.'

बांदिल्ले अवस्थेंतच इसापाक हाडून तांणी झांथसामुखार उबो केलो. झांथसान ताचे हात-पांय सोडून ताका मेकळो करपाक लायलो. इसापान म्हळें, 'धनया, म्हाका मेकळो जावपाची मातय इत्सा ना. म्हाका असोच बांदून दवरात.' 'म्हाका तुजेकडल्यान एका प्रस्नाची जाप जाय म्हणून हांवें तुका मेकळो केला.' ते बरोबर इसापान हांसून विचारलें, 'वा, वा ! धनया, तुमच्या फायद्या खातीरच तुमी म्हाका मेकळो करूंक सोदतात?'

'पुरो, इसाप जें जालें तें जालें. आतां तूं मात्सो म्हाका आदार कर.' झांथसाची आज्ञा आयकून हेर गुलामांनी इसापाक बंदपासांतल्यान

मेकळो केलो. इसापान विचारलें, 'धनया, तुमकां कसली जाप जाय ?' झांथसान ताका ते सभेंतल्यो दोनय घडणुको सांगल्यो आनी तांचो अर्थ सांगपाची विनवणी केली. इसापान अर्थ सोदपाचें उतर दिलें. पूण झांथसाक सारको बरो धडो शिकोवचो अशी ताची इत्सा आसली.

दुसऱ्या दिसा ताणें झांथसाक म्हळें, 'धनया, हो फकत उतरांचो अर्थ सांगपाचो प्रस्न आसलो जाल्यार हांव रोखड्यारोखडोच ताची जाप सोदून काडटलों आसलों. पूण तुमी म्हणटात तसो शकुनाचो अर्थ म्हाका सांगूंक जमचो ना. हांव कांय भविष्यकार न्हय.' इसापाची जाप आयकून झांथस निराश जालो. त्या शकुनाचो अर्थ कळनाशिल्ल्यान सामसाच्या नागरिकांक तोंड दाखोवपाची ताका लज दिसूंक लागली.

आत्महत्या करचेलो विचार झांथसाचे तकलेंत घोळूंक लागलो. ताणें आपले भितर म्हळें, 'फाल्यां नागरिकांची सभा भरतली आनी ते म्हाका ह्या शकुनाचो अर्थ विचारतले. तत्वगिन्यानी म्हणून म्हजी इतली नामना आसा. पूण म्हाका ह्या साद्या शकुनाचो अर्थ सांगूंक येना जाल्यार हांव लोकांक तोंड कसो दाखोवं ?' झांथस विचार करीत बसलो. बरी रात जातकर झांथस एक दोरी घेवन भायर सरलो.

इसापान दिस्तच ताका भायर सरतना आपले कुडींतल्यान पळयलो. झांथस आत्महत्या करूंक भायर सरला जातलो अशें ताणें ताडलें. तो ताचे फाटोफाट भायर सरलो. आतां झांथसावेलो ताचो राग न्हिंविल्लो. झांथस दुर्गाभायर गेलो. ताणें एका झाडाचे खांदयेक दोर घट्ट बांदलो आनी फांस तयार केलो. इसाप पयस रावन हें सगलें पळयतालो. झांथस त्या फांसांत मान घालूंक लागतकर इसापान म्हळें, 'धनया ! धनया ! थांबात !'

झांथसान फाटल्यान वळून पळयलें. इसाप धांवून येता तो ताणें चान्न्याच्या उजवाडांत पळयलो. ताणें मनांत म्हळें, 'आरे, रे, रे, रे! इसापान म्हाका दिस्तच धरलो.' 'इसाप, तूं म्हाका फाटीं ओडूं नाका. म्हाका न्यायाच्या मार्गान वचुंदी.' तेन्नाच इसाप ताचे सरीं पावलो. ताणें म्हळें, 'धनया, आतां खंय गेलें तुमचें तत्वगिन्यान ? खंय आसा तुमचें

आत्मसंयमन ? चलात, धनया चलात, तुमकां असल्या भिजूड मरणाची ताकतीक कित्याक लागल्या? गोळ घेवन जिवितांतली खोस तुमी ना करूंक सोदतात ? धनया, मात्शे थंडसाणेन चिंतात.'

झांथसान म्हळें, ' इसाप , सोड म्हाका, हेच रितीन भौमानान मरूं दी म्हाका. ती लजेक घालपी जीण नाका म्हाका.' इसापान म्हळें, 'धनया, तो फांस उडयात. त्या शकुनाचो अर्थ सांगपाचो हांव यत्न करीन.' झांथसान अजापान विचारलें, 'पूण तूं कसो यत्न करतलो ?'

तुमी म्हाका ते सभेंत घेवन वचात. तुमी तत्वगिन्यानी. म्हणटकच शकुनाचो अर्थ सांगप तुमचे प्रतिष्ठेक सोबना अशें जाहीर करात. हें काम म्हजो शिश्य करतलो, अशें म्हणून म्हाका बोट दाखयात. मागीर सगळ्यां मुखार म्हाका तुमी आज्ञा दितकच तुमचे वतीन हांव ह्या प्रस्नांच्यो जापो दीन. इसापान अशें सांगतकच झांथसान समाधानान फांस सकल उडयलो आनी तो घरा परतलो.

दुसऱ्या दिसा नागरिकांची सभा भरली.. सगले लोक उत्सुकतेन झांथसाची जाप आयकुपाक जमिल्ले. झांथस मुखार आयलो आनी ताणें म्हळें, 'नागरीक भावांनो, हांव तत्वगिन्यानी. तर्कशास्त्राच्या सिद्धांताक तत्वगिन्यानाच्यो शिमो-मेरो आसात. त्यो म्हाका सोडून दिवंक येनात. पक्ष्यांचो आनी हेर शकुनांचो अर्थ सांगपाचें हांवें केन्ना सोडून दिलां. तें म्हजे प्रतिष्ठेक सोबना. पूण तें काम म्हजो शिश्य वा आमच्या घरांतलो कोणय मनीसं करूंक शकता. तेन्ना म्हजो हो गुलाम इसाप तुमकां त्या शकुनाचो अर्थ सांगतलो. हांवें ताका तशेंच शिक्षण दिवन तयार केला. तर म्हजेवतीन हें काम हांव इसापाक सांगतां !' अशें म्हणून झांथसान इसापाक हाताक धरून मुखार हाडलो आनी आपूण बसलो.

इसाप सभे मुखार उबो रावतकच सगले ताचीं फकाणां करूंक लागले. 'आरे, हो कसलो भयांकृत मनीस ! हो मनीसच मूं काय बेडूक, कुल्ली ? कोण हो ? कोण हो ? माकडांचो राजा सो दिसता. हो हुपयो माकड शकुनाचो अर्थ आनी कितें सांगतलो ? ' अशे तरेन सभेंतले लोक नाका नाका आशिल्लें उलोवंक लागले.

इसापान सगल्यांचें उलोवणें थंडसाणेन आयकून घेतलें. ताका असो थंड राविल्ल्यान सगले लोक हळू हळू शांत जाले. इसाप उलोवंक लागलो, 'सामसाच्या नागरिकांनो, म्हाका चाळोवन आनी म्हजीं फकाणां करून तुमकां कितें मेळपाचें आसा ? हांव कसो दिसतां तें पळोवचे परस म्हजी अक्कल तपासून पळयात. मनीस कसो दिसता हाचेवेल्यान ताची किंमत थारावप म्हळ्यार सामकीं पिशेपणां.'

इसापाचें उलोवणें आयकून सगल्यांनी तकली हालयली. तांणी एकामेकाक म्हळें, 'हो मनीस खऱ्यांनीच हुशार आसूंक जाय. हाका बरे भाशेन उलोवंक येता.' इतल्यांत सभेंतल्यान व्हडाव्हडान आवाज येवंक लागले. 'उलय, उलय तूंच ह्या शकुनाचो अर्थ सांग.' लोकांचो आग्रो पळोवन इसापान मेकळेपणान आपलें मत मांडलें.

'सामसाच्या नागरिकांनो, तुमचे सारक्या स्वतंत्र नागरिकांक एका गुलामाकडल्यान अर्थ सांगून घेवप सोबना. म्हणून तुमी म्हाका पयलीं स्वातंत्र्य दियात. मागीर हांव जें सांगतां तें खरें जालें जाल्यार स्वतंत्र नागरीक म्हणून म्हजो भौमान करात. म्हजें म्हणणें फट जालें जाल्यार हांव स्वतंत्र नागरीक म्हणून ख्यास्त भोगीन. म्हाका स्वतंत्र नागरीक म्हणून उलोवंक दिल्यार हांव आत्मविश्वासान शकुनाचो अर्थ सांगीन.'

सभेंत जमिल्ल्या लोकांनी झांथसाक म्हळें, 'झांथस, तुवें इसापाक गुलामींतल्यान मेकळो करचो अशें आमी सगले तुजे लागीं मागतात.' सभेच्या अध्यक्षांनीय झांथसाक विनयलो. तरी झांथसान सांगलें, 'ना, हांव इसापाक मेकळो सोडचों ना. कित्याक म्हळ्यार, तो म्हजो सगल्यांत पोरणो गुलाम.'

झांथस आयकना तें पळोवन सभेचो अध्यक्ष उबो रावलो आनी ताणें जाहीर केलें, 'हांव हे सभेचो अध्यक्ष म्हूण झांथसाक सांगतां, जे दरेन तुवें इसापाक विकतो घेतला ती दर सांग, तितली किंमत तुका मेळटली. इसापाक म्हजे सुवादीन कर, ह्या शाराचे वतीन हांव ताका स्वातंत्र्य दितलों.'

अध्यक्षाची घोशणा आयकून झांथस गडबडून गेलो. 'आपणें इसापाक पंच्यात्तर दिनार दिवन विकतो घेतला. इतले कमी किंमतीचे

आशेन इसापाक मेकळो करना जाल्यार ते म्हजी शी ... थू ... करतले; ते परस हांवेंच ताका मेकळो केल्यार कसो ?' मनांतले विचार फाफडून झांथसान इसापाक हाताक धरून मुखार हाडलो आनी सभेमुखार सांगलें, 'हांव झांथस सामसाच्या नागरिकांमुखार तांचे इत्से प्रमाण इसापाक गुलामींतल्यान मेकळो करतां. तो आतांच्यान सामसाचो स्वतंत्र नागरीक जालो.'

## ८. शकुनाचो अनर्थ आनी इसापाचो अर्थ



इसाप गुलामींतल्यान मेकळो जावन सामसाचो स्वतंत्र नागरीक म्हणून सभेंत उलोवंक उबो रावलो. ताणें म्हळें, 'सामसाच्या नागरिकांनो, आतां एक जायात आनी आपल्या रक्षणाचो विचार करात. तुमचेर आतां हल्लो जावपाचो आसा. गुलामीचो पास तुमच्या गळ्यांत पडटलो, असो ह्या शकुनाचो अर्थ. पयलीं तुमकां लडाय करची पडटली. गरूड हो पक्षांचो राजा, तो हेर पक्षां परस बळिश्ट आसा. अशा गरुडान झोंपय मारून तुमचो शिक्को उबारून व्हेला. शिक्को म्हळ्यार आमच्या नेतृत्वाचें फुडारीपणाचें प्रतीक जावन आसा. तेन्ना ह्या दुश्चिन्नाचो अर्थ म्हळ्यार एकाद्रो बळिश्ट राजा तुमचें स्वातंत्र्य ना करूंक सोदता. तुमचे कायदे ना करून आपले सत्तेचे शिक्के तुमचेर मारपाच्या विचारांत आसा.'

इसापाचें उलोवप सोंपचे पयलींच थंय क्रोइसाच्या राजाचो दूत आयलो. ताणें धवे देगेचो झगो घाल्लो. ताणें सामसाच्या अधिकाऱ्यांविशीं विचारलें. सभा भरल्या म्हूण कळटकीर ताणें आपल्या राजाचो खलितो अधिकाऱ्यांचे सुवादीन केलो. अधिकाऱ्यांनी तो उगडून ताचे वेल्यान नदर भोंवडायली आनी व्हडान तो सभेमुखार वाचून दाखयलो.

''लिडियन लोकांचो राजा क्रोइसस हाचे कडल्यान सामसाचे जनतेक, प्रतिनिधी मंडळाक आनी अधिकाऱ्यांक दिनवासतां. ह्या खिणापसून हांव तुमकां फर्मायतां, हाचे फुडें तुमी सारो आनी कर म्हाका फारीक करपाचो. ही गजाल तुमी मानली ना तर म्हज्या राज्याची सगली शक्त एकवटावन हांव तुमकां ख्यास्त भोगयतलों.''

खलितो वाचून जातकच आपले भितर भासाभास करून अधिकाऱ्यांनी लोकांक सांगलें, अशा बळिश्ट राजाची घुरी आमच्या राज्याचेर पड्ची न्हय म्हणून तांकां कर फारीक करुंया. लोकांनी हाचेर कांयच जाप दिली ना. पूण इसापाचें भाकीत खरें जालें म्हणून ते ताची तोखणाय करूंक लागले. मागीर एकल्यान उठून सांगलें, 'आमी ह्या राजाक कर भरचो काय नाका हाचेर आमकां इसापानच सल्लो दिवचो.' ताचें उलोवणें सगल्यांक आवडलें. तांणीय इसापाक आग्रो केलो.

इसापान म्हळें, 'नागरिकांनो, तुमच्या अध्यक्षान आनी अधिकाऱ्यांनी तुमकां कर फारीक करपाचो सल्लो दिला. आतां तोच प्रस्न तुमी म्हाका विचारतात. हांवें तुमकां कर दिवंनाकात अशें सांगलें, जाल्यार हांव क्रोइसस राजाचो दुस्मान जातलों.'

'जावंदी. तरीय तूं तुजें मत सांग.' म्हूण लोक इसापा फाटल्यान लागले. निमणें इसापान सांगलें, 'हांव तुमकां सल्लो दिवचों ना. पूण तुमकां एक काणी सांगतां. एक फावट कितें जालें, झेअसाचे आज्ञेन प्रोमेथसान मनशाक दोन मार्ग दाखयले. एक मार्ग स्वातंत्र्याचो आनी दुसरो गुलामीचो. स्वातंत्र्याचो मार्ग सुर्वेक फातराळ, अशीर आनी चडावाचो आसलो. थंय तानेक एक थेंबो लेगीत उदक मेळनासलें. त्या मार्गांत कांट्या-खुंट्यांचीं झोपां आनी जायत्या तरांची संकश्टां आसलीं. पूण सुर्वेचो हो मार्ग चडून वतकच मागीर मात व्हड मळ लागतालें. थंय पावला कणकणी पोरसां, उपवनां, फळांनी बागविल्लीं अशीं झाडां आनी गोड उदकाचे झरे लागताले. निमणें थंय सुशेगच सुशेग आसलो.

गुलामीकडेन वचपी रस्तो सुर्वेक बरो रूंद, सपाट मळावेल्यान वतालो. थंय वाटेर फळझाडां, फुलझाडां, पिवूंक उदक आनी विसव घेवंक

जागे आसले. पूण होच मार्ग मुखार अशीर, कांट्या-खुंट्यांनी भरिल्लो, खूब संकश्टांनी भरिल्लो आसलो. तो उंच उंच दोंगरा-तेंगशे वेल्यान खोल घळींत पडपी आसलो.'

सामसाच्या नागरिकांक इसापाची सांगणी समजली. आपलें हीत कित्यांत आसा तें तांकां कळ्ळें. मागीर तांणी एका आवाजान त्या राजदुताक सांगलें, 'आमी त्या फातरट मार्गाविल्यानच वतले.' हें आयकून तो राजदूत गेलो.

ताणें क्रोइसस राजाक थंय घडिल्ली सगली गजाल सांगली. राजाक तांचो खूब राग आयलो. ताणें आपल्या सैन्याक शस्त्रां घेवन तयार जावंक सांगलें. राज्याच्या सल्लागारांनीय ताका तेंको दिलो. 'म्हाराज, आमी ह्या जुंव्यार चाल करून वचुंया. तो जुंवो लुटून ताका अटलांटीक म्हासागर हुपून हेवटेन हाडुंया, म्हणटकीर हेर लोकय बुद्द शिकतले आनी हाचे फुडें म्हाराजांक विरोध करपाचो धीर कोणाक जावचो ना.'

सल्लागारांचो असो सल्लो आयकून राय कुटुंबांतल्या एका मनशान चार उतरां उलोवची संद मागली. राजान मान्यताय दितकर ताणें म्हळें, 'म्हाराज, तुमच्या पवित्र मुकुटाचो सोपूत घेवन हांव सांगतां, सामसाच्या लोकांक जे मेरेन सल्लो दिवपी इसाप नांवाचो मनीस थंय आसा ते मेरेन तें शार आमी काबीज करूंक शकचे नात. म्हणून तुमी त्या लोकांक एक खलितो धाडून इसापाक हांगा धाडपाची मागणी करात.'

क्रोइसस राजाक हें म्हणणें पटलें. ताणें त्याच राजदुताक परत एक फावट सामसाच्या लोकांक पत्र दिवन धाडलो. वकील म्हूण धाडपाक तांच्या राज्यांत तोच बरो बुदवंत आसलो. तो मनीस रोखड्या रोखडोच सामसाक आयलो. नागरिकांचे सभेंत लोकांक मेळून ताणें तो खलितो अधिकाऱ्यांकडेन दिलो. इसापाक तांच्या राजाचे सुवादीन करून त्या राजाची इश्टागत जोडप कितलें फायद्याक पडटलें तें ताणें नागरिकांक समजावन सांगलें. तेन्ना नागरिकांनी म्हळें, 'बरें आसा, तूं इसापाक घेवन वच. आमी ताका तुमच्या राजाचे सुवादीन करतात.'

लोकांचो निश्चेव आयकून इसाप मुखार आयलो. ताणें म्हळें,

‘सामसाच्या नागरिकांनो, तुमचो निर्णय म्हाका मान्य आसा. त्या राजाच्या पांयांकडेन मरण पत्करूंक हांव तयार आसा. पूण आतां हांव तुमकां एक गजाल सांगतां. हांव मरतकच म्हज्या थड्यार तीं कोरांतून दवरात. इतलीच म्हजी मागणी आसा.

जेन्ना जनावरां मनशां सारकीं उलयतालीं तेदेवेळची ही गजाल. एक फावट लांडग्यांनी बोकड्यो-मेंढऱ्यो हांच्या कळपाचेर घुरी घाली. पूण तितल्यांत थंय कांय सुणे आयले आनी त्या लांडग्यांकडेन झगडूंक लागले. त्या सुण्यांनी लांडग्यांक धांवडावन घाले. पळटां पळटां त्या लांडग्यांक एक युक्त सुचली. तांणी इश्टागत करपाच्या निमतान आपलो एक वकील बोकड्यो-मेंढऱ्यो हांचेकडेन धाडलो. तो लांडगो हांचेकडेन वाटाघाटी करूंक लागलो. ताणें म्हळें,

‘लांडग्यांची तुमचेकडेन कांयच दुस्मानकाय ना. म्हणून ते तुमचेकडेन इश्टागत करूंक सोदतात. पूण पयलीं मात सुण्यांक तांचे सुवादीन करूंक जाय. मागीर तुमी सुसेगाद रावात.’

बोकड्यो-मेंढऱ्यो साद्यो भोळ्यो. तांणी सुण्यांक लांडग्यां सुवादीन केले. त्या बरोबर लांडग्यांनी सुण्यांचेर घुरी घालून तांकां पिसडून खावन उडयले. सुण्यांचो भंय ना जातकच लांडग्यांनी बोकड्यांक आनी मेंढऱ्यांक असुदाय खावन उडयलीं. ही गजाल मतींत दवरून तुमी गरजेच्या मनशाक दुसऱ्यांचे सुवादीन करूं नाकात.’

इसापान सांगिल्ले काणयेचें सार तांकां कळ्ळें. तांणी इसापाक राजाचे सुवादीन करपाचो ना असो निर्णय घेतलो. पूण इसाप थंय रावलो ना. तो त्या वकिला वांगडा क्रोइसस राजाकडेन गेलो. इसापाक पळोवन राजा ताचेर खुबळ्ळो. ताणें म्हळें, ‘पळयात, पळयात, तें शार जिखून थंयचो कर वसूल करून घेवंक म्हाका आडखळ हाडपी ह्या सवंगाक तरी पळयात ! हो कितें मनीस ? काय कोण भयांकृत प्राणी बी ?’

इसापान थंडसाणेन सांगलें, ‘म्हाराज, म्हाका कोणेंच बळयां तुमचेकडेन धाडूंक ना. हांव आपूण जावनच तुमच्या पांयांकडेन आयलां. एकाद्रया मनशाचेर अचकीत धपको बसून ताका घाय जाःतकच तो जसो

किंळांचता तशी तुमची गत जाल्या. घाय पेखोवप हें वैजाचें काम. पूण आतां हांव जें कितें तुमकां सांगतलों ताणें तुमचो राग मात्सो न्हिवयात. हांव तुमच्या पांयांकडेन मेलों जाल्यार ती तुमच्या राज्याची अपकीर्त जातली. तुमकां योग्य सल्लो दिल्यार मरचें पडटा अशें तांकां कळळें जाल्यार तुमचे सल्लागार सदांच तुमच्या हिताचे आड सल्लो दितले.

इसापाचें उलोवणें आयकून राजाक अजाप जालें. खोशयेन हांसून ताणें म्हळें, 'बरें, आतां धन-संपत आशिल्ल्या मनशांनी कशें वागचें हे विशीं तूं म्हाका गजाली सांग.'

इसापान म्हळें, 'आयकात तर. जनावरांक आनी खंयच्याय प्राण्यांक मनशासारकी वाचा आशिल्ली त्या वेळावेली ही गजाल. एक मनीस गुंगुल्ले, भुंगे धरून ते खारयतालो आनी विकतालो. एक दीस असोच ताणें एक भुंगो धरलो. आतां तो ताका मारतलो इतल्यांत त्या भुंग्यान म्हळें, 'म्हाका बेठोच कित्याक मारता ? हांव केन्ना धान्याचो एक दाणोय खायना. केन्ना फळांय पोखरना. फुलां लेगीत हांव इबाडना. हांव फकत हातपांय हालयत पाखांनी गूंऽगूंऽ आवाज करीत फिरतां. वाटसरूंक म्हजें हें पद आयकून थाकाय मेळटा.' ताचें उलोवणें आयकून त्या मनशाक ताची काकूट दिसली. ताणें त्या भुंग्याक सोडून दिलो. त्या भुंग्यावरीच हांव तुमकां शरण आयलां. तुमी म्हजेर दया करात. तुमच्या सैन्याक हांव कसलोच त्रास दिवंक शकना. हांव काय बरो दिसना म्हणटकच फटीची गवाय दिवन हांव सुटून वचूंक शकना. पूण वेव्हार चातुर्याच्यो गजाली सांगून हांव मनशांची जीण मात्शी सुखी करूंक शकतां.'

राजाक ताची गजाल आवडली. ताणें म्हळें, 'हांवें तुका जीवदान दिलां. आतां तुका जाय तें माग.' इसापान म्हळें, 'सामसाच्या नागरिकांकडेन तुमी इश्टागत करात आनी तांकां खोशयेन जगूंक दियात.'

राजान ताचें म्हणणें मानून घेतलें. इसापान राजाक साश्टांग नमस्कार करून ताचे उपकार आठयले. राजान ताका थोडे दीस आपल्या दरबारांत रावन आपल्याक काणयो सांगचेली विनवणी केली. इसापाक प्राण्यांची भास कळटाली. इसापाच्यो चडशो काणयो जनावरांचेर

आसताल्यो. मनशाच्या सभावांतले दोश तो जनावरांच्या रुपकांतल्यान मांडटालो. ताका लागून ल्हानव्हडांक सगल्यांक ताच्यो काणयो आवडटाल्यो.

क्रोइसस राजाच्या दरबारांत आसतना ताणें त्यो बरोवन काडल्यो आनी ग्रंथसंग्रहालयांत दवरल्यो. त्यो काणयो ल्हान तशे व्हड अजूनय घोस्तान वाचतात.

कांय दीस थंय रावले उपरांत परत आपल्या राज्यांत वचपाची मान्यताय इसापान मागली. क्रोइसस राजान सामसाच्या नागरिकांकातीर एक खलितो दिलो. इसापाच्या उतराक लागून आपूण तांचेकडेन इश्टागत करतां अशें तातूंत म्हणिल्लें. तो खलितो आनी सामसाच्या नागरिकांपासत भेटी घेवन इसाप आपल्या राज्यांत परतलो. ताणें नागरिकांपासत सभा घेवन तो खलितो वाचून दाखयलो. इसापाक लागून राजाची इश्टागत मेळ्ळ्या हें कळटकच तांणी इसापाचो भौमान केलो. ज्या जाग्यार तांणी इसापाक क्रोइसस राजाचे सुवादीन केल्लो त्या जाग्याक तांणी इसापाचें नांव दिलें.

त्या गांवांत आतां इसाप सन्मानान रावंक लागलो. ताणें गांवच्या लोकांपासत जायतीं बरीं कामां केलीं. मुझस देवतेखातीर देवळां बांदलीं. त्या देवळांत ताणें अपोलो देवाची मूर्त बसयनासतना मेन्मोसिनची मूर्त बसयली. ताणें जायते यज्ञ केले. दानधर्मय केलो.

अशे तरेन इसाप सामस नगरांत लोकांक उपकरा पडूंक लागलो. लोकांनी जायत्या फावटी ताचो भौमान केलो. थोडो तेंप सामसवासियां सांगातान रावन इसाप जगभोंवडी करूंक भायर सरलो. वचत थंय तो नितीच्यो, युवतीच्यो गजाली सांगूंक लागलो. जनावरांच्या माध्यमांतल्यान लोकांक बुद्द दिवंक लागलो. ताच्यो सुरबूस सत्यकथा आयकून लोक खोशी जातालें आनी ताका मोगाची खूण म्हणून भांगर-शिंगर, पयसो-आडको दितालें.

इसाप फिरतां फिरतां बाबिलोन नगरांत पावलो. थंय लिगुरगस राजा राज्य करतालो. थंय पावतकर इसाप तत्वगिन्यानान भरिल्ल्यो

काणयो सांगूंक लागलो. व्याख्यानां दिवंक लागलो. तीं आयकून खोशी जावन थंयच्या नागरिकांनी ताचो भौमान केलो आनी एक व्हड मनीस म्हणून ताका मान्यताय दिली. बाबिलोनच्या राजाकय ताचीं व्याख्यानां, नीतीकथा आवडल्यो. ताचें चरित्र, बुद्धिमत्ता पळोवन राजाक ताची लक्तुबाय दिसली आनी ताणें इसापाक आपलो खासगी कारभारी म्हणून नेमलो.

त्या काळांत राजां राजां मदीं कठीण-कठीण कुवाडीं घालून एकामेकांक हारोवपाची चाल आसली. हारिल्ल्या राजाकडल्यान खंडणीय वसूल करून घेताले. ते राजा एकामेकांकडेन राज्यां हातासपा पासत लडाय झूज करचे बदला तत्वगिन्यानाचे कठीण प्रस्न बरोवन खलिते धाडटाले. त्या प्रस्नांची जाप दिवंक जमली ना जाल्यार त्या राजाकडल्यान प्रस्न विचारपी राजा खंडणी वसूल करून घेतालो.

लिकुरगस राजाक अशे तरेचीं कुवाडीं आयल्यार इसाप तांच्यो जापो सोदून काडटालो. ताका लागून लिकुरगस राजाची सगलेकडेन नामना जाल्ली. लिकुरगस राजाच्या नांवान नवीं नवीं कुवाडीं सोदून इसाप हेर राजांक धाडटालो. त्या राजांक त्या कुवाड्यांची जाप कळनासली. मागीर तांकां लिकुरगस राजाक खंडणी दिवची पडटाली. अशे तरेन ग्रीस मेरेनचो वाठार बाबिलोनच्या साम्राज्यांत सामील जालो.

बाबिलोनाक आसतना इसापाची एका बऱ्या घरांतल्या चल्याकडेन वळख जाली. इसाप लग्न जावंक नाशिल्ल्यान ताका भुरगें-बाळ कांय नासलें. म्हणून ताणें त्या भुरग्याक पोसको घेतलो. आपल्या शाणेपणाचो हो वारस म्हणून राजाकडेनय त्या भुरग्याची वळख करून दिली. इसापान ताका बरे तरेन वाडयलो, शिकयलो. आपल्या शाणेपणाचे धडे ताका दिले. पूण त्या भुरग्यान इसापाची एकय शिकवण आयकली ना. ताची मस्ती दिशीं-माशीं वाडत आसली. ताणें राजवाड्यांतल्या बायलांकडेन चाळे करूंक सुरवात केली.

इसापाक ही खबर कळटकीर ताणें रागान ताका बरो शेडायलो. राजस्त्रियांकडेन चाळे केल्यार कितें अनर्थ जातलो हाचे विशीं ताका इसापान

समजणी दिली. पूण इसापाच्या उपदेसाची ताका तिडक आयली. आपल्या इश्टांच्या नादाक लागून ताणें इसापाचे आड कित्याय कितें कागाळी केल्यो. इतलेंच न्हय; ताणें इसापाच्या नांवांन एक नकली पत्र तयार केलें आनी ताचेर इसापाचे मुद्रयेचो शिक्को मारून तें पत्र राजाक दिलें. राज्याच्या दुस्मानांक तें पत्र बरयिल्लें. तातूंत इसाप तांकां आदार करूंक सोदता अशें बरयिल्लें. राजाकडेन तें पत्र दिवन ताणें म्हळें, 'म्हाराज, हो तुमचो स्वामीनिश्ठ आनी विश्वासू इसाप तुमच्या राज्या आड कशीं कारस्थानां रचता पळयात.'

त्या पत्राचेर इसापाचो शिक्को आशिल्ल्यान तें पत्र खरेंच आसतलें हाचेविशीं राजाची खात्री जाली. इसापाक राजद्रोही थारावन ताका जिवेंशीं मारपाचो हुकूम राजान सेनापतीक दिलो. पूण हो सेनापती इसापाचो खरो इश्ट आसलो. म्हूण ताका जितो मारलोना. ताणें ताका एके बंदखणींत घालो आनी ताका जितो मारलो अशें राजाक कळयलें. उपरांत राजान इसापाच्या पोसक्या पुताक हेलिअसाक आपलो खाजगी कारभारी म्हणून नेमलो.

कांय दिसांनी इसाप मेलो ही बातमी इजिप्ताचो राजा नेक्टानबो हाका कळ्ळी. ताणें एक कोडें करून आपल्या वकिला वांगडा बाबिलोनाच्या राजाक धाडलें. 'इसाप मेलो म्हणटकीर ह्या कोड्याची जाप कोणच दिवंक शकचोना' अशें इजिप्तच्या राजाक खात्रीन दिसतालें.

इजिप्ताचो वकील खलितो घेवन बाबिलोनांत आयलो. त्या खलित्यांत म्हणिल्लें, 'इजिप्तचो राजा नेक्टानबो हांचे कडल्यान बाबिलोनचो राजा लिकुरगस हाका नमस्कार. म्हाका मळबांत एक म्हाल बांदून जाय. पूण तो जमनीकय तेंकूंक जायना आनी मळबाकय तेंकूंक जायना. तेन्ना असो म्हाल बांदपाक मनीस धाडून दिवचे. तशेंच म्हज्या प्रस्नाच्यो जापो दिवंक शकता असो मनीस धाडून दिवचो. अशें केल्यार म्हजे राजधानींतलो तीन वर्सांचो कर खंडणी म्हणून तुमी घेवन वचात. पूण तुमी हें करूंक शकले नात जाल्यार मात तुमच्या राज्याच्या धा वर्सांच्या खर्चा इतली खंडणी हांव तुमचे कडल्यान वसूल करून घेतलों.'

लिकुरगसान तो खलितो वाचलो आनी ताका खूब वायट दिसलें. इसाप आसतना ताका असल्या कुवाड्यांची पर्वा दिसनासली. पूण आतां ताचेर आकांत आयिल्लो. ताणें आपल्या सगल्या सल्लागारांक आपोवन हाडले आनी विचारलें,

'हें पत्र वाचात. असो म्हाल कसो बांदप तुमकां सांगूंक येतलें ? तुमकां हाची जाप आयली ना जाल्यार हांव तुमच्यो सगल्यांच्यो तकल्यो कापून उडयतलों.'

त्या सल्लागारांनी सांगलें, 'म्हाराज, जमनीक आनी मळबाक तेंकना असो म्हाल आमकां बांदूंक येवचोना.' तांच्यांतल्या एकल्यान सांगलें, 'म्हाराज, तुमी सांगशात ती तुमची आज्ञा आमी मानूं, पूण असल्यो गजाली करपाचो आमकां कांय एक अणभव ना. म्हणून तुमी आमकां माफ करात.' पूण हें आयकून राजाक खूब संताप आयलो. ताणें द्वारपालांक आपयले आनी त्या सल्लागारांक धांवडावंक लायले. पूण आतां फुडें कशें? तो इसापाची याद काडून दुकां गळोवंक लागलो. 'आरे रे रे रे ! म्हज्या पिशेपणांक लागून इसापाक जिवेंशीं मारलो आनी हांवेंच म्हज्या राज्याचो आदाराचो खांबो मोडून उडयलो. म्हणून देवान म्हजेर हें संकट धाडलां.'

त्या संकश्टाच्या भंयान ताका अन्न-उदक कांयच वचना जालें. तो उपाशींच रावंक लागलो. राजाची ही गजाल हळू हळू दरबारांत सगल्यांक कळ्ळी. ते बरोबर सेनापतीन राजाक खरी गजाल सांगपाचें थारायलें. ताणें राजा म्हन्यांत वचून म्हळें, 'म्हाराज, आज म्हज्या जिवितांतलो निमणो दीस. आज हांव तुमचे मुखार म्हजो गुन्यांव मान्य करतां. एक दीस हांवें तुमची आज्ञा मोडिल्ली.'

राजान अजापान म्हळें, 'सेनापती, तूं कितें उलयता तें म्हाका कळूं ना.' सेनापतीन नमळायेन म्हळें, 'राजाची आज्ञा मोडप हो व्हड गुन्यांव. ताची ख्यास्त भोगूंक हांव तयार जालां.' 'गुन्यांव कसलो ? कबुली कसली? म्हाका कांयच कळूंना तुजें!' राजान गोंदळून म्हळें.

सेनापती धोंपरांचेर बसलो, मान सकयल घाली आनी ताणें म्हळें, 'म्हाराज, इसाप जितो आसा. तुमच्या हुकमाप्रमाण हांवें ताका जितो मारलो

ना. बंदखणींत घालो.'

सेनापतीचीं उतरां आयकून राजाक खूब खोस जाली. तो एकदम उबो रावलो आनी ताणें सेनापतीक शाबासकी दिवन सांगलें, 'कितें म्हळें तुवें? इसाप जितो आसा? वा ! मागीर तुज्या रुपान म्हाका देवच पावलो तर ! इसाप जितो आसा जाल्यार तो तुज्या जिवितांतलो निमणो दीस न्हय; भाग्याचो दीस. तुवें म्हजेर खऱ्यांनीच खूब व्हड उपकार केल्यात. तूं म्हज्या राज्याचो संरक्षक अशें हांव आज जाहीर करतां.'

उपरांत राजान इसापाक आपले मुखार घेवन येवपाची आज्ञा केली. इसापाक बंदखणींतल्यान भायर हाडलो. ताचें खाड वाडिल्लें, काती लांबताल्यो. आंगावेले कपडे म्हेळे जाल्ले. इसापाची ती दशा पळोवन राजाक खूब वायट दिसलें. इसापाक न्हाणोवन, बरे कपडे घालून आपले म्हऱ्यांत हाडचेली ताणें आज्ञा केली.

मागीर इसापाक वाजत-गाजत दरबारांत हाडलो. राजान उठून ताका वेंग मारली आनी आपल्या शेजारा हाडून बसयलो. तेन्ना इसापान म्हळें, 'म्हाराज, हांव सोपूत घेवन तुमकां खरें कितें तें सांगतां. म्हाका पोसक्या चल्यानच त्रासांत उडयलो. म्हज्या शिक्क्याचें नकली पत्र करून तुमकां दाखयलें.'

हें आयकून राजान म्हळें, 'इसाप, खासा आपल्या बापायचो विश्वासघात करपी ह्या हेलिअसाची तकली कापून उडोवचेलो हुकूम दितां.' इसापान बेगीबेगीन सांगलें, 'नाका म्हाराज, आतां ताची जीण म्हळ्यार लजेकोंड जाल्या. ताका मरणाची ख्यास्त दिवप म्हळ्यार ताची हे लजेस्त जिणेंतल्यान सुटका करप. आपल्या गुन्यांवाची याद काडीत ताका पश्चात्ताप करीत जगूं दी.' इसापाची सांगणी आयकून राजान हेलिअसाक माफ केलो.

उपरांत राजान इसापाक एक पत्र दिलें आनी म्हळें, 'इसाप, इजिप्तच्या राजान हें पत्र धाडलां. हें वाच आनी कितें करप तें थाराय.' इसापान पत्र वाचलें आनी ताणें हांसून म्हळें, 'म्हाराज, तांकां जाप धाडात, तांकां जाय तसो म्हाल बांदपाक आनी प्रस्नांच्यो जापो दिवपाक हो शिंयाळो

रुतू सोंपतकच मनीस धाडटां म्हूण.' राजान तशें पत्र बरोवन आपल्या वकिलाकडल्यान इजिप्तच्या राजाक धाडलें.

## ९. इसापाचो दिग्विजय

इजिप्ताच्या राजाचें कुवाडें सोडोवचेली जबाबदारी इसापान घेतकच बाबिलोनच्या राजाक खोस जाली. मागीर परतय ताणें इसापाक आपलो खाजगी कारभारी म्हणून नेमलो. इसापाच्या चल्याक हेलिअसाक धरून हाडून इसापाचे सुवादीन केलो. ताका घेवन तो घरा गेलो. ताका आपले म्हन्यांत बसोवन इसापान मायेन ताका उपदेश केलो.

इसापान ताका म्हळें, 'पुता, आजवेर तुका हांवें जायत्यो बऱ्यो गजाली शिकयल्यो. त्यो सगल्यो विसरून तुवें म्हजेकडेनच दुस्मानकाय केली ? सोड, हाचे फुडें तरी तुका जें सांगतलों तें केन्नाच विसरनाका; म्हणटकीर तुजें सदांच कल्याण जातलें. सगल्यांत पयली गजाल म्हळ्यार देवाचेर विश्वास दवर. तसोच राजाचोय मान राखप हें तुजें पयलें कर्तव्य. राजाकडेन सत्ता आसा म्हूण तो देवावरीच जालो. तुज्या गुरूक आनी जल्मदात्यांक सदांच मान दी. ती तुजी लागणूक जावन आसा. पूण जाणें तुजेर मोग केला ताचेविशीं तुका सदांच कृतज्ञता दिसूंक जाय. आज बरें अन्न जेवतना बरें आरोग्य आनी काम करपाक जोम मेळचो होच हेत आसूंक जाय. राजदरबारांत जें कितें कानार पडटा तें मनांतच मुरून वचूंक जाय. ना जाल्यार तूंच मरून वचशी. सोरो पियेल्ल्या वेळार केन्नाच आपली विद्वत्ता दाखोवपा पासत भासाभास करूंनाका. तेन्ना तुका बेसावध धरून पिसो थारायतले. तोंडान उलोवचे बदला हातान काम चड कर. कोणाकय जैत मेळ्ळ्यार ताचो दुस्वास करूं नाका. वेल्यान तांचे खोशयेंत तूंय वांटेकार जा. जे दुसऱ्याचो दुस्वास, मत्सर करतात ते आपलेंच लुकसाण करून घेतात. आपल्या नोकरां चाकरांक बरे तरेन सांबाळ, जें तुका मेळटा ताचो वांटो तांकांय दी. म्हणटकीर तुका तांचे कडल्यान फकत धनी म्हणूनच

न्हय तर कल्याण करपी म्हणूनय मान मेळटलो. आपल्या विकारांचेर ताबो दवर. जें कळना तें कोणाकडल्यानय शिकून घेवंक लज धरूं नाका. मूर्ख उरचे परस वेळान काय जायना शाणो जावप सदांच बरें.

'आज जें मेळयता तांतलें कितेंय तरी फाल्यां खातीर राखून दवर. आपूण मरतकच दवरिल्लो पयसो दुस्मानांनी लेगीत खाल्यार उपकरता. पूण लोकांच्या हातापांयां पडून, भीक मागून जगप केन्नाच बरें न्हय. सगल्यांकडेन मोगान आनी रेस्पेतान वाग. कारण सुणो गुरगुरल्यार मार पडटा. पूण शेंपडी हालयल्यार भाकरी मेळटा. आपल्या चारित्र्याचो सदांच अभिमान धरचो. पूण संपत्तीचो गर्व मानूं नये. धन-संपत चोर लुटूंक शकतात; पूण चारित्र्य कोण लुटूंक शकना.

'आपल्याक जैत मेळटा जाल्यार दुस्मानाविशीं लेगीत वायट चिंतूं नये. तांचेकडेन बरे तरेन वागचें. कोणाकय दान करीन दिसल्यार मनांतल्यान कर. लक्ष्मी सदांच चंचल आसता. दुसऱ्याची निंदा करता जाल्यार ताचेर विश्वास दवरूं नाका. तो तुजो कितलोय लागींचो मनीस आसल्यार लेगीत. खूब खूब मेळ्ळें म्हूण भुल्लुसून वचूं नाका आनी धन गेलें म्हूण दुखी जावन बसूं नाका.'

असो उपदेश करून इसाप गेलो. मागीर मात हेलिअसाक पश्चात्ताप जालो. इतलो व्हड अपराध करूनय इसापान आपल्याक मोगान उपदेश केलो. हें चिंतून ताका मरूंक पुरो जालें. आपलें काळें तोंड लोकांक दाखोवचे परस मेल्लो बरो अशें चिंतून ताणें अन्न - उदक घेवप सोडलें. अशे तरेन ताणें आपलें जिवीत सोंपयलें. हेलिअसाच्या मरणान इसापाक खूब दूख्ख जालें. ताणें मोट्या सन्मानान ताचें मरण केलें.

चल्याचें दूख्ख पांगरून बसूंक इसापाक वेळ नासलो. इजिप्ताच्या राजान धाडिल्ल्या कुवाड्याची जाप सोदपाचो व्हड वावर ताचे मुखार आशिल्लो. ताणें एक दीस पारध्यांक आपयले आनी चार गरूड पक्षी धरून हाडपाक सांगलें. पारध्यांनी गरुडाचीं चार व्हड पिलां धरून हाडलीं. इसापान त्या पिलांच्या पाखट्यांतलीं निमणे रांकेतलीं पाखां ओडून काडलीं. त्या पाखांक लागूनच गरूड खूब उंच झेप घेवंक शकता.

पाखां काडटकच इसापान तीं पिलां परत पारध्यांकडेन दिलीं आनी सांगलें, 'ह्या पिलांक बरे तरेन वाडयात आनी भुरग्यांक फाटीर बसोवन हवेंत उंच उडपाचें शिकप दियात. म्हणटकीर हे पक्षी व्हड जातकच एका भुरग्याक घेवन सहज उडूंक शकतले. पक्षांक दोरी बांदून ते भुरग्यांच्या हातांत दिवचे म्हणटकीर पक्षी भुरग्यांचे हुकमतींत रावतले. भुरगे सांगतात ते प्रमाण ते वयर सकल जाय थंय वतले. अशे तरेन तांकां शिकोवन तयार करात.'

इसापाचे सांगणेवेल्यान पारध्यांनी त्या चारय गरूडपक्षांक शिकोवन तयार केले. अशे तरेन सगली तयारी जातकच, ते चार पक्षी, तांचेर बसपी भुरगे आनी फ़ासेपारधी हांकां घेवन तो इजिप्ताचे वाटेक लागलो. ताणें आपले वांगडा खूब मानाय-वावराड्यो, हत्यारां आनी हेर सामान घेतिल्लें. तांचो खरो म्हळयार कांयच उपयोग नासलो. पूण इजिप्ताच्या लोकांक भपको दाखोवंक म्हणून हें इतलें सामान आनी लोकांक व्हेले.

अशे तरेन तो मेम्फिस हांगा पावलो. तेन्नाच खासा इसाप आयला ही खबर राजा नेक्टॅनॅबोक समजली. इसाप आयला म्हूण कळटकर राजा गडबडलो. ताणें त्याच खिणाक आपल्या इश्टांक आनी सल्लागारांक आपयले आनी सांगलें, 'इसाप मेलो अशें आयकल्लें म्हणून आज आमी अशे त्रासांत पडल्यात ! आतां कितें करुंया ?' कोणाकच उपाय सुचना जालो.

तांणीं इसापाक भौमानान दवरलो. दुसऱ्या दिसा राजा नेक्टॅनॅबोच्या दरबारांत इसाप ताका मेळूंक गेलो. इसाप येतलो म्हूण राजान आपल्या सगल्या सरदार दरकारांक रुपेरी झगे घालून आपयल्ले. राजान खासा आपणेंय सोनेरी नक्षीकाम केल्लो रुपेरी झगो घाल्लो. शिंगां आशिल्लो मुकूट घालून तो सिंहासनार बशिल्लो. ताका इसापाची परिक्षा घेवची आसली.

इसाप दरबारांत आयलो आनी सगल्या दरबाराचेर नदर भोंवडावन ताणें राजाक अभिवादन केलें. राजा नेक्टॉनॅबोन विचारलें, 'इसाप, हांव

आनी म्हजे हे सगले सरदार-दरबारी हांच्यांत तुका कितें साम्य दिसता ?'

इसापान सांगलें, 'म्हाराज, तुमी म्हाका पुनवेच्या चंद्रावरी दिसतात. आनी हे सगळे ताचे भोंवतणी लिकलिकपी नक्षत्रांवरी दिसतात. चंद्राचें तेज नक्षत्रांपरस कितलें तरी चड आसता. तातूंत तकलेक शिंगां लायिल्ल्यान तर तुमी चडच सोबून दिसतात.' इसापाचे जापेन राजा नॅक्टेनॅबो अजापलो आनी ताणें इसापाक नजराणो दिलो.

दुसऱ्या दिसा नॅक्टॅनॅबोन जांबळ्या रंगाचो चकचकीत झगो घालो; तरेकवार फुलां आंगां-खांदार घेतलीं आनी तो सिंहासनाचेर बसलो. थोड्या वेळान इसाप येतकच राजान परतय ताका तोच प्रस्न विचारलो. इसापान सांगलें, 'म्हाराज, तुमी म्हाका वसंतांतल्या सुर्यावरी दिसतात आनी हे दरबारी लोक फळां पसरायल्लेवरी दिसतात. ह्या झगझगीत जांबळ्या झग्यांत तुमचें तेज चडच उठून दिसता.' इसापाची बुद्ध पळोवन राजा खूश जालो. आनी ताणें खुबशे नजराणे ताका दिले.

तिसऱ्या दिसा नॅक्टॅनॅबोन धवो फुल्ल झगो घालो, सगल्या दरबाऱ्यांक ताणें शेंदरी रंगाचे कपडे घालूंक सांगलें. इसाप दरबारांत येतकच आजय ताका सदचोच प्रस्न विचारलो. इसापान सांगलें, 'तुमी सुर्यावरी दिसतात आनी हे दरबारी सुर्यकिर्णांवरी दिसतात. सूर्य तेजस्वी आनी निश्कलंक आसता. तुमीय तशेच आसात.'

राजाक खूब अजाप जालें. ताणें इसापाक म्हळें, 'जे मेरेन हें राज्य अशें आसा ते मेरेन बाबिलोनचो राजा लिकुरगस सामकोच कवडी-मोलाचो आसतलो हें सिद्ध जाता न्हय ?' इसापान हांसून सांगलें, 'त्या राजाचें अशें अर्थ नाशिल्लेवरी बेठेंच वर्णन करूंनाकात. लिकुरगस राजा हो तुमचेपरस खूबच उंच पांवड्यावेलो आसा. हे धतरिवेल्या सगल्यां परस जसो देव, झेऊस श्रेष्ठ तसो लिकुरगस राजा सगल्या राजां परस श्रेष्ठ. झेऊसान सगले रुतू सारके आसचे म्हणून चंद्र-सुर्य निर्मिल्यात. तांकां उजवाड दिला. झेऊसाक राग आयलो जाल्यार ताचें देऊळ लेगीत थरथरता. ताका लागून कुपांचो भयंकर गडगड जाता, विजो पडटात आनी भूंयकांप सुरू जातात. लिकुरगस राजाचें तेजय तशेंच आसा. ताचे मुखार तुमचें तेज

कमी जाता. ताचे श्रेश्ठतेमुखार हेर राजा मोटवे दिसतात.'

इसापान सट् करून शाणेपणान दिल्ली जाप आयकून नॅक्टॅनॅबो राजान विशय बदल्लो. ताणें म्हळें, 'हांवें सांगिल्लेवरी मनोरो बांदपा पासत गवंडी आनी मानाय घेवन आयला मूं ?' इसापान म्हळें, 'म्हजीं मनशां तयारच आसात. मनोरो खंय बांदुंया इतलें जरी सांगलें तरी म्हजीं मनशां कामाक सुरवात करतलीं.'

राजाक अजाप जालें. तो इसापाक घेवन शारा भायर गेलो. मनोरो केदो जाय तें ताणें सांगलें. राजान दाखयिल्ल्या जाग्यार माप घेवन इसापान गरूड पक्षी उबे केले आनी वांगडा हाडिल्ल्या भुरग्यांक त्या गरुडांचेर बसून मळबांत उडपाची आज्ञा दिली. तीं भुरगीं उडत उडत वयर वचूंक लागलीं. वयर वतकच तांणी सांगलें, 'आमचेकडेन चिख्ोल, विटो, मनोरो बांदपाचें सगलें सामान दियात म्हणटकीर आमी बांदकामाक सुरवात करतात.

नेक्टॅनॅबोन अजापान विचारलें, 'इसाप, हीं पाखां आशिल्लीं भुरगीं तुका खंय मेळ्ळीं ?' इसापान सांगलें, 'तातूंत कितें ? लिकुरगस राजाकडेन पाखां आशिल्ले मनीस लेगीत आसात. पूण तुमचेसारके सादे राजा ताची बरोबरी करूंक सोदतात ही खरी अजापाची गजाल.'

नेक्टॅनॅबोन म्हळें, 'इसाप, हांव हारलों हें मान्य करतां. पूण तूं म्हज्या एका प्रस्नाची जाप दिशी ?'

'विचारात.' इसापान म्हळें.

'हांवें ग्रीस राज्यांतल्यान मुद्दम गाबण्यो घोडयो हांगा हाडिल्ल्यो. पूण तुमच्या घोड्यांचें खिंकाळप तांणी आयकलें आनी रातीं ताणीं सगल्यांनी गाब सोडलो. ' राजान सांगलें.

इसापान जाप दुसऱ्या दिसा दिवपाचें उतर दिलें आनी तो आपल्या घरा गेलो. घरा वतकच एक माजर हाडपाचो ताणें हुकूम केलो. इसापान त्या माजराक कितें करात तें आपल्या शिपायांक सांगलें. तांणी माजराक रस्त्यार हाडून चाबकान मारपाक सुरवात केली. मिसरी लोकांक तें पळोवन संताप आयलो. तांणी इसापाचे घराचेर मोर्चो व्हेलो आनी इसापाकडेन

कागाळ केली. इसापान आपल्या शिपायांक सांगून त्या माजराक सोडपाक लायलें. पूण इतल्यान त्या मिसरी लोकांचें समादान जालें ना. तांकां दिशिल्लें, इसापान मुद्दमच त्या माजराचे हाल हाल करपाक लायल्यात. तांणी इसापाआड राजाकडेन कागाळ व्हेली.

राजान रोखडोच इसापाक आपोवन हाडून विचारलें, 'इसाप, हें तुवें सामकें उणाक काम केलें. आमी मिसरी लोक माजराक एक पवित्र प्राणी मानतात हें तुका खबर आसा. बुआस्तीस देवतेचें माजर हें प्रतीक म्हणून आमी ताका मान दितात. पूण तुवें ताचे अशे हाल कित्याक करूंक लायले ?'

इसापान म्हळें, 'म्हाराज, ह्या माजरान आमचे म्हाराजाधिराज लिकुरगस हांचो काल रातीं अपमान केलो म्हणून ताका ही ख्यास्त दिवची पडली. आमच्या लिकुरगस म्हाराजाकडेन एक बरो कोंबो आसलो. तो नेमको वेळ सांगतालो. पूण ह्या माजरान काल रातीं ताका मारून उडयलो.' नेक्टॅनॅबोन संतापान म्हळें, 'इतलें सामकें फट उलोवपाची तुका लज दिसना? इजिप्तांतलें माजर एका रातयांत बाबिलोनांत पावतलें कशें ?'

इसापान म्हळें, 'तातूंत अशक्य कितें आसा ? बाबिलोनांतल्या घोड्यांचें खिंकाळप आयकून इजिप्ताच्या घोडयांचो गाब गळून पडलो ना? तशेंच हें !'

इसापाची दिस्ता दिस्त जाप आयकून राजा ओग्गी रावलो. पूण आतां आपूण हारतलों आनी लिकुरगस राजाक धा वर्सां इतल्या कराची खंडणी दिवची पडटली हाचो ताका भंय जालो. ताणें हेलिओपोलिसाच्या विद्धान लोकांक आपोवन हाडले. ते तत्वगिन्यानांतले गूढ प्रस्न विचारून इसापाक हारयतले अशी राजाक आशा दिसताली. इसापाक कसले प्रस्न विचारचे हाचेर भासाभास करून तांणी एक बेत रचिल्लो.

एक दीस नेक्टॅनॅबो राजान आपल्या सोयऱ्यां वांगडा इसापाकय मेजवानीक आपयलो. सगले लोक जमले. तेन्ना हेलिओपोलिसाच्या एका विद्धानान इसापाक म्हळें, 'आमकां हांगा देवान धाडल्यात. देवान सांगिल्ले वरी आमी तुका प्रस्न विचारतले, तूं जाप दी.'

इसापान सांगलें, 'तुमी आनी तुमचो देव दोगय फटींगशे दिसतात. तो खरो देव जाल्यार ताका प्रत्येक मनशाच्या मनांतलो विचार आपशींच समजुपाचो. तरीय तुमी म्हाका जाय तो प्रस्न विचारात.'

एका विद्धानान विचारलें, 'एक देवूळ आसा. ताका एकच खांबो. त्या खांब्यार बारा शारां आसात. त्या प्रत्येक शाराचेर तीस तीस पाट्यो घालून ताणें सुंदर पाखें बांदलां. पत्येक पाटये भोंवतणी दोन बायलो एकामेकांफाटल्यान धांवतात. '

इसापान सांगलें, आमच्या बाबिलोनांत धाकटीं भुरगीं असलीं कुवाडीं सोडयतात. तें देवूळ म्हळ्यार ही धर्तरी. खांबो म्हळ्यार एक वर्स. त्या खांब्या वेलीं बारा शारां म्हळ्यार बारा म्हयने आनी तीस पाटयो म्हळ्यार तीस दीस. प्रत्येक पाटये भोंवतणी फिरपी दोन बायलो म्हणजे दीस आनी रात.' इसापाची जाप आयकून सगल्यांक अजाप दिसलें. मेजवानी सोंपतकच इसाप घरा गेलो.

दुसऱ्या दिसा राजा नेक्टॅनॅबोन आपल्या मंत्र्यांक म्हऱ्यांत आपयले आनी भासाभास करूंक लागलो. राजान म्हळें, 'ह्या इसापा मुखार आमचें कांयच चलना. आमी ताका हारयलो ना जाल्यार आमकां लिकुरगस राजाक खंडणी दिवचीच पडटली. इसापाक हारोवपाची युक्तय कांय दिसना.' तेन्ना एका मंत्र्यान सांगलें, 'म्हाका युक्ती येवजता. आमी ताका विचारूंया, 'जें आमी केन्ना पळयलें ना आनी केन्ना आयकलें ना अशें कितें आसा? मागीर ताणें कितेंय जाप दिवं; आमी म्हणुंया, 'आंवंय! तातूंत कितें? हें आमी आयकलां आनी पळेलांय बी.' मागीर तो निर्जाप जातलो आनी हारतलो.'

ही युक्त आयकून राजा खोशी जालो. इसापाक हारोवपाची बरी युक्त मेळ्ळया अशें ताका दिसलें. राजान दरबार भरयलो आनी इसापाक आपोवन हाडलो. राजान ताका विचारलें, 'इसाप, तुका आतां निमणो एकच प्रस्न विचारतां. ताची जाप तुका सांगूंक आयली जाल्यार हांव हार मानून तुका खंडणी दिवन धाडीन. जें केन्ना पळयलें ना आनी केन्ना आयकलें ना अशें कितें आसा?'

इसापान सांगलें, 'तीन दिसांत हाची जाप तुमकां दितां.' इसाप

घरा येवन विचार करूंक लागलो. आपणें कितेंय सांगल्यार दरबारी तें पळयलां आनी आयकलां म्हणटले. हाची ताका खात्री आसली. मागीर इसापान एक कर्ज रोखो बरोवन काडलो. 'हांव इजिप्ताचो राजा नेक्टॅनॅबो हाणें बाबिलोनचो राजा लिकुरगस हाचेकडसून भांगराच्यो १००० विटो कर्जावू घेतल्यात, त्यो तांणी मागले बरोबर परत दितलों.'

मागीर हो कर्ज रोखो घेवन इसाप दरबारांत गेलो आनी 'ही तुमची जाप' अशें म्हणून तो कागद राजाच्या हातांत दिलो. त्या कागदांत कितें आसा तें पळोवपा इतलो लेगीत मंत्र्यांक धीर नासलो. ताणीं एकदम म्हळें, 'हीच जाप मूं? आमी खूब फावटी आयकलां आनी पळयलां लेगीत.' इसापान म्हळें, 'हय मूं ? बरें जालें तर! ह्या कर्जरोख्यांत बरयिल्लेप्रमाण भांगराच्यो विटो दिवपाची वेवस्था करात.'

तेन्नाच राजान तो कर्जरोखो वाचलो आनी मंत्र्यांचेर तापलो, 'मुर्खांनो, जें कर्ज हांवें केन्नाच घेतलें ना तें आनी तुमी केन्ना पळयलें रे? नाका थंय फट उलयतात?' राजा तापतकीर सगले जाण म्हणूंक लागले, 'आमची चूक जाली, ही कर्जाची गजाल आमी केन्नाच पळयली ना आनी वाचलीय ना.'

इसापान सांगलें, 'इश्टांनो, हें तुमचें म्हणणें खरें आसत जाल्यार तुमचें कुवाडें हांवें सोडयलें. ' राजान म्हळें, 'लिकुरगसाचो राजा खऱ्यांनीच भाग्यवान म्हणून तुजे सारको हुशार मनीस ताका मेळ्ळा.' मागीर ताणें इसापाकडेन तीन वर्सांची खंडणी दिली आनी लिकुरगस राजाक इश्टागतीचें पत्र बरोवन दिलें. इसाप जैतिवंत जावन बाबिलोनाक परतलो.

## १०. शेवट एका बुदवंतकायेचो

इजिप्ताच्या राजाक हारोवन इसाप परत बाबिलोनांत आयलो. थंयच्यान हाडिल्ली खंडणी ताणें लिकुरगस राजाक दिली. इसापाचो पराक्रम आयकून लिकुरगस राजाक ताची तोखणाय दिसली. ताणें म्यूझस देवाचें एक देवूळ बांदून तातूंत इसापाचोय एक भांगराचो पुतळो बसयलो. इसापाचे

बुदवंतकायेचो गौरव करपापासत ताणें एक व्हड दबाजो केलो.

आतां इसापाक बाबिलोनांत रावपाचो वाज आयिल्लो. ताका ग्रिसांतल्या डेल्फी शारांत वचन दिसतालें. तेन्ना भोंवत भोंवत डेल्फी गांवांत वचचेली आपली इत्सा ताणें लिकुरगस राजाक सांगली. थंयच्यान परत बाबिलोनांत येवन मरसर थंयच रावतलों म्हणून ताणें राजाक उतरय दिलें. निमणें राजान ताका मान्यताय दिली.

इसाप भोंवत भोंवत प्रत्येक शारांत वतालो आनी थंयच्या लोकांकडेन उलोवन, भासाभास करून आपले बुदवंतकायेचो अणभव दितालो. निमणें तो डेल्फी शारांत पावलो. थंयूय तो भासाभास करूंक लागलो. सुर्वेक डेल्फींतल्या लोकांनी ताका उमेद दाखयली. मागीर-मागीर ते ताका कांयच दिना जाले आनी ताची पर्वाय करना जाले. इसापाक तांचो राग येवंक लागलो. ताणें आपले भितर म्हळें, 'हीं डेल्फींतलीं मनशां म्हणचे सामर्कींच पालो कशीं?'

इसापान तांकां तिडावन पळयलें. पूण तांणी इसापाकडेन लक्षच दिलें ना. इसापाक तांचो खूबच राग आयलो. ताणें तांकां म्हळें,' लोकांनो, तुमी डेल्फीचे नागरीक म्हळ्यार दर्याच्या ल्हारांर उफेवपी लाकडाच्या मुंड्यावरी. त्या मुंड्याक पयसुल्ल्यान पळयल्यार ल्हारांचेर वयर-सकयल हालपी ती एक खास वस्त आसतलीशी दिसता. पूण मात्शें लागीं वचून पळयल्यार तो उपयोग नाशिल्लो मुंडो म्हणपाचें कळटा. तुमचे विशीं म्हजी अशीच फसवणूक जाली. डेल्फींत येवचे पयलीं तुमी उदार आनी धनीक आसतले असो म्हजो समज आशिल्लो. पूण आतां म्हाका म्हजी चूक कळ्ळी. आतां हांव ही गजाल वचत थंय सांगत सुट्टलों. तुमी तुमच्या पुर्वजां इतलेच नालायक म्हणून.'

इसापाचें उलोवणें आयकून डेल्फीच्या नागरिकांनी विचारलें, 'म्हणचे, आमचे पूर्वज कोण आसले? तांचीं अशीं कसलीं पिशेपणां तुमकां खबर आसात ?'

इसापान म्हळें, 'तुमचे वाड-वडील गुलाम आसले. पयलीं ग्रीक लोकांमदीं अशी रीत आशिल्ली. तांणी एकाद्रें नवें शार जिखलें जाल्यार

मेळिल्ले लुटीचो धावो वांटो ते अपोलो देवतेक अर्पण करताले. म्हणचे शंबर बैल मेळ्ळ्यार तांतले धा बैल ते अपोलोक दिताले. अशे तरेन धन, धान्य, दादले, बायलो लेगीत अपोलोक दिताले. दादले-बायलो म्हळ्यार गुलाम केल्ले लोक. अपोलोक सोडिल्ल्या त्या गुलामांक डेल्फींतच रावचें पडटालें. त्या गुलामांची तुमी संतत. म्हणचेच तुमीय गुलाम.' डेल्फींतल्या लोकांक इतलें सांगून इसाप थंयच्यान मुखार वचपाची तयारी करूंक लागलो.

हेवटेन डेल्फीचे नागरीक इसापाच्या उलोवण्याचेर विचार करूंक लागले. 'हो आमच्या तोंडार इतल्यो गाळी-फस्ती घालता जाल्यार फाटल्यान आमची कशी निंदा करतलो तें चिंतूंकच नज.'

दुसऱ्या एका डेल्फीकारान म्हळें, 'एकदां हो हांगाच्यान भायर सरलो म्हणटकूच गांवांगावांनी फिरून आमची निंदा करतलो तेन्ना आमी आतांच ताचो बंदोबस्त केल्यार बरो.' मागीर तांणी इसापाचो कांटो काडपाक एक कारस्थान रचलें. अपोलो हो डेल्फीच्या लोकांचो देव. ताका तांणी आंगवण केली आनी इसापाक ना करपापासत ताचो आशिर्वाद घेतलो. इसापान सॅमोस शारांत म्युझसाचें देवूळ बांदिल्लें. पूण तातूंत अपोलो देवाची मूर्त स्थापन करूंक नासली. तेन्नाच्यान अपोलोचो इसापाचेर राग आसलो. तो ताचेर कोपिल्लो. म्हणून डेल्फी लोकांचे आंगवणेक तो पावलो.

इसापाच्या हातांन कितेंय आगळीक जावन तो सांपडत म्हणून वाट पळोवपाक डेल्फींकारांकडेन वेळ नासलो. इसापान थंयच्यान वचपापासत सामान बांदिल्लें. डेल्फींत आयिल्ल्या हेर प्रवाशांनी इसापावटेन रावचें न्हय हाचीय जतनाय घेवंक जाय आसली; म्हणून तांणी गुपचूप बेत थारावन ताचेर नदर दवरली.

इसाप वचूंक लागतकच कांय वेळान ताचे फाटल्यान थोडे लोक धांवूंक लागले. इसापाक धरून बांदून परत ते डेल्फी शारांत घेवन येवंक लागले. इसापान तापूनच तांकां विचारलें, 'तुमी म्हाका बांदून कित्याक व्हरतात? हांव कितें तुमचो कैदी?' त्या लोकांनी ताचेपरस व्हडान तापून सांगलें, 'हय, तूं आमचो कैदीच. आमच्या देवळांत चोरी करून तूं पळून वतालो म्हणून तुका आमी धरला.'

हें आयकून इसापाक धक्को बसलो. आपणें असलें पातक करूंना हाची ताका खात्री आसली म्हणून ताणें तिडकून म्हळें, 'हांवे चोरी केल्या हें सिद्ध जालें जाल्यार हांव मरपाक लेगीत तयार आसां.' ताचें उलोवणें आयकून त्या लोकांनी ताका ओडीत शारांत हाडलो. थंय सगल्यां सामकार ताचें सामान तपासलें. तातूंत तो भांगराचो पेलो मेळ्ळो. तांणी तो पेलो सगल्यांक दाखयलो. मागीर इसापाक एका गाढवार बसोवन ताची गांवभर भोंवडावन धींड काडली. इसापान अपोलोच्या देवळांतलो तो भांगरापेलो चोरला तें पळोवन लोक वचत थंय ताका हुर्यो घालताले.

आपल्या सामानांत भांगराचो पेलो पळयतनाच इसापाक डेल्फीकारांचो कट कळ्ळो. इसापान तांकां विचारलें, 'तुमी म्हजो सूड घेवपापासत हो कट केला मूं? खरें सांगात.' तांणी इसापाच्या प्रस्नाची कांयच जाप दिली ना. तेन्ना इसापान रागान आड्डून विचारलें, 'पिशांनो, तुमी मरणाधीन प्राणी. देवासामकार तरी शाणेपणां मिरयनाकात!' पूण डेल्फीकारांनी कांयच जाप दिनासतना ताका बंदखणीत घालो. चोरी केल्ल्याच्या गुन्यांवापासत ताका देहान्ताची ख्यास्त जातली अशें जाहीर केलें.

हें आयकून इसापाचो धीर खचलो. आतां आपली सोडवणूक करून घेवपाचो आनीक कांयच उपाय ना हें ताका कळ्ळें. ताणें आपले भितर म्हळें, 'जें घडपाचेंच आसा तें हांव तरी कसो चुकयतलों? हांव लेगीत एक मनीसच. नशिबांतलें चुकोवंक जायना.'

इसापाक बंदखणींत घाला हें आयकून ताचो एक इश्ट राखणदारांची मान्यताय घेवन ताका मेळूंक आयलो. इसापाक पळोवन ताका खूब वायट दिसलें. ताणें कळवळून म्हळें, 'इसाप, कितें रे पापया तुजी ही दशा? हें सगलें कशें घडलें?'

इसापान म्हळें, 'म्हजो वायट वेळच म्हाका हांगा घेवन आयलो.' आनी इसापान ताका आपणें डेल्फीकारांचो कसो अपमान केला तें सांगलें. त्या बरोबर ताच्या इश्टान म्हळें, 'ह्या लोकांच्या राज्यांत येवन तांचोच अपमान करपाची तुका कसली गरज आसली? तुजी अक्कल खंय शेण खाताली? तुजी हुशारी, शाणेपण खंय पळून गेल्लें? तुवें व्हड व्हड राजांक राजसभांक युक्त्यो सुचयल्यात, सल्ले दिल्यात आनी खासा आपल्या वेळार तूं असो मूर्ख कसो जालो? इसापान म्हळें, 'हांव हांगा डेल्फींत आयलों

तेन्ना्च म्हजीं शाणेपणां सोंपलीं. म्हणून म्हजेर हो वेळ आयलो.' इसापाची गजाल आयकून ताचो इश्ट खंती तोंड करून गेलो.

थोड्या वेळान डेल्फीचे नागरीक थंय आयले आनी तांणी सांगलें, 'इसाप, तुका दोंगरावेल्यान धुकलून उडोवन मारपाचो निर्णय डेल्फीकारांनी घेतला. तुजे सारकिल्ल्या चोराक आनी नास्तिकाक हीच ख्यास्त फावो. तुका फांशी दिवन पुरप लेगीत योग्य न्हय. दोंगरावेल्यान धुकलून उडयतकच कोले, लांडगे तुका खावन उडयतले. आतां मरपाक तयार जा.'

हे लोक आपल्याक धपकावन त्रास दिवंक सोदतात हें इसापाक कळ्ळें. ताणें म्हळें, 'हांव तुमकां एक काणी सांगूं?' तांणी हयकार दितकर इसाप काणी सांगूंक लागलो. 'एका काळार सगल्या प्राण्यांची भास एकच आशिल्ली. तेन्ना हुंदरान एके मेजवानीचें आमंत्रण दिलें. बेब्याक घेवन तो हुंदीर एके रांदचेकुडींत वचून थंय रांदून दवरिल्ल्या चमचमीत पदार्थांचेर ताव मारून आयले. हे मेजवानीचेर बेबो खोशी जालो आनी ताणें म्हळें, 'आतां तूं आमगेर मेजवानीक यो. हांव लेगीत तुका अशीच बरी मेजवानी दितां.'

मागीर एक दीस बेबो हुंदराक घेवन तळ्याम्हऱ्यांत आयलो. ताणें हुंदराक त्या तळ्यांत उडी मारूंक सांगलें. हुंदरान म्हळें, 'म्हाका तुजेवरी पेवंक येना.' बेब्यान ताका सांगलें, 'तूं भिवंनाका; हांव शिकयतां तुका पेवंक.' अशें म्हणून तो रावलो ना. ताणें रोखडोच ताचो एक पांय आपल्या पांयांक बांदलो आनी तळ्यांत उडी मारली. हुंदीरय ताचे वांगडा तळ्यांत पडलो. हुंदीर बुडूंक लागलो. आपूण आतां मरतलों हें पळोवन हुंदरान बेगीबेगीन सांगलें, 'हांव मेलों तरी तुजेर सूड घेतलोंच.' हुंदराचें वाक्य सोंपचे पयलीं बेबो उदकांत पोंदा गेलो. ते बरोबर हुंदीर बुडून मेलो. मरतकच तो उदकाचेर उफेवंक लागलो. बेबो उदका पोंदच्यान पेंवतालो, पूण हुंदीर वयल्यान पेंवतालो. ताका एका ससाण्यान पळयलो आनी झोंपय मारून तो हुंदराक घेवन झाडार बसलो. ताचे बरोबर बेबोय हुमकळत वचूंक लागलो. हुंदराक खातकच ताणें बेब्याकय खावन उडयलो. अशे तरेन हुंदरान त्या बेब्याचेर सूड घेतलो. तेन्ना तुमी म्हाका जिवानशीं मारलो जाल्यार तुमचोय नाश जातलो. लिडिया, बाबिलोन आनी ग्रिसांतले लोक लेगीत तुमचेर तुटून पडटले आनी म्हज्या मरणाचो सूड घेतले.'

इसापाची काणी आयकून लेगीत डेल्फींतल्या लोकांचेर कांयच

परिणाम जालो ना. तांणी इसापाक बंदखणींतल्यान भायर काडलो. आनी धुकलून उडोवपा पासत दोंगरार व्हरूंक लागले. तेन्ना तांच्या हातांतल्यान सुटून तो म्युझसाच्या देवळांत वचून लिपलो. पूण लोकांनी ताका थंयच्यानय सोदून काडलो आनी ताका बांदून घालून ओडीत दोंगरार वचूंक लागले. म्युझसाचो लेगीत मान दवरनासतना डेल्फीवाले आपल्याक व्हरतात तें पळोवन इसापान तांकां म्हळें,

'नागरिकांनो, म्युझसाच्या देवळाची अशी उपेक्षा करुंनाकात. कोगळान गरुडाक हारोवन शरण येवंक लायलो तशी गत जायत.'

आयकात ती काणी, 'एक फावट गरूड पक्षी एका सोंशाच्या फाटल्यान लागिल्लो. जिवाच्या आकांतान सोंसो धांवतालो. ताका कोगूळ दिसलो. सोंशान कोगळाक विनंती केली आनी आपलो जीव वाटावंक सांगलें. इतल्यांत गरूड थंय पावलो. कोगळान गरुडाक सांगलें, 'हांवें ह्या सोंशाक राखण दिल्या. तुका झेऊस देवाचो सोपूत. हांव ल्हान म्हणून म्हजें उतर मोडुंनाका.'

पूण गरूडान कोगळाचें उलोवणें कानामनार घेतलें ना. सोंशाक घेवन तो मळबांत उडलो. उडटां-उडटांच ताणें कोगळा मुखारच सोंशाक खावन उडयलो.

गरुडाचीं मस्तेपणां पळोवन कोगळाक राग आयलो. ताणें गरूड ना तें पळोवन हळूच ताचो घोंटेर काडून तातुंतलीं तातयां काडून जमनीर आपटिलीं. गरूड घरा येतकच ताका आपल्या तांतयांची दशा पळोवन वायट दिसलें.

दुसरे खेपे ताणें खूब वयर घोंटेर बांदून तातयां घालीं. कोगळान तोय जागो सोदून घोंटेरांतलीं तातयां काडून फोडून उडयलीं. गरूड येतकच ताका सकयल फुटिल्लीं तांतयां दिसलीं. परतय तांतयां फुटिल्लीं पळोवन ताका वायट दिसलें. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं. 'झेऊस देव म्हजेर कोपला काय? आतां गरुडाचो वंश नाच्च जातलो काय?' ताणें मनांतल्या मनांत म्हळें.

तिसऱ्या वेळा तांतयां घालपाचो वेळ जातकच ताका आपल्या घोंटेरांत तांतयां घालपाचो धीर जायना जालो. ऑलिम्पसाक वचून ताणें झेऊस देवाक म्हळें, 'दोन वेळा म्हजीं तांतयां कोणें तरी जमनीर आपटून फोडलीं. म्हणून तिसरे खेपे म्हजीं तांतयां हांव तुजे मांडयेर घालतां.

तांतयांतल्यान पिलां भायर ये सर तूं तीं राख.' अशें सांगून झेऊस देवाचे मांडयेर तांतयां घालून तो अन्न सोदूंक उडून गेलो.

पूण कोगूळ गरुडाक तेळीत आसलो. ताणें खंय तांतयां घाल्यांत तीं पळयल्लीं. ताणें एक युक्ती केली. आपल्या पांयांच्या चपकुलांत ताणें शेणाचो थापो घेतलो आनी झेऊस आसा थंयच्यान उडून वचूंक लागलो. आपले तकले वेल्यान वतलो शेणा थापो आंगार पडत म्हणून त्या थाप्याक पळयत झेऊस एकदम उठून उबो रावलो. आपले मांडयेर गरुडाचीं तांतयां आसात म्हणपाचें तो साप्प विसरून गेलो. तांतयां सकयल पडून फुटलीं.

दर खेपे आपूण गरुडाचीं तांतयां कित्याक फोडटां तें कोगळान झेऊसाक सांगलें.

गरूड आपलीं तांतयां पळोवंक येतकच झेऊसान ताका सांगलें, 'तुवें कोगळाचो अपमान केला म्हणून दर खेपे ताणें तुजीं तांतयां फोडून उडयलीं. तातूंत तुजी कांयच चूक ना. तुका अशीच ख्यास्त मेळूंक जाय. तुवें त्या कोगळा वांगडा म्हजोय अपमान केला. ताणें तुका सोंशाक खावचें न्हय म्हणून म्हजो सोपूत घाल्लो. तरी तुवें सोंसो पिसडून खालो.' झेऊसाचें उलोवणें आयकून गरूड निराश जालो.

पूण झेऊसाक मनांतल्यान दिसतालें, गरुडाचो वंश काबार जावचो न्हय म्हणून. ताणें कोगळाक समजावपाचो यत्न केलो. पूण कोगूळ कांयच आयकुपाक तयार नासलें. निमणें झेऊसान एक युक्त सोदून काडली. ताणें गरुडाक सांगलें, 'कोगूळ फकत वसंत रूतूंत येता. शियाळ्यांत तें नासता. तूं शियाळ्यांत तांतयां घाल. वसंत रूतूंत कोगूळ येवचे पयलीं तुज्या तांतयांतल्यान पिलां भायर सरतलीं.'

ही काणी सांगून इसापान म्हळें, 'तुमीय त्या गरुडाप्रमाण मस्ते जावंनाकात. हांवें म्युझसाच्या देवळाचो आदार घेतिल्लो. तें देवूळ ल्हान दिसता म्हणून ताचो अपमान करूं नाकात. त्या कोगळाची याद दवरात.'

इसापाच्या ह्या उलोवण्याचो तांचेर कांयच परिणाम जालो ना. तांणी इसापाक ओडून व्हरून दोंगराचे कडेर उबो केलो. आतां हे आपल्याक सकयल धुकलून उडयतलेच हाची इसापाक खात्री जाली. तरी निमणो यत्न म्हणून ताणें तांकां आनीक एक गजाल सांगली.

'डेल्फीच्या नागरिकांनो, हांवें तुमकां साबार तरेन समजावपाचो यत्न केलो. पूण तुमी आयकनात. आतां एक खबर आयकात. एक शेतकरी

आशिल्लो. ताचो सगलो जल्म खेड्यांत गेल्लो. तो म्हातारो जातकच एक दीस ताणें आपल्या भुरग्यांक म्हन्यांत घेवन सांगलें, 'भुरग्यांनो, हांवें अजून शार पळोवंक ना. आतां मरचे पयलीं तरी एक फावट शार पळोवचें म्हणटां.' ताच्या भुरग्यांनी ताका एके गाडयेंत बसयलो. ताका दोन गाडवां जोडलीं आनी बापायक सांगलें, 'बाबा, ह्या गाडवांक आमडीत वचात; तीं तुमकां सरळ शारांत व्हरतलीं.'

म्हातारो शेतकार गाडी घेवन भायर सरलो. वाटेर व्हडलें मोड आयलें आनी गाडवां वाट चुकून दुसरेच कडेन पावलीं. तीं एका दोंगराचे कडेर पाविल्लीं. म्हाताऱ्यान आतां आपली धडगत ना हें पळयतकच झेऊस देवाचो धांवो केलो आनी ताणें ताका वाटायलो.'

हीय काणी आयकून ते इसापाक धुकलून उडोवंक मुखार सरले. तेन्ना ताणें परत म्हळें, 'थांबात आनीक एकच खबर आयकात. एक मनीस देवाचें दर्शन घेवंक देवळांत गेलो. तो थंय भजन करूंक बसला आसतनाच पुजाऱ्यांनी ताचेर हल्लो केलो. ताका लुटलो. ताचो गळो अंदूंक लागले, तेन्ना त्या मनशान म्हळें, 'आरे! म्हाका चोर लुटारू, दरोडेखोर हांणी मारून उडयलो जाल्यार कांयच दिसचें नासलें. पूण तुमी हें करप ही लजेची गजाल.' डेल्फीच्या लोकांनो, म्हाकाय तुमचेविशीं अशेंच दिसता. सीरिया, फिनीशिया, जुडायाच्या रस्त्यावेल्यान म्हाका ओडून व्हरून कोणेंय जितो मारिल्लो जाल्यार म्हाका इतलें वायट दिसचें नासलें. पूण तुमीच ही गजाल करूंक भायर सरल्यात हाचें म्हाका खूब वायट दिसता.'



इतलें सांगूनय ते आपल्याक मारूंक भायर सरल्यात हें पळयतकच ताणें तांकां श्राप दिलो, 'म्यूझस देवा, हे लोक म्हाका अन्यायान मारतात. तूंच तांची खबर घे.' अशें म्हणून ताणें त्या लोकांनी धुकलचे पयलींच उडी घेवन आत्महत्या केली.

अशे तरेन अबुद्धी लोकांक लागून एके बुदवंतकायेचो शेवट जालो. एक शाणो सुरतो मनीस हें जग सोडून गेलो.

*****



फाटलीं २७ वर्सां साकून साहित्याच्या मळार वावुरता. कविता, कथा, नाटकुलीं, अणकार आनी बालसाहित्य रचता. दिसाळीं, म्हयन्याळीं, आंक, रेडियो आनी दूरदर्शनावेल्यान साहित्य प्रकाशीत जालां.

१. कवितां झेलो – कयपंजी

२. कथां झेलो – घोंटेर

बालसाहित्य

१. कोलेदादाची पालखी – बालकथा

२. चौफूल – नाटकुलीं

३. विवेकानंद – चरित्र

४. रविन्द्रनाथ टागोर – चरित्र

५. गलिवराची भोंवडी – अणकार

६. शींव आनी बैल – हितोपदेशाचेर आदारीत

७. कामा पुरतो मामा – ,, ,,

साहित्य अकादेमीचे वतीन येवपी त्रैमासिकांत 'प्रचिती' (ह्या पुस्तकांत) इंग्लिशींत अणकारिल्ली कविता आयल्या.

कांय शिक्षणीक पुस्तकां बरयल्यांत आनी अणकारल्यांत.

१९९८-९९ वर्साचो N. C. E. R. T.चो बालसाहित्याचो पुरस्कार 'कोलेदादाची पालखी' ह्या बालकथा संग्रहाक फावो जाला.

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय